**जिविताचो प्रवास**
(ललीत लेख)
मिलाग्रीन आंद्रू डिसौजा

**Jivitacho Pravas**
(Literary Essays )
Milagrina Andru D'Souza

---


- प्रकाशन क्र. 55




फ्लॅट नं. 6 सुमेध अपार्टमेंट
अनगोळ, बेळगांव - 590006 (कर्नाटक)


पयली उजवाडावणी : 2013

- उजवाडावपीः
**सुरेश सगुण नायक**
जैत प्रकाशन, 231 खोर्ली, तिसवाडी
गोंय - 403 110
फोनः 0832-2284637

- छापपीः
**लोकमान्य प्रोसेस,**
खोर्ली, तिसवाडी, गोंय, 403 110

- मुखचित्र :
जनार्दन शेटये

- टायपसेटींगः
**ज्योति गांवकार**

- मोल : 125/- रूपया

---

ह्या पुस्तकाक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' येवजणेखाला अर्थीक पालव लाबला.

म्हजो मौगाळ आवय-बापूय
सर्गेस्त आगुस्तीन आनी नातालीना मेंडोसा
म्हजो मौगाळ कुन्याद सर्गेस्त बॉस्त्यांव मोंतेरो
आनी
म्हजो मौगाळ घरकार सर्गेस्त आंद्रू डिसौजा हांकां
म्हजें हें पयलें पुस्तक ओंपता.

– मिलाग्रीन डिसौजा

# न्हंयेचो जालो दर्यो, हांव उचंबळ्ळी....

पर्वता कडसून न्हंय दर्यावटेन व्हांवता. अशें दिसता, पर्वत म्हणल्यार न्हंयेचें मोगाळ 'कुळार'. थंयसर जेन्ना तिचो उगम जाता तेन्ना ती उदकाची एक धाकटुली धार आसता. पूण जेन्ना दर्याक मेळटा तेन्ना दर्याचे वेंगेंत आपणांक झोकून दिता आनी तेन्ना ती विशाल, महाकाय रूप घेतां, आनी दर्यांत विलीन जाता. वेतांना ती दोंगर, कडे-कपारी, उंचेलो, सखल भाग, सपाट धरतरी खंयसरल्यान लेगीत मार्ग काडटा आनी आपणाले कार्य पुराय करता. मार्गांत जें मेळटा, झाडांपेडां, तण, कांटे, फातर, रेंव, सजीव, निर्जीव वस्तू सगल्यांक ती प्रवाहावांगडा व्हांवोन व्हरता.

न्हय भाशेन मनशाचें लेगीत जिवीत आसा मनशाच्या जिवितांत कितलेशोच चडट्यो-देंवत्यो येतात. बरो, वायट वगत येता. पूण निमाणे तांतूल्यान वाट काडून आपणालें ध्येय गांठचे पडटा. संसाराचो रथ मुखार व्हरचो लागता. म्हगेल्या जिवितांत लेगीत जाय तितलीं संकटां. चडट्यो-देंवत्यो आयल्यात. तातूंतल्यान हांव वाट काडीत गेल्या. म्हगेल्या जिवितांत बरीं मनशां आयल्यांत तांगेले भांगरा-गूण हांवे काळजांत सांठयल्यात. वज्र जशें कोंदणात सांबाळून दवरतात तशें. पूण वायट मनशांपासून मात हांव दोन

हात पयस रावल्यां. म्हगेल्या जिवितांत काय लोकांलें जगप हांवे लागशिल्यान चोयलां, अणभवलां. त्या अणभवांवयल्यान हांवे 'जिविताचो प्रवास' हें धाकटुलें पुस्तक बरयलां. हें पुस्तक आकाराक येवपाक म्हाका जायत्या लोकांचो आदार लाभला. गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष भौ. पुंडलीक नायक तशेंच उपाध्यक्ष भौ. भूषण भावे हाणी 'पयलो चंवर' येवजणेखाला तें उजवाडाक हाडपाक मान्यताय दिली तांचे हांव उपकारी तशेंच भौ. कमलाकर म्हाळशी, प्रा. राजय पवार आनी भौ. विनंती कासार हाणी मोलादीक सुचोवण्यो करून तें छापपाक मान्यताय दिली म्हूण तांचेय उपकार मानतां. भौ. हेमा नायक हाणी तर म्हज्या एकान एका लेखाची अपुरबाय करून जतनायेन तें सारके केले, तांतूंत सुदारणा केल्यो देखून तिका हांव धन्यवाद म्हणटां. म्हजें हें पुस्तक येवचें म्हण तळमळीन वावुरलें तें बाय कुमूद नायक हिचे लेगीत उपकार. जैत् प्रकाशनान हें पुस्तक उजवाडांवपाचो भार घेतलो देखून तांचेय खेरीत उपकार. देवाचें बेसांव आसाच तेचबराबर म्हाकां खरी प्रेरणा आनी मोलाचे सहकार्य दिलें तें म्हगेल्या, भुरग्यांनी. अंतोनी, झेवेरीना, दिपा आनी सेबेस्टीन हांचो उल्लेख करपाचें म्हगेलें कर्तव्य आसा.

**मिलाग्रीन आंद्रू डिसोजा**

# जिविताच्या प्रवासांतली पोटली उस्तिताना...

मिलाग्रीन आंद्रू डिसौंजा पिरायेन जाणटे अशे हे, बायलेचे बरपावळिचें हातांनी बरयिल्लें हस्तलिखीत म्हज्या हातांत आयलें. तिचें अक्षरय कळनाशिल्लें. तातूंत ती बेळगांवची. शैली मातशी मराठी जाल्ली. ती म्हजे मुखार तें बाड घेवन बशिल्ली आनी म्हाका विनयताली आपलें मातशें सारकें करून तें छापपाक वतलें अशे तरेचें करून दी म्हण. कितें करचें म्हाकाय कळना जालें. आनी खऱ्यांनीशीं त्या दिसा म्हज्या दोळ्यामुखार कोंकणीतलो ज्येष्ठ मनीस सर्गेस्त फादर ए. पेरेरा उबो आशिल्ल्याचो भास जालो आनी दिसलें, कोंकणी खातीर ती म्हजे मुखार नमळायेन बागवल्या. ती मुळची बेळगांवची, पूण गोंया कडेन सामकें भावनीक नातें जडिल्ली एक श्रद्धाळू तशेंच मनीसकायेच्या भावनांक पोसवण दिवपी एक मायेस्त बायल. आपल्या मनांतले उत्फर्के लोकांक कळचे आनी एके तरेची सद्भावना लोकांभितर जागी जावंची असो तिचो एक निर्मळ हेत हें म्हाका समजलें आनी हावें तें स्विकारलें. ताका आनीक एक कारण जालें, तें म्हणल्यार म्हज्या अंतस्कर्णान म्हाका साद घालो आनी कोंकणी सेवे खातीर फा. ए. पेरेरा पुरस्कृत तोमस स्टीवन्स कोंकणी केंद्राचो पुरस्कार जो म्हाका फादर पेरेरा जितो आसतानाच आनी म्हजी पिराय 45 वर्सांची आसतनाच मेळिल्लो ताचें ते घडकेक स्मरण जालें आनी मागीर म्हज्यान कशें पडमूर जावं येता? हावें तोंड धांपून तें बाड घेतलें.

गोंयासावन सामकें लागीं आशिल्ल्या बेळगावांत अशें तरेचो भावार्ती किरीस्तांव समाज आसा, ज्या समाजांतले लोक गोंयचेर आनी गोंयासावन

येतल्या लोकांचेर खूब माया करतात. ते मायेक धर्म आनी जातीचें बंधन ना. कोंकणीच्या मळार सातत्यान वावुरपी बेळगांवचो बाब लुईस रोड्रीग्स हो कोंकणी खातीर गोंय आनी बेळगांवचो एक दुवो, एक सांकव, एक संदेश वाहक म्हण तळमळीचो मनीस अशें कितेंय म्हणू येता. घाटमाथ्यावयल्या आनी कोंकणांतल्या कोंकणी पर्जेचें व्यासपीठ 'उजवाड' हें देवनागरी लीपयेंतले कोंकणी म्हयनाळें ताच्या संपादना खाला नेमान येता. मिलाग्रीन आंद्रू डिसौजा हिचें बरेंचशें लिखाण तातूंत उजवाडाक आयलां. फेब्रुवारी 2014 म्हयन्याच्या उजवाडांत संपादपी लुईसबाब म्हणटात. 'फाटल्या 400 वर्सां थावन गोंया थावन घाटमाथो आनी कोंकणांत राबितो केल्ल्या आनी फुडें पुणे, मुंबय, बेंगळूर आनी हेर शारांनी थलांतरीत जाल्ल्या किरीस्तांवांची संख्या एका लाखा परस चड आसा. ह्या समाजान कसलोच आदार नासतना कोंकणी भास आनी संस्कृताय तिगोवन दवरल्या'. ह्या लोकांक आमचे भितर आस्पावन घेवपाक आमकां खोस भोगूंक जाय अशें म्हाका मनांतल्यान दिसता.

मिलाग्रीनबायच्या बाडांतली एक्कान एक वस्त हावें उस्तिली, कथा, नितीकथा, बोधकथा आनी मागीर सगळें यादिंचे साणीर घासून चकचकीत जाल्ली दिसतकच म्हाका म्हजे आज्जेचे मुस्तींतलो खजिनो सांपडिल्ल्याची खोस भोगली. हांवें परतून सगळ्यो बारीकसाणेन वाचून काडल्यो. शुद्धलेखन, व्याकरण आनी योग्य अशे संस्कार करून जातकच परतून तें सलग वाचलें आनी मागीर कळून आयलें, हे बायलेन आपल्या जिवितांतले खरखरे अणभव बरयल्यात आनी तांकां अर्थ आसा. तिणे आपल्या जिवितांत जायत्यो गजाली पळयल्यात, जायत्यो घडणुको अणभवल्यात. सैमाच्या वातावरणांत ती पिशी जाल्या तर सण-परबो, रिती रिवाज हांचीं वर्णनां रंगयतना रमून गेल्या.

तिच्या लिखाणाची गोडसाण चाखताना एक सुरबूस घडणूक घडली. डिसेंबर 10 तारकेची गजाल. 26 जानेवारी 2014 च्या प्रजासत्ताक दिसाच्या

निमतान घडोवन हाडिल्ल्या आकाशवाणीच्या भौभाशीक कविसंमेलनांत गोंयचो कवी परेश कामत हांचे 'तुडूंब' हे कोंकणी कवितेचो हिंदी अणकार करून हैद्राबादाक वचून तो सादर करपाची संद म्हज्या वांट्याक आयिल्ली. हावें मन लावन तिचो अणकार केलो आनी आयकुप्यां मुखार तो बरे तरेन सादर केलो. सगळ्यांनी दादय दिली. हांव तेच घुंवळेंत आशिल्लें काय नकळो पूण फांतोडेचेर जाग आयली तीच तकलेंतल्यान भायर सरिल्ल्या दोन वळींनी, आनी कितें म्हण कोण जाणा, त्यो वळी लेगीत हिंदींतल्यानच आयल्यो, सामकीं तोंडांतल्यान उतरां फुटलीं, 'मेरी एक मां थी, उसके ऑखों में भरपूर पानी था, लेकीन एक बूँद भी गिरता नहीं था!' सामकीं पाठ केल्लेभशेन. मागीर तीं तकलेंतल्यान कशींच हालना जालीं. अशें अकस्मात कितें म्हण हीं उतरां आयलीं आसुंये हें खूब चिंतल्या उपरांत उगडास जालो तो मिलाग्रीनबायच्या 'फेस्त गोड जालें' ह्या लेखाचो, हातूंत ती एके बायलेची कर्मकाणी सांगता. गरीब बायल, तिचो घोव मारता, दोगां भुरगीं. तीं शाळेंत शिकतात. ती बायल लोकांगेर वावर करून कितें मेळटा ताचेर संवसार चलयता. फेस्ताचो दीस. घरांत कांय ना. चुलींत उजो पेटना. ती धनया कडेन उदार मागता. पूण तो दिना. निरशेवन घरा येता आनी फेस्ता दिसा तीं भुरगीं तिच्या हातांत दोन लाडू आशिल्लो डबो दिता. ती अजापता. भुरगीं सांगतात, आमकां दिल्ल्यो भाकऱ्यो आमी खाल्ल्यो नात त्यो उदकांत भिजयल्यो, तांतून इल्लें गोड हाडून घालें आनी शिजोवन ताचे लाडू वळ्ळे. तिका अंतस्कर्णांतल्यान कळवळून येता. हींच आसुंये तीं दुकां!

मिलाग्रीनबायच्यो काणयो वाचल्यो आनी मन भूतकाळांत गेलें. आदल्या काळार संगणक, लॅपटॉप, टॅबलेट, इंटरनेट असलीं तांत्रीक आयिद्दां नाशिल्ल्यान आमकां आमची आवय काणयो सांगताली. तशो हावें खूब काणयो आयकल्ल्यो - मनाचेर संस्कार घडोवपी, आपल्या चिंतनानी भर घालपी, विचार करपाक लावपी, तरातरांच्यो. तातूंत आसताल्यो रामायण आनी महाभारतांतल्यो काणयो. चतूर बिरबल आनी कोल्ली

बादशाहाच्यो कितल्योशोच काणयो, मनीसपणाचे व्हडविकायेच्यो, सत्याच्या जैताच्यो, कोल्याचे हुशारकायेच्यो तशेंच भित्र्या सोंशाच्यो आनी रानांतल्या जनावरांच्यो, सोरोप आनी मुंगुसांच्यो तशेंच भारताच्या स्वातंत्र्याच्यो आनी शूर विरांच्यो काणयो लेगीत हावें आवयकडल्यानच आयकल्ल्यो. मिलाग्रीनबायच्या 'जिविताचो प्रवास' ह्या पुस्तकांत असलें बरेंचशें खाण मेळ्ळें आनी मन धादोस जालें.

आदल्या काळार मनीस कसोय जियेतालो, कितेंय खातालो, कसलेय मोदीचें कपडे घालतालो. पूण सैमालागीं मात तो समरस जातालो. हे धर्तरेवयलीं झाडां-पेडां, रुख-वाली, सूर्य-चंद्रीम, नखेत्रां, न्हंयो-वझरे, तळयो-दर्यो, दोंगर-दोंगुल्ल्यो हांचेलागीं ताची इश्टागत आसली. तांच्यो व्हडविक्रो गावपी म्हौवाळ रचना ताणी आपणाल्या ओंठाचेर रचल्यो. हे धर्तरेवयली जीव-जिवावळ, किडी, मुयो, रानांवनांतलीं जनावरां, झाडांचेर घोंटेर करपी सवणीं-सुकणीं ह्या सगळ्यांनी मिलाग्रीनबायच्या जिविताच्या प्रवासांत वांटो घेतिल्लो दिसता आनी ताका लागून तिगेलें लिखाण सुरबूस जालां. ह्या सगळ्यांची तुस्त-तोखणाय करताना ती रमून गेल्ल्याची जाणवता पूण मदींच 'आधुनिक सुखसोयींनी मनीसपण शेणलां' ह्या लेखांत ती बरीच गंभीर जाल्ली दिसता. मनीस जसो जसो सुसंस्कृत जायत गेलो तितलो सैमा कडलो ताचो संबंद उणो जायत गेलो. तो आधुनिकतायेचे भकीक पडलो हाचें तिका वायट दिसता.

3 डिसेंबराक पोन्न्या गोंया जेजू ख्रिस्ताच्या फेस्ताक हे लोक घाटमाथ्यारसावन गोंयां आयले बगर रावनात. तीन तारकेचे फांतोडेर तांचे खातीर खास मीस आसता आनी तें ते लोक चुकयनात. तेविशींचें भोंवडेचें एक वर्णन तिणें 'जेजू ख्रिस्ताक भेटूंक' ह्या सुरवेच्याच लेखांत केलां. तें वर्णन तिणें इतल्या भावार्तान केलां, वाचतल्याच्या दोळ्यासामकार सगळो देखावूच उबो जाता. हिंदू आनी किरीस्तांव समाजांमदले लोक सण परबो मिळून मिसळून मनोवपी देखी तिणे आपल्या लेखांत दिल्यात तशेंच दोनाय

परबांतलें साम्य दाखोवपीय कांय गजाली बरयल्यात. लग्न तशेंच हेर सुवाळ्यां वेळार मनयतल्या रिती रिवाज आनी शास्त्रां भितरली समानताय लगीत तिणें कांय लेखांत बरोवन वाचप्यां मुखार दवरल्या. मिलाग्रीनबायक अंतस्कर्णांतल्यान दिसता आमी हिंदू आनी किरीस्तांव दोन धर्म मानता आसले तरी बाकिच्या सगळ्या करण्यांनी आमी एक. आमचे देव दोन आसत वा फेस्तां वेगळीं आसत तरी तातूंय साम्य आसा. तिचें म्हणणे, किरिस्तांवाचीं नातलां तशी हिंदुंची दिवाळी. किरिस्तांवांची फेस्तां तशो हिंदुंच्यो जात्रा. एकूण तिका सांगपाचें आसा, आमी सगळीं मनशां एक आनी सगळीं सुखासमादानान रावंया. हो देखदिणो मंत्र ती आपल्या लिखाणांतल्यान दिवपाक सोदता.

15 ऑगस्ट भारत स्वातंत्र्याचो दीस म्हण तिका व्हडवीक. तो राष्ट्रीय सण म्हण ती मानता तशेंच त्याच दिसा किरीस्तांव लोक पातोळ्यांचें फेस्त मनयतात आनी तें लेगीत कित्याक ताचें एक सैमीक कारण सांगता. पावसाचे दीस आशिल्ल्यान त्या दिसांनी जळामळा हळडिचीं पानां किल्लून आयिल्लीं आसतात आनी तीं पानां पातोळ्यांखातीर वापरतात. सुरबूस वासांच्यो त्यो पातोळ्यो कशो करतात ताची क्रिया लेगीत ती सांगता. सैमान मुक्तपणान दिल्ले हे देणगेचो वापर बऱ्या कामाखातीर करचो अशें तिका मनासावन दिसता.

बेळगावां तेऊरवाडीक तिगेलें कुळार. एक धाकटुलो गांव. आपल्या कुळाराची म्हयमा सांगतना ती इतली रमता, वाचतले दरेके धुवेच्या दोळ्यांमुखार आपपालें कुळार उबें रावचें इतले मायेस्तपण तिणे त्या लेखांत ओतलां. ह्या पुस्तकांत कांय बोधकथा आसात, कांय चातुर्यकथा आनी देख दिवपी कथाय आसात ज्यो भुरग्यांक सांगपासारख्यो आसात. आदर्श सांबाळपी कांय घडणुकोय तिणे हातूंत बरयल्यात. ल्हान भुरग्यांची तिका खूब ओड. भुरगीं म्हणल्यार झाडांचे ताळयेर फुलिल्लीं फुलां अशी उपमा दिवन ती भुरग्यांक फुलांभशेन सांबाळपाक जाय म्हण जाणट्यांक शिटकावणी

दिता. दरेके चलयेक दोन घरां मेळटात म्हण ती खोस परगटायता. एक आपले आवयचें घर जें मागीर तिचें कुळार जाता आनी दुसरें घोवालें घर. आनी हीं दोनूय घरां ती बरेतरेन सांबाळटा अशें अभिमानान सांगता.

हातूंत कांय भावनावश जावन काळजाक दूख भोगोवपीय काणयो आसात. वियोग, आघात, पाश ह्यो थोड्यो कर्मकाणयो ह्या संग्रहांत आसात. कोंबयांचो मोग दाखोवपी मोनजातीच्या भावनांचें दर्शन घडोवपी काणयो आसात तशेंच कश्ट केलेबगर फळ मेळना अशो देखदिवपी काणयो आसात.

मिलाग्रीनबायच्च्या जिविताच्या प्रवासांतली ही पोटली उस्तिली आनी म्हज्या हाताक लागिल्ल्या थोड्या भोव वस्तुंची मोलावणी केली.

**– हेमा नायक**

# मांडावळ

# जेजू ख्रिस्ताक भेटूंक

गोंय म्हणल्यार आमची रावतल्यांची पुण्यभूंय. गोंयचेर सैमान सदळ हातांनी उधळण केल्या. उंचेले दोंगर, खोल दऱ्यो, लांबचे लांब दर्यावेळो, फुलाफळांनी भरिल्लीं पांचवीचार झाडां, लोमकळपी वाली आनी मोगाळ गोंयकार. खरेंच गोंयांत पावतकूच खंयच्यातरी नंदनवनांत पाविल्ल्यावरी समाधान भोगता. 27 डिसेंबराक आमकां गोंया वचपाचो योग आयिल्लो. हिंदू लोक जे भशेन पंढरपूर म्हणल्यार सगळ्या पवित्र तिर्थांचें कुळार मानतात, तेचपरी गोंय आमकां क्रिरिस्तांवाक आमची काशी, पंढरी कशी! ओल्डगोवा वा आदलें गोंय आमगेलें 'कुळार'. हांगासर येवन सांत फ्रान्सीस झेवियराचो, गोंयच्या सायबाचो उमाव घेवपाची जी धन्यताय मेळटा ती उतरांनी सांगू नज!

27 डिसेंबराक फांत्यार आमी बेळगांव सोडलें. शिंयाचें थंडायेक सुर्याच्या भांगरा किरणाचो सांगात आशिल्लो. त्या वेळार बेळगांव–गोंय मार्गाचेर केन्ना सुर्याचीं कंवळीं किर्णां तर केन्ना दोनय वटेन वाडिल्ल्यो उंच उंच झाडांच्यो सांवळ्यो असो लिपचेल्यांचो खेळ सुरू आशिल्लो. घाटांत पावतकूच परतीं वांकडीं तिकडीं वळणां. जशीं जशीं आमी सकयल देंवंक लागलीं तशें तशें एके वटेन आशिल्ले खोल खोल दरीची खोलाय उणी जावपाक लागली. तर उजव्यान आशिल्ल्या दोंगराची आनी मळबाची सर्त करपी सुळक्याची उंचाय आनीक वाडूंक लागली. हे वटेन ते वटेन खुशालकायेन उडपी सुकणीं सवणीं आनी आपणाल्या भुरग्यां–बाळां वांगडा घाटांचे देगेर आशिल्ल्या चिऽऽर चिऽऽर आवाज करपी माकडांक पळोवन मनाक खूब खुशालकाय भोगली.

आमी ही सैमाची छबी नियाळीत गोंयचे पुण्य भुयेंत पावलीं. मोलेच्या एका सोबीत रेस्टोरंटांत आमी च्या आनी खाणांचेर ताव मारलो. हांगासर लाकडांच्या वस्तुंनी केल्ली सजावट खुबूच सोबीत दिसताली. लांबचे लांब माडांच्या वळेरींनी गोंयचे सोबीत भुंयेन येवकार दिलो. सर्गाक गवसणीं घालपी माडां भशेन जर मनशाच्या मनाची उंचाय आशिल्ली जाल्यार कितलें बरें जावपाचें न्हय? माड, सुपारी, पणस, आंबो, काजू, पोपायो असल्या झाडांनी ही पवित्र भूंय फुलून गेल्या. मदीं मदीं पांचवींचार वायंगणी शेतां मनाक भुलोवन उडयतात. झुळझुळपी वाऱ्याच्या तालाचेर खुशालकायेन तीं भाताचीं सानुलीं रोपां गोंयचे खुशालकायेचीं गितां गायतात. अशें दिसता, भुकेल्ल्यांची भूक भागोवपाखातीर आसा रे बाबा आमगेलें जिवीत. कित्या पासत वेंचतात तुमगेलें जिवीत? अशेंच कसलें तरी गीत तीं गायतात ह्या विचारांत मन बुडून गेलें.

अशे हे गोंयचे पुण्यभुंयेक आनीक एक वरदान मेळ्ळां तें सांत फ्रान्सीस झेवियराचें. जे रितीन किरिस्तांव तेच रितीन हिंदू आनी मुस्लीम भाव लेगीत व्हडा भावार्थान ह्या व्हड सांताची व्होडवीक सांगतात. व्हडा भावार्थान सायबाच्या पाया लागीं वाती पेटोवन आंगवण करतात. आनी ती आंगवण पुराय जाले उपरांत ती पावोवपाक परते ताच्या पांया लागीं व्हडा संतोसान आनी आनंदान येतात.

आमी आदल्या गोंयां सांजेच्या चार वरांचेर पावलीं. उमावांक लांबचे लांब रांक पळोवन आमकां उमाव केन्ना मेळटलो हाची विवंचना लागली. तरी आसतना भावार्थान आमी रांकेत उबीं रावलीं. गायनां आनी रोजारांत सगळे भावार्थी गुल्ल. कडकडीत वोताच्या झळींनी भावार्थी तांबडे गुंज जाल्ले. बॅसिलीकच्या कंपावडांत माटोव घाल्लो. उमाव घेवचे रांकेंत दरेकलो आपणाल्या बऱ्या वायट करण्यांची भोगसणी घेतालो. वायट तें सोडचें आनी बरें तें घेवचें. पातकांपासत भोगसणे मागताले. त्या भक्तीमय वातावरणांत खर तप केल्यारूच देव दर्शन जाता काय अशें उमाव घेवपाक लागिल्ले वळेरी वयल्यान दिसलें. माटवांतल्यान भितर सरतकूच बॅसिलीकेचें भव्य दार दिश्टी पडलें आनी आतां

रोकडोच सायबाचो उमाव मेळटा म्हूण मन उल्हासीत जालें.

भावार्थ्यांच्या हातांत फुलांचे हार आनी वात पळोवन म्हाका एका मराठी भक्तीगिताची याद जाली.

'माझ्या ध्यानात, मनात, स्वप्नांत दिसे
सांत फ्रान्सीस शावियराची मुर्ती
फुलांचे हार, मेणाच्या वाती
अर्पूया त्यांच्या चरणाशी'

रांकेंत उबीं रावल्यार पांच वरां जालीं. उपरांत आमकां सायबाचें दर्शन मेळ्ळें. भितर एक नंदादीप शांतपणान तेवतालो. कूड दवरिल्ले पेटयेच्या दोनूय वटेंनी आशिल्ल्या पाटल्यांत भावार्थी आंगवणीच्यो वस्तू दवरतालीं. सायबाचे कुडीचें दर्शन मेळटकूच एक खीणभर मन आनंदान उल्हासलें. भक्तीन थिरलें. भावार्थान खुशाल जालें. नकळटना आमचे दोनूय हात जुळ्ळे. सायबाच्या पांया लागीं नतमस्तक जावपाक काळजाक धन्यताय भोगली. ताच्या पांयाचो उमाव घेवन संवसारांतल्या एका म्हान संताक आमी काळजा थावन वंदन केलें. जेजूच्या एका खऱ्या पाटलावकाराचे आमच्या पुर्वजांक जेजूच्या मोगाचे शिकवणेवरवीं आपलेशें केल्ल्या सांत फ्रान्सीस झेवियराच्या दर्शनान जिवीत धन्य जालें.

ह्या सुवाळ्या निमतान गोंयांत केल्ली सोय आनी भावार्थ्यांक मेळोवन दिल्ल्यो सुविधा वाखाणपा सारक्यो आसात. गोंयचे रस्ते लेगीत खूब बरे आसात. जिवाक भोंवडेचे त्रास जाले नात ताचेवयल्यान अणभवलें.

'बेपर्वा करून ह्या संवसाराची
देवाची तुवें केलीच चाकरी
समेस्त आमी मागतांव मजत तुजी
करताय म्हूण मिलाग्री मिलाग्री'

सायबाच्या दर्शना उपरांत ह्यो वळी मनांत घोळयतां घोळयतां बेळगांवां केन्ना पावलीं हें कळ्ळेंच ना.



# सांज्यांव

चार म्हयन्यांच्या कडक वतान धरतरी तापून वता. मृग नकेत्राच्या पावसान ती भिजून चिंब जाता. नव्यानच काजार जाल्ले व्हंकले भशेन. रोस लायल्या उपरांत नवी व्हंकल पवित्र चुडो भरून आनी नवो शालू न्हेसून कशी सोबीत दिसता ज्युस्त तशीच ती धरतरी नटून–थटून दिसता.

मायाच्या म्हयन्यांत काजार जातकूच चलयेक आपणाल्या जिविताचो वांगडी–सांगाती मेळटा. ताच्या सांगातान ती चली नव्या संवसाराचीं गोड सपनां रंगयता. तेचपरी वोताच्या दिसांनी तापून गेल्ले धरतरीचेर जेन्ना पयल्या पावसाचे थेंबे पडटात, तेन्ना ती टवटवीत, रसरशीत जाता. झाडां पेडां उमेदीन धोलूंक लागतात. गोरवां वासरां पांचवेचार तण खावन खुशाल जातात. सगळे कडेन नवें चैतन्यमय वातावरण निर्माण जाता. मळब सगळें अस्तंते कडल्यान उदेंते वटेन वेगान धांवपी पावसाच्या काळ्या किट्ट कुपांनी भरून वता. नेटाचो वारो सोऽ सोऽऽ आवाज करीत हेवटेन तेवटेन धांवता. न्हंयो, नाले उपाट भरून नागिणीच्या वेगान धांवतात. गांवां शेजारचे मेकळे सुवातेंत उदक सांठावता. धाकटुलीं भुरगीं मागीर तातूंत कागदाचीं होडीं करून मन भरून खुशालकाय मनयतात. स म्हयने न्हिदेंत आशिल्ल्या बेब्याची न्हीद चाळवता आनी उदकाची थंडसाण बादतकच बेबो डरांव डरांव कांतार म्हणिल्ले भशेन गायता. सवणीं घोटेरांत बसून पाखांनी तोंडां लिपयतात. पावसांत केन्ना तरी, उकताडार येवपी सुर्या दर्शन दिवपाक

विसरना. दुसरे वटेन इंद्रधनुश्य लेगीत हाजेरी लायता. झाडांच्या पानांत लिपिल्ली चान्नी आपली ल्हानशी तकली वयर काडून सैमाचें नवें रुप नियाळटा. हवेंत एके तरेचो थंड शिरकाव येता. नकळटाना भुरगीं आनी जाण्टीं ऊब दिवपी मुस्तायकी आलमारींतल्यान भायर काडून फाफुडटात आनी आंगार चडयतात. ह्या म्हयन्यांत आमकां वेध लागतात ते सांत जुवांवाच्या फेस्ताचे.

जूनाचे 24 तारखेर सांत जुवांवाचें फेस्त. ह्या नांवाचो 'सांज्यांव' म्हण गांवचे लोक वळखतात. गोंया हें फेस्त व्हडा दबाजान मनयतात. नवी व्हंकल-न्हवरो आंबे, पणस, अनसांची भेट घेवन कुळारा येता. तातूंत उंडे आनी सोऱ्याची बाटली सांगाताक आसता. ह्या दिसांनी आंबे पणस, अनसां ही सैमान दिल्ली भेट! तें विसरून कशें जायत! जून म्हयन्यांत बांयो उदकान भरिल्ल्यो आसतात. हें वजें उदकांत उडयतात. तरणाटे बांयत उडक्यो मारून वजें भायर काडटात आनी तातूंत आशिल्लें वांटून खातात. अशे रितीन सगळीं जाणां ह्या फेस्ताचे खोशयेंत वांटेकार जातात. गोंया सावन थलांतर जाल्ल्या किरिस्तांवांनी घांटार आनी कोंकणांत ही परंपरा सांबाळून दवरल्या. ह्या दिसांनी गत दीस पावस पडत आसता देखून आमगेली आवय आमकां सांगताली-

'सांज्यांव सागर पावसाचो आगर'

त्या तेंपार ही गजाल खरी आसली. पावस इतलो पडटालो, घरा भायर पडपाक कठीण जातालें. आमचे थंय व्हांवताली ती न्हंय गांवाक तिनूय वटेन वेंगेत घेताली. न्हंयचें उदक देंव मेरेन दुसऱ्या गांवाचो संपर्क तुट्टालो. दुसऱ्या गांवाक वचपाचें जाल्यार ल्हान व्हडयांचो उपेग करचो पडटालो. ताका आमी 'डोण' म्हणटाले. डोणवाले वांगडी लेगीत रुद्रावतार

धारण केल्ले न्हंयेंत होडी घालपाक भियेताले. दर्या भशेन तिगेलें उग्र रुप पळयल्यार काळीज भिरांतेन कांपतालें. रातीचे भिण्ण शांतिकायेंत तिगेल्या ल्हारांचो घोंऽ घोंऽ आवाज कानार पडल्यार आमगेलें काळीज थरथरूंक लागतालें. पायां साकून तकले मेरेन गोधडी ओडून आमी न्हिदतालीं. शाळेक सुटी आसताली. पूण ते दीस आतां फकत उगडासांत उरल्यात. खरें तें वेगळेंच आसा. आपणाल्या सुवार्थाखातीर मनशान सैमाची आकांताळी लूट केल्या. झाडांपेडां कातरून पावसाचें प्रमाण उणें केलां. सरकार सांगता, झाडां रोया, झाडां वाडया. पूण आमकां तशें दिसूं नाका?

चंदगड तालुक्यांतल्या ताम्रपर्णीचे देगेर आमगेलो सोबीत गांव वसला. जूनाच्या म्हयन्यांत ही न्हंय उपाट भरून व्हांवता. कोंकणांतले तांबडे मातयेच्या प्रदेशांत तिचो उगम जाला. देखून पावसांत तिगेलें उदक तांबडेगुंज म्हणून तिचें नांव आसा 'ताम्रपर्णी'. मे म्हयन्यांत म्हगेले भयणीचें काजार जालें. जूनांत सांज्यावाचें फेस्त. भयणिलो घरकार शारांत नोकरेक आसलो. भयणिलो पयलो सांज्याव म्हूण भाव लेगीत कुटूंबाक घेवन खेड्यांत आयलो. म्हगेले आवयन आंब्या पणसाचें वजें घेवन भावाक आनी ताच्या एका इश्टाक व्हंकल न्हवऱ्याक आपोवपाक धाडले. न्हंय उपाट भरून व्हांवताली. पूण बापायच्या उतराखातीर तारयान होडें सोडलें.

येतना न्हवरो व्हंकल आनी एक धेडो आयलो. तांणी लेगीत आंब्या पणसाचें वजें हाडिल्लें. घरा पावतकूच हातपांय धुवपाक म्हगेले भयणीन उदक हाडून दिलें. उदक मात 'तांबडें गुंज'. म्हजे व्हनीन रिती रिवाजा प्रमाण उदक दिलें. पूण न्हवरो, धेडो उदक पळोवन शिटकावले! खेड्यांत नव्या न्हवऱ्याक फटोवपाची रीत आसा. म्हगेले व्हनीन उदकांत कितेंच घाली नासतना उदक गरम केलें आनी कोपांत घालून हाडलें. पूण ते दोगूय

हुशार. तांणी तीं कोपां मामाक आनी ताच्या इश्टाक दिलीं. मामान आनी इश्टान च्या समजून फर्र करून भुरको मारलो. तांगेली फजेत जाल्ली पळोवन सगळीं जाणां पोट धरून हांसपाक लागलीं. म्हगेली व्हनी खूब विनोदी आनी म्हगेलें कुटूंब म्हणल्यार 'चैतन्याचो झरोच'. मौजमजा जाली. वाड्यांतल्या भुरग्यांनी सांज्यावाचे वालीची तोपी करून न्हवऱ्याक घाली. न्हवऱ्यान भुरग्यांक दुडू दिले. पांच दीस फेस्त. जांवयाची सरबराय करपाक म्हगेले आवयन आनी व्हनीन कांय उणेंपण दवरलें ना. मांस, नुस्तें, तांतयां, बिर्याणी, सान्नां, वडे, घावनां, पोळे, दोस, आलेबेले, पोळ्यो आख्खो वाडो रांदपाच्या वासान दरवळून गेलो.

हो प्रसंग म्हणल्यार घांटार तेन्ना सांज्यांवाच्या वेळार जावपी एक सर्वसामान्य सुवाळोच! मनशाचीं मनां प्रसन्न उरतालीं. एकामेकांचो मोग वाडटालो. काजाराची आनी ते उपरांत जावपी पारंपारीक गजालींची आमगेल्या पुर्वजांपार चलत आयिल्ली परंपरा आधुनिकीकरणाच्या फातरापोंदा चिड्डून गेल्या. ह्या परंपरांनी जी एकामेकां विशीं मनांत अपुरबाय आसली ती उणी जाल्या. आयज सांज्यावाच्या फेस्ताचो सगल्यांक विसर पडला. जेन्ना आवय बापायक ह्या फेस्ताचें म्हत्व उरलें ना, तेन्ना मागीर भुरग्यांचें कितें? काळाच्या ओघांत सगळें कितें ना जालां. परतें आनी एक फावट म्हणचें अशें दिसता.

'म्हातारी मेल्ल्याचें दुख्ख कोणाकच उरना
काळ सोकावता हेंच खरें.'



# देवाचे माये, पाव तूं आमकां!

श्रावण म्हयनो सुरू जातकूच हिंदुंच्या फेस्तांची पर्वणी सुरू जाता. ह्या म्हयन्यांत हिंदू भाव उपास-तपास करपांत आनी धार्मीक विधींनी गुल्ल आसतात. ह्याच दिसांनी नागपंचमे उपरांत वेध लागतात ते गणेशोत्सवाच्या फेस्ताचे. किरिस्तांव लेगीत ह्याच दरम्यान कांय फेस्तां मनयतात. सांज्यावाच्या फेस्ता उपरांत 15 ऑगस्ट हें सायबिणीचें फेस्त, आनी ते उपरांत येता सप्टेंबर म्हयन्यांत मोंती सायबिणीचें फेस्त. सांज्यांव, मोंत सायबिणीचें फेस्त आनी नाताल ह्या तिनूय फेस्तांक नव्यान काजार जाल्ल्या न्हवऱ्यांक आनी व्हंकलांक चड मान आसता. ह्या वेळार जांवयाक मावोड्या विशेश आमंत्रण आसता. तांकां परतें वचपाचें आसल्यार तांणी आपल्या पांयान परत वयचें असो रिवाज आसा.

दर वर्सा सप्टेंबर म्हयन्याचे 8 तारखेक जें सायबिणीचें फेस्त येता ह्या फेस्ताक मोंती सायबिणीचें फेस्त अशें म्हणटात. बांद्रा-मुंबय हांगाच्या मोंती सायबिणीच्या दोंगराचेर हें फेस्त जाता. इंग्लिशींत माऊंट म्हळ्यार दोंगर आनी दोंगरा वयली ही सायबीण म्हणल्यार मोंती सायबीण व्हय! तिका माऊंट मेरी अशेंय संबोधतात. खेड्या पाड्यांतले लोक लेगीत ह्या फेस्ताक व्हडा भावार्थान हाजीर रावतात. कर्नाटकांतल्या हरिहर हांगाच्या वेलांकिणी (आरोग्यमाता) आनी नागपटणम (तामीळनाडू) हांगाची वेलांकणी सायबीण हांचीं फेस्तां लेगीत ह्या म्हयन्यांनी व्हडा दबाज्यान जातात. भावार्ती

ह्या फेस्तांक व्हडली रीघ लायतात. हालींच हरेगांव, जिल्हो: अहमदनगर हांगाची आरोग्यमाता (मत माऊली) लेगीत भावार्त्यांचें व्हडलें श्रद्धास्थान जालां. आपणाक जंयसर शक्य आनी सोयीचें जाता थंयसर भावार्ती सायबिणीचेर आशिल्लो आपलो भावार्थ उक्तावंक पावतात. थंयसर वचून आंगवण करतात आनी सायबिणीची कृपा जालीशी दिसतकच आपली आंगवण फारीक करतात. हरिहरच्या फेस्ताक लोक फांत्यार 4 वरां सावन हरिहर गांवाच्या शेजाराक आशिल्ले तुंगभद्रा न्हंयेंत उदक न्हावन नितळ जातात. मागीर जायतो लोक रस्त्या वयल्यान लोटांगण घालीत सायबिणीचे इगर्जी मेरेन पावता. खूबशे लोक आपले केंस काडटात आनी सायबिणीक अर्पण करतात. हरिहर आसूं वो वेलंकिणी, हरेगांव आसूं वा माऊंट मेरी, ह्या पवित्र तीर्थक्षेत्रांक क्रिस्तांव आनी हेर धर्माच्या लोकांची व्हड गर्दी आसता. तिचे मुखार वाती लायतात. तिका हार अर्पण करतात. कोण कोण नाल्ल लेगीत फोडटात. हय सायबिणीक जात, भेद आनी धर्म ह्या गजालींच्या बंधनांत कोणूच बांदूंक शकनात. संवसारांत आसा एकूच धर्म आनी तो म्हणल्यार मनीस धर्म.

म्हाका आमचे आरोग्य मातेचो एक व्हड अणभव आयला. म्हजें दोन नंबरचें चल्ली दुयेंत आशिल्लें. सगळ्या वैजकी तज्ञांक आमी दाखयलें. तरी कोणाचोच इलाज चल्लो ना. दोतोरांक आमी उदका भशेन दुडू खर्चिले. तरिपूण कांय उपेग जालो ना. दोतोरांनी सांगलें 'आमी सगळे यत्न केले तरी कांय उपेग जालो ना. तरी आतां तुमचें नशीब देवाच्या हातांत आसा.' जेन्ना जेन्ना मनीस हारता तेन्ना तेन्ना आकांतान देवाक उलो मारता. ह्याच वेळार देवाचे खरे शक्तीचो अर्थ मनशाक कळून येता. मनशाक आपल्यो मर्यादा ह्याच वेळार कळटात.

ह्या आकांताच्या वेळार हांवें देवाक धांवो केलो. व्हड भावार्थान हांवें हरिहरचे सायबिणीक साद घालो. सायबिणी, तूं सगळ्यांची आवय आसा. म्हज्या भुरग्यांचेर तुजें बेसांव घाल. हांव तुज्या पांया लागीं पावतां. आनी कितें अजाप, म्हजी चली सामकी कांयच जालें ना अशे रितीन बरी जाली. म्हजे आरोग्य मातेन तिका नवें जिवीत दिलें. आनी आमी तिका घेवन सायबिणीच्या पांया कडेन दवरून तिचें बेसांव घेवन आयले. आयज म्हजी ही धूव कॉलेजींत शिकता. अशें आसा आरोग्य मातेचें अजाप.

आनी जे भावार्थी मुंबय, हरिहर, हरेगांव आनी नागापटण (वेलंकणी) हांगा वचूंक शकनात, ते कितें करतात? खेड्या पाड्यांनी, शारांनी आनी कसब्यांनी हे मायेची भजणूक करतात. तिचेर फुलांचो वर्षाव करतात. देवाचे माये, पाव तूं आमकां म्हूण तिचे कडेन आराधना करतात. देवाची ही माय, जी आमची माय जाली. तिचें फेस्त व्हड भावार्तान आनी आनंदान मनयतात.



# जशी दिवाळी तशी नातलां

'नन्हा फरिस्ता' ह्या चित्रपटांत एक गीत आशिल्लें. 'बच्चे में है भगवान, बच्चे में है रेहमान, बच्चे में है जिसकी शान गिता इसमें, बायबल इसमें, इसमें है कुराण, देखो बच्चा है महान, जगमें बच्चा है महान' खरी आसा ही गजाल. खरेंच भुरगें चड महान आसा. ताचे भितर हें आपलें, हें परकें हो भेदभाव ना. सगळें जग, संवसार हो आपलोच. हीच भावना तांच्या काळजांत आसता. ताका बरें वायट काय समजना. जें दिसता तें बरें! तर ह्या ल्हान बाळा भशेन 24 डिसेंबर एका नन्ह्या फरिस्त्यान जल्म घेतलो. जाणें सगळ्या संवसाराक शांतीचो संदेश दिलो. हिंदू लोक हे जयंतीक क्रिस्त जयंती म्हणटात. अर्थांत आमी क्रिस्तांव क्रिस्मस ना जाल्यार नाताल म्हूण दबाज्यान मनयतात.

हिंदूची दिवाळी, मुस्लीम भावांचो रमजान आनी क्रिस्तांवांचो नाताल. हीं फेस्तां आमच्या भारत देशांत व्हडा दबाज्यान मनयतात. भारतांत सगळ्या धर्मांचे लोक आपुलकायेन रावतात. सगळ्यां मदीं भावपण आसा. दिवाळी, रमजान आनी नाताल सगळेच लोक एकठांय येवन फेस्तां मनयतात. तातूंतल्यान नदरेंत भरता, आपुलकायेची आनी भावपणाची भावना! राम, रहीम आनी जिजस तिगूय एकच देव आसात. दरेकाच्या धर्मा प्रमाण ताका पळोवपाचो दिश्टीकोन वेगळो आसा. रामाचो जल्म दनपारां बारा वरांचेर रामनमी दिसा जालो. श्रीकृष्णाचो जल्म गोकूळ अश्टमी दिसा रातच्या बारा

वरांचेर जालो. जाल्यार जिजसाचो जल्म 28 डिसेंबराक रातच्या बारा वरांचेर जाला. हांच्या जल्मांत कितलें साम्य आसा पळयात. भारत देश म्हणल्यार सुवर्णभुमी. देवदेवतांचो, साधुसंताचो देश म्हूण आदींसावन मानीत आयल्यात. भारतांत व्हड व्हड साधू संत जावन गेल्यात. हांगाचे संस्कृतायेची नामना व्हड. हांगासरले रितीरिवाज पवित्र आसात. देखून जेन्ना आमचे पाप सायब भारतांत आयले, तेन्ना भारत भुंयेचेर पांय दवरतकच तांणी हांगाचे मातयेचो उमांव घेतलो. मदर तेरेजान लेगीत भारताक आपली कर्मभुमी मानली. हांगासर रावन तिणें दुखेस्तांची, दीनदुबळ्यांची, पिडेस्तांची सेवा केली. म्हणूनच तिका भागेवंतपद मेळ्ळें. तिचो भोवमान जालो. हो मान आमच्या भारताचो आसा. गोंयचो सायब सेंट फ्रान्सिस झेवियर हाका लेगीत हीच पुण्यभुमी अपुरबायेची जाली. तर अशे हे पुण्यवान धरतरेचेर आमी जल्म घेतला ही आमचे खातीर व्हड गर्वाची गजाल. ह्या सगळ्यांचें चिंतन करून आमी सगळ्यांनी मोगान रावंक जाय. एकामेकाचो द्वेश करप, दुसऱ्याचें वायट चिंतप ही खूब वायट गजाल आसा. ते गजाली पसून आमी पयस रावंक जाय.

नातलाक जेजून जल्म घेतला. जेजूक आमचे खातीर खुरसार मारलो, पूण मरतना लेगीत ताणें कितें उद्गार काडले, देवा तूं म्हाका माफ कर, कित्याक म्हणल्यार ते कितें करतात तें तांकां समजना. कितलो व्हडलो त्याग आनी सोंशीकताय! ताका हालहाल करून मारले. तो देवाचो पूत. ताच्या हातांत कितली शक्त आशिल्ली, पूण तिचो ताणें वापर केलो ना. कितली शांती आनी सहनशीलताय! म्हणूनच तो देव जालो, आनी आयज सगळो संवसार ताका देव मानून ताच्या पांयासकयल नतमस्तक जाला.

आमचो क्रिस्तांव धर्म म्हणल्यार शांतीचो संदेश दिवपाचो धर्म.

एका पोल्यार मारल्यार दुसरो पोलो दियात हें आमचो धर्म आमकां शिकयता. आमी जाणा आमकां तितलें शक्य जावपाचें ना. पूण आमी थोडें तरी आचरणांत हाडूंक जाय. 24 डिसेंबराक आमचो शांतीदूत जल्म घेता. ताचो थोडो तरी आदर्श आमी दोळ्या मुखार दवरूंक जाय.

आयज समाजांत कितलोसो लोक आसा, जो दुसऱ्याचें बरें चिंतता. थोडो दुसऱ्या धर्माचो अभ्यास करात जाल्यार तुमकां कल्पना येतली. खंयच्याय धर्मांत एखादो मनीस अडचणींत आसत जाल्यार सगळो लोक एकठांय जावन ताका मजत करतात. आनी अडचणींतल्यान भायर काडटात. क्रिस्तांव धर्म म्हणल्यार शांतीचो परोपकारी आनी सत्याचो धर्म. आमचो तारणकर्तो जल्म घेता संवसारांतली पातकां मिटोवंक. ताचो आदर्श आमी दोळ्या मुखार दवरूंक जाय. आनी आमी एकामेकां बराबर भावपणान वागूंक जाय. आमचीं तत्वां व्हड आसात. त्या तत्वां प्रमाण वचपाक आमकां बरी बुद्ध मेळची, म्हूण आमी दिवाळी, नातालां आनी रमजानाच्या परबांवेळार मांगुया!



# आमगेली संस्कृती आनी काजारां

ईस्टर जाता आनी मायाचो म्हयनो येता. ह्या म्हयन्यांत किरीस्तांव भावांक काजाराची सुलूस लागता. चड करून चलयेच्या आवय बापायक हे गजालीचो हुस्को खूब. चलयेचें काजार जालें म्हणल्यार 'गंगेंत हात धुवपाचें समादान' तांकां मेळटा. पूण आतां चल्या वांगडा चलयो लेगीत शिकपाक मुखार आसात. त्यो चल्यांचे बरोबरीन हर एक डिपार्टमेंटांत वावुरतात. हालीं नातालाचे सुटयेंत काजारां उरकून घेवपाचो कल दिसूंक लागला.

आमगेल्या काजाराची संस्कृती आमगेल्या पुर्वजांनी अर्थांत जाण्ट्यांनी जपून दवरल्या. आतां खेड्यांत ताचें म्हत्व खूब पूण शारांत तें दिश्टी पडपाक कठीण. आल्माचें जेवण आनी रोस केन्ना जाता कोणांकूच समजना. चड करून डिसेंबर म्हयन्यांत काजार, रेस्पेर इगर्जीत आनी हॉलांत जेवण जालें म्हणल्यार काजाराचो सुवाळो काबार. आतांच्या रितीरिवाजा प्रमाण तें योग्यच आसा. पूण खेड्यांतल्या साद्याभोळ्या लोकांनी मात ही संस्कृती जपून दवरल्या. आलमांचें जेवण, रोस, रेशीमेंत, रेस्पेर, होर, व्होरेन, दोत, दोतीचें जेवण आदी. ह्या सुवाळ्याची एक एक पद्दत पळयल्यार मनीस आपणाकूच विसरता. आतां व्हंकलेचो चुडो पळयात. मनीस बेसांव दिता 'एकाचे एकवीस जावं दीत' म्हूण. ते प्रमाण चुड्या भितर एकवीस कांकणां आसतात. तीन रंगाचीं तांबडीगुंज, हळडुवीं आनी पांचवीचार. हिंदू धर्मांत

हळद, कुकूम आनी पानांच्या विड्याक खूब म्हत्व. आमच्या धर्मांत तें ना म्हूण आमच्या पुर्वजांक चुड्याची बुद्द आयल्या आसतली. खरें पळयल्यार आमचे पुर्वज हौशी आनी रसीक आसले. तें ह्या पवित्र चुड्या वयल्यान दिसून येता. मुस्लीम धर्मांत लेगीत तांबड्यागुंज मेथयेक, हळदीक आनी पांचव्याचार चुड्याक म्हत्व आसा. सगळ्या धर्मांत रितीरिवाज तेच, धर्म मात वेगळे. आतां रोसाचेंच घेयात. हिंदू धर्मांत नाल्लाक 'श्री फळ' म्हणटात. नाल्लाक देवाचें स्थान आसा. दरेका शुभकार्याक नाल्ला बगर तांचें चलना. आमचो रोस लेगीत नाल्लाच्या दुदांत, हळद कालोवन लायतात. आनी ती पवित्र हळद व्हंकलेक न्हवऱ्याच्या आंगाक लायतात. आसा काय ना सगळ्या धर्मां भितर समानताय? आतां साडयांचें घेयात. मुस्लीम, हिंदू धर्मांत तांबडेगुंज साडयेक म्हत्व. तेच भशेन किरीस्तांवां मदीं लेगीत हे तांबडेगुंज साडयेक खूब म्हत्व आसा! 'तांबडे कपडे रेशमी घडी तुट्टा तुटना. न्हवरो बसला व्हंकले साठी उठता उठ ना' तांबड्या कापडाची महती काजरांनी गावपी ह्या पारंपारीक येर्सांत आमकां आयकूंक मेळटा.

खेड्यांत आयज लेगीत व्हडा दबाज्यान काजारां मनयतात. ते पासत रीण काडूंक लेगीत लोक फुडें फाटीं पळय नात. 'काजार कितें परतें परतें जाता व्हय. तें एकूच फावटीं जाता,' अशी ही भोळी बाबडी समजूत! आनी मागीर जिवीतभर हें रीण फारीक करीत बसप. ही एक अनिश्ट परंपरा.

घराक रंग, कुसवार, तांदूळ वेचप, तिखसाण, सांडगे, पापड, आहेरा, आयदनां, दोत अशे एक म्हणल्यार हजार गजाली पासत बाजार करचो पडटा. आनी हे धांदळींत काजाराचो दीस केन्ना येता कांयच कळना! सगळ्यांत पयलीं आल्मांक मीस भेटयतात. मागीर आल्मांचें जेवण. पयल्या दिसा सगळ्या वाड्यांत भोंवडी मारून 'फाल्यां फांत्यार माटव घालपाक येयात' अशें अपुरबायेन

सगळ्यांक सांगतात. दुसऱ्या दिसा दादले एकठांय जावन माटोव घालतात. ह्या माटवार पांचवेचार पानांचे ताळे. आंब्याच्या पानांच्यो कमानी. भुरग्यांनी हाडिल्ल्या शंकराच्या फुलांच्यो माळो. पांचव्याचार माटवांत तांबडीगुंज फुलां. सैमाचे बगलेंत बसपाचें सूख मेळ्ळ्या बगर रावना. मागीर च्या आनी झणझणीत चिरमुरे!! घरा भितर रोसाची तयारी. पांच सवाशिण्यो नाल्ल फोडटात. हेर बायलो रांदपात मेलगोर, वन, कडनाच्या रांदपांत गुल्ल. कडनाचो आनी सुंगटांचे कडीचो सुवास सगळ्या वाड्यांत दरवळटा. नाल्लांच्या दुदांत हळद कालयतात. आनी गोड ताळ्यांनी येर्साची सुरवात जाता.

'पयली पयली आमचे बापा
दुसरी दुसरी नमानमारी
आमच्या रोसाक बेसांव दिता
सर्गीची आंकवार मरी'

माटवांत वाजपाचो गोड मंजूळ सूर. त्या वातावरणांत माटवांत म्हणयो मांडटात. सान्नांचे बोशींत रोस आनी एके वाटयेंत तेल. व्हंकलेक घेवन जाण्टी येतात. 'बाय, उजवो पांय दवरून बस गो.' एकाद्री जाण्टी व्हंकल सांगूक विसरना. बाजूक धाकटुलीं भुरगीं. जाण्ट्यां सावन नेण्ट्यां मेरेन सगळ्यांच्या हातांनी रोस लागता. जाण्ट्यो बायलो कानांत, तकलेक तेल घालतात. मागीर न्हावप. 'व्हंकलेक न्हाणू न्हाता, दारांतील्या माडा'इ येर्सा. मागीर देवा मुखार तेर्स. आनी माटवांत पंक्तीची मांडावळ. पांच ते सात नमुन्यांच्यो भाज्यो, आंब्याची करंब, पणसांची भाजी, शेगलांच्यो सांगो हाका म्हत्व. खूब वन, कडन, सोजी-सुंगटांची कडी, वाटाण्यांची उसळ... आल्मांच्या नांवान एक पोसणे गरीबाक दितात. मागीर लोकांक निरोप. आमच्या दुबळ्या घरचें जेवण 'मिठू-भाकरी' गोड मानून घेयात, अशें

म्हणत एकाद्रो जाण्टो मनीस निरोप दिता आनी सोयरे दायरे जेवणाचेर तुटून पडटात. सांजे पांच वरांचेर व्हंकलेक भायर काडटात आनी कोणागेर तरी वस्तीक दवरतात. 'रेशीमेंताक वेताय बाये...' हें येर्स सुरू केलें म्हणल्यार व्हंकलेच्या दोळ्यांचे बांद फुट्टात आनी तिचे वांगडा सगल्यांचेच. वाजत गाजत सोयऱ्यांगेर दवरतात.

दुसऱ्या दिसा रेस्पेर. धव्याफुल्ल ड्रेसांत सर्गींची परीच धरतरेचेर अवतरता आनी फुल्ल ड्रेसांत न्हवरो राजकुमार. बोटांत रेस्पेराची पवित्र मुदी पडटा, आनी काजाराच्या पवित्र बंधनांत हीं दोन 'नकेत्रां' आडकतात. मागीर केक पार्टी व्हडा दबाज्यान जाता. सांजवेळार व्होराची तयारी. दवरणीचें काप, शेड्यांत फुलांचे झेले आनी आंगाचेर भांगर, मागीर ती एक राजकन्याच दिसता. व्होरा मुखार वाजप, फुगोटे, तकलीचेर गॅस लँप्स, व्हंकल न्हवऱ्याचे तकलेर धेडो धेडीन धरिल्ली सत्री. तो थाट पळयल्यार 'खोशीक मोल ना' हाची प्रचिती येता. व्होराफाटल्यान बायलो. दवरनीचीं कापडां, भांगर घालून केंसांत झेले आनी खांद्यार आडवल येर्सानी सगळो गांव दणदणून वेता. व्होर वेताना गांवचो लोक गोड आनी उदक दिवपाक मुखार येतात. वाजपाच्या गजरांत, फटाक्यांचे आतशबाजीन आनी चिरमुऱ्यांच्या शिडकाव्यांत व्होराची सुरवात. मर्दींच एक शाणो तोंडांत घासलेट घेवन फसकाचे काडयेन उजो पेटयता. तेन्ना बायलो ताचेर तिडकतात. 'उगी राव रे, व्हंकल न्हवऱ्याक पळोवं दी आमकां भिरांत दिसता.'

व्होर माटवा मुखार येता. बसपाक एक बांक मांडिल्लो आसता. व्होवळ्यो यजमानींक कडक जाप दितात, यजमानीन म्हज्या बायें... कितें करतांय घरांत. धूव आनी जांवय... किर्णा फांकल्यांत दारांत...' मागीर सोंगा आनी नदर काडप. सोंगा काडपाक आनी नदर काडपाक म्हजो एक बापुलो

चड हौशी आसलो. तो खूब उंचेलो देखून ताका ल्हान कापड पाव नासलें. तो सोंग काडून आयलो म्हणल्यार वाड्यांतल्यो बायलो खोऽऽ खोऽऽ हांसताल्यो. ह्यो आमगेलो 'बस्तू तिवा' नाड्याच्या वयर कापड आमी तेन्नाच वळखताले हाका. घरांतल्यो जाण्ट्यो आनी जाण्टी सगळीं फुलांचो झेलो घेवन व्हंकलेच्या केंसांत घालून व्हंकल न्हवऱ्याक भितर घेतालीं. आल्तारा मुखार बसकण आनी दोन उशीं. ताचेर व्हंकल न्हवरो दिमी घालून तासभर 'लादायन' म्हणपी एक स्पेशलिस्ट! ताचे बगर हें काय पुरें जायनासलें. मागीर साडो. 'येऊ इलो साडो... शापूरईच गाय पेठेचो. म्हज्या मिलाग मायच्या भेटेचो...' येर्सा म्हणटा आसता व्होकलेचो साडो न्हेसप आनी मागीर जेवणाचो सुवाळो जातालो. मांस, शीत आनी सान्नां हांचेर ताव मारप. आनी वाड्यार वो गल्लींत जंय खंय जागो मेळटा थंय ताणून दिवप.

पूण व्हंकल न्हवरो हांकां तो नेम लागू नासलो. दुसऱ्या दिसा फांत्यार पांच वरांचेर उठून व्हंकल न्हवरो कुरकुरतालीत. जाण्ट्यो बायलो तांचेर रागार. फाल्यां सावन तुमकां कोण उठयता? आयचो दीस खुशीचो. मागीर माटवांत चटयो आनी जमखाने आनी धवी फुल्ल चादर. सरमदीं शांत उजवाड दिवपी समय आसतालो. एके बाजूक व्हंकल... तर दुसरे वटेन न्हवरो. कुसवाराच्यो बश्यो, फळां, खजूर... बिस्किटां पणसाचे गरे, आंबे आनी मदींच बायलो पापड तळून हाडटात. बाजूक सरकात रे, पापड गरम आसात,' तांचो आवाज. जांचेर सगळ्यांचीच नदर आसता ती सोऱ्याची बाटली मदींच आसता. दोनी वटेन व्होवळ्यांची येर्साची जुगलबंदी. ती आयकूंक वाड्यांतलो हेर धर्मांचो लोक एकठांय जातालो. 'रावा, रावा न्हवऱ्या धेड्यांनो खाला वचून येता.... बोकडाच्या गाय चामड्याचो तुमकां कोट शिंवून दितां,' मागीर न्हवऱ्याच्यो व्होवंळ्यो ताका जाप दितात, 'रावा, रावा व्हंकले धेड्यांनो खाला वचून येतां.

बोकडाच्या काय चामड्याचें काय ब्लावज शिवून दिता.' अशी खुशी मनयताली. आनी काजाराचो सुवाळो व्हडा दबाज्यान करतालीं.

दनपारां बेसांव. हर एकल्याचें नांव घेवन आपयतालीं. 'आहेर घेवन येतां... बेसांव तुका दितां न्हवऱ्या, मामा मोगाय तुजो' मामाच्या मनांत बेसांव दिवचें नासल्यार लेगीत लोकांचे लजे खातीर मामाक बेसांव दिवचेंच पडटालें. त्याच वगतार सोयऱ्यांक आहेर करतालीं. सांजेच्या वेळार व्होर मावोड्या पावतालो. तेल, फुलांचो झेलो, नाश्टो घेवन सोयऱ्याचें स्वागत. रातीचे व्होर... बँड... फुगोटे हांच्या तालार व्होर. मार्गार व्होराचो सुवाळो पळोवपाक लोकांची गर्दी. मर्दींच वाट काडून गोड उदक घेवन व्हंकले न्हवऱ्याक येवकार दितालीं. गांवभर भोंवडी मारून व्होर वाड्यांत पावतालो. येर्सांची तर पर्वणीच! 'यायलो यामचो व्होरूऽऽ इतलो कित्या येळूऽऽ मिनीन जेजू खेळ आमच्या होरां देगे' सगळे कार्यक्रम जेवण सोऱ्याचो सुकाळ. जाण्ट्यांक सोरो घेवन उलोवपाचें मुश्कील. खोशीन सगळे बेबदे जातालें.

दुसऱ्या दिसा फांत्यार होरेन, दनपारां बेसांव आनी दोतीचें हक्काचें जेवण!! ताका स्पेशल बोकड मारचेंच पडटालें आनी वांगडा सोऱ्याचें कोप. मागीर व्हंकलेक सुपुर्द करून व्हराड परतें वतालें. सांजे गोडा रोसाचे वडे करून व्हंकलेक परतो रोस. वांगडा सोंगा. दुसऱ्या दिसा परतवणे. व्हंकलेगेर पांच दीस मौजमजा. खाण्यापिण्याचो रेलचेल. न्हवऱ्याक रोस. निवऱ्या वड्यांचें वजें घेवन व्हंकल नांदपाक मावोड्याक वेता. मागीर सांज्याव, मोंत आनी नाताल. नातलाक आहेर आनी कितेंय वस्तू दिवन ह्या पवित्र सुवाळ्याची सांगता जाता आनी व्हंकल न्हवरो आपणाल्या भावी संवसारांत पावल दवरतात. आपणालें जिवीत सुखासमाधानान सारतात. इतिहासाच्या यादिंनी शेणला हो असलो अपुर्व सुवाळो!



# स्वातंत्र्य दीस आनी
# पातोळ्यांचें फेस्त - 15 ऑगस्ट

15 ऑगस्ट हो दीस आमच्या देशांतले लोक स्वतंत्रतायेचो दीस म्हूण मनयतात. 150 वयर वर्सां ब्रिटिशांच्या जुलमी सत्तेच्या जोखडांच्या बंधनांत आशिल्ले आमचे भारत मातेची अहिंसेच्या मार्गान झूज दिवन आमच्या व्हड सुटके झुजाऱ्यांनी सुटका करून आमकां स्वतंत्रताय मेळोवन दिली. भारतांत आयज सगल्या जाती धर्माचे लोक वावुरतात. हिंदू, मुस्लीम, शीख आनी हेर कितल्याशाच जाती धर्माचो हातूंत आसपाव आसा. हे लोक आपल्या आपल्या जाती धर्माचीं फेस्तां व्हडा दबाज्यान मनयतात. रानांत रावपी आदिवासी वारली, कातकरी, गोंड, भिल्ल हे लेगीत आपले परीन फेस्तां मनयतात. ह्या देशांत आपलो सण वार मनोवंक कोणाकूच कसलेंच बंधन ना. आमच्या देशाची स्वतंत्रताय ही विविधतायेन नटिल्ली आसा. आनी हाका सांगात मेळटा तो 15 ऑगस्ट आनी 26 जानेवारी ह्या राष्ट्रीय फेस्तांचो.

15 ऑगस्ट हें भारताचें मुखेल राष्ट्रीय फेस्त व्हय. जशें आमी भुरग्याचो वाडदीस – बर्थ डे मनयतात, तेच परी आमी लेगीत भारत मातेचो ह्या दिसा बर्थ डे–वाडदीस मनयतात. भांगरा अक्षरांनी बरयिल्लो असो आमच्या देशाच्या इतिहासांतलो हो सगल्यांत म्हत्वाचो दीस. भारतमातेची सुटका करपा खातीर महात्मा गांधी, लोकमान्य टिळक, सरदार वल्लभभाई पटेल, सुभाषचंद्र बोस, राम मनोहर लोहीया आनी जायत्या राश्ट्रीय फुडाऱ्यांनी आपलें जिवीत अर्पिलें. बंदखणींत रावून तांणी देशा पासत हाल सोसले. भगतसिंग, राजगुरू, सुखदेव आनी झांशीची राणी लक्ष्मीबाई हांणी बलिदान

दिलें. ह्या सगळ्या फुडाऱ्यांच्या यादींक आमी प्रणाम करतात आनी व्हडा अभिमानान म्हणटात 'मेरा भारत महान'.

भुरगेपणा सावनच आमकां हो दीस मनोवपाची संवय जावन पडल्या ती आमचे शाळेंतल्यानच. सकाळीं झेंडा वंदनाची कार्यावळ जातकूच ह्या दिसा सगळ्यांक राष्ट्रीय सुटी आसता. फांत्यार पोरसांत आंगणांत रांगोळी घालून मागीर सगळे कडेन आंब्याच्या पानांचीं तोरणां बांदतात. फरफरें लावन सगलो परिसर सोबीत करतात. कोणा एका मानेस्ताक आपोवन ताचे हस्तुकीं झेंडा वंदन करतात आनी राष्ट्राक मानवंदना अर्पण करतात. प्रसाद वाट्टात. गांवांतल्यान शाळेचीं भुरगीं प्रभातफेरी काडटात. सांस्कृतीक कार्यावळी जातात. मागीर सर्ती जावन ह्या फेस्ताची सांगता जाता. सांजेच्या वेळार भोवमानान आमचो राष्ट्रीय ध्वज सकयल देंवयतात. राष्ट्रीय ध्वजाचो भोवमान कसो करचो हाची कल्पना दर एका भारतीय मनशाक आसता. ताचे नेम सगल्यांनी पाळूंक जाय.

आमकां आमचें भुरगेपण येवजिल्यार ह्या दिसाचो उगडास आयले बगर रावना. सवणें जावन म्हजें मन म्हज्या जल्म गांवां पावता. मुखेल बाजारपेठेंत म्हजी शाळा आशिल्ली. ह्या दिसाचे आदींच कितले तरी दीस आमच्यो शिक्षिका आमकां सातत्यान ह्या दिसाचो उगडास करून दिताल्यो. आदल्या दिसा आमकां नवीं वस्त्रां गणवेश घालून येवपाचे आदेश मेळटाले. इस्त्रीचो जमानो नासलो म्हणून आमी ती हाड्टाली, आनी आमच्या हातरुणां गादी पोंदानी दवरताली. उदकाचो हांडो तापोवन तयार आसतालो. हुनहुनीत उदक न्हावन बरीं आंगवस्त्रां गणवेश घालून आमची आवय आमचे तकलेक चपचपीत खोबरेल तेल घालताली. दोन कडेन दोन अश्यो घट्ट वेण्यो घालताली. गल्ली वाड्यांतल्यो सगळ्योच बायलो आपलें आंगण झाडून सारोवन लखलखीत करताल्यो. शाळेची निमाणी घांट जातकूच आमी शाळेच्या आवारांत एकठांयताले. आनी चले आनी चलयो अश्यो दोन रांको करून हातांत ल्हान ल्हान तिरंगो झेंडो घेवन प्रभात फेरींत वांटेकार

जातालीं. ही प्रभातफेरी चावडी मुखार येतकूच गांवच्या मुखेलीचे हस्तुकीं सार्वजनीक झेंडावंदन जातालें. आनी मागीर आमी 'झंडा उँचा रहे हमारा' हें गीत उंचेल्या ताळ्यान म्हणटालीं. उंच मळबा वटेन फडफडपी आमचो तो राष्ट्रध्वज पळोवन आमचीं काळजां उल्हासतालीं. केसरी, धवो आनी पांचवो अशा तीन रंगांनी नटिल्लो आनी मदीं आशिल्लें अशोकचक्र असो आमचो राष्ट्रध्वज ह्या सगल्या कार्यावळींच्या अग्रस्थानांक आसता. आमी भारतीय आसात, आमच्या देशाचो आनी ताचे प्रतीक आशिल्ल्या आमच्या राष्ट्रध्वजाचो आमकां खूब अभिमान आसा. हे खातीर आमी हेर सगल्या भारतीयांच्या ताळ्यांत ताळो मेळोवन म्हणटात–

'भारत माता की जय, मेरा भारत महान'

15 ऑगस्ट हो भारतमायेचो मुक्तीदिन मनयतानाच हो दिस किरीस्तांव लोक सायबिणीचें फेस्त, पातोळ्यांचें फेस्त म्हूण मनयतात. कित्याक तर ह्या दिसा सायबीण पातोळ्यो घेवन सर्गार पावली अशी अख्यायिका आसा. हे दीस पावसाचे आशिल्ल्या कारणान पांचव्याचार हळदीच्या पानांनी आमचें पोरसूं फुलता. गोंयकार ह्या दिसांनी नाल्ल भाटांतलेच घेतात आनी गोड लेगीत माडाचेंच! आनी हांकां पोरसांतल्या हळदीच्या पानांचो सांगात. पातोळ्यो वो हळदीचीं पानां नासल्यार आमकां हें फेस्त जाल्ले भशेन दिसना.

पातोळ्यो करपाची रीत आगळीच! साम्कीं सोपी आनी सादी ! पोरसांतलीं हळदीची पानां, भाटांतले तन्ने कवकवीत नाल्ल! पातोळ्यांक लागता.

पातोळ्यांक लागता तें साहित्य: तांदूळ, हळदीची पानां, नाल्ल, गोड, रुची पुरतें मीठ, खसखस, तीळ, काजू काप, मनुको, मातशें तेल. त्यो करपाची तरा अशी–: आदल्या दिसा अर्द कील तांदूळ बरे धुवून सावळेंत सुकोवन घेवचे. बरें सुतकच ते दळून हाडचे. अदमासान हांडीत उदक आनी मीठ घालून उदकाक उकळी काडची. मागीर ह्या उदकांत पीठ घालून हें पीठ बरें

धवळून घट्टशी भागवट करची. थंड जातकूच हें पीठ मळून एक जीव करचें. पानांचे देंठ आनी तोंका कातरून ती बरीं धुवून नितळत दवरची.

चून करपाची तरा अशी- दोन नाल्ल फोडून बारीक किसून घेवचे. मागीर तातूंत अर्द कील गोड घालून रांदन गॅसीचेर हालोवन शिजोवन घेवचे मागीर तातूंत खसखस, तीळ, काजूकाप, मनुको, घालून भरसुचें. रोस बरो आटल्यार एक कुलेर तांदळाचें पीट घालून चून बरें हालोवचें आनी देंवोवचें. चून बरें घट्ट जाता. आतां एका पाटाचेर पानां मांडून घेवचीं. हाताक मातशें तेल लावन घेवन जाय तितली भागवट घेवन ती पानांक पातळ थापून घेवची. तातूंत मर्दी लांबसर चून लावचे आनी पान दोडून घेवचें. सगलीं पानां दोडून जाल्यार तंदूर वो इडली पात्रांत हीं पानां उकडून घेवचीं. उकडटा आसतना हळदीच्या पानांचो एक सुवादीक घमघमाट सुट्टा. मन उल्हासीत जाता.

ही पातोळी खाताना भुरग्याक ह्या फेस्ताचें म्हत्व तर कळटाच पूण हळदीच्या पानांत आशिल्लें सत्व लेगीत भलायकीचे नदरेन चड फायदेशीर थारता. अशी आसची स्वातंत्र्याची परब आनी तेचबरोबर पातोळ्यांचे फेस्त, भुरग्यांक जाणट्यांक सगळ्यांक लक्तुबायेचें!



# तेऊरवाडीची गाथा

तेऊरवाडी गांव हो म्हज्या मामालो गांव! म्हजे आवयचें कुळार. आमी भावंडां भुरगेपणांत केन्नाय त्या गांवांत वतालीं. मामागेर कसलीय कार्यावळ आसत जाल्यार आमगेली आवय आमकां वांगडा घेवन थंयसर वताली. चडशी ना. कित्याक म्हणल्यार आमगेलो गांव शारी कसो आसा. हांगासर सगळ्यो सुखसोयी आसात. तातूंत भर म्हणल्यार आमच्या बापायचो व्हड वेपार. गांवांत बाजार भरतालो आनी दर सप्तकाक बापूय बेळगांवां येतालो. देखून घरांत खावपाची पियेवपाची रेलचेल. शेतांत हर एक नमुन्यांनी पिकतालें. घरांत सगळें सूख आसतना आमकां खंयसर वचपाचो उगडास येनाशिल्लो.

एका ल्हानशा गावांत आमगेले आवयचें कुळार. गांव एका दोंगराचे बगलेंत वशिल्लो. थंयसर ना पसरो ना हेर सूखसोयी. हर एक कामा पासत तांकां आमगेल्या गांवांत येवचें पडटालें. पूण तांगेलें घराणे मात गिरेस्त. व्हडलें घर. शेतांत नाना नमुन्यांची पिकां. घरांत गोरवां वासरांनी भरिल्लो गोठो! घरांत दूद तुपाची रेलचेल! आमी व्हड घरचीं भुरगीं म्हूण आमकां कांय उणें नासलें. पूण त्या सानुश्या गांवांत आमकां रमनासलें. पसऱ्या वयल्या खाज्याचो उगडास येतालो. चड करून आवय वांगडा वचपाक आमी नाखूशच आसतालीं. जायते फावटीं आमची मांय आमकां सोडून वताली. गांवांत ल्हान ल्हान कुळव्यांची घरां! तातूंत बरें घर म्हणल्यार आमगेल्या मामालें. एक गजाल मात खरी, थंयसर आमकां कसलेच गजालीचें

बंधन नासलें. जंगलातलो मेवो करवंदा जांभळा, आंबे खूब मेळटाले. मामाल्या भुरग्यां वांगडा करवंदा खायत वतालीं. आनी त्या जाळींत सगळे कपडे पिंजून घेवन येतालीं. जांबळां खावन जीब जांभळी करपाक चड खोशी जाताली. आमलेचीं तोरां मीठ लावन खावपाक वेगळीच मजा येताली. मागीर दोन दीस भाकरी खावप म्हळ्यार दिव्य. ह्या सगळ्या गजालींक लागून मामाल्या गांवाची ओड आसलीच म्हणूनच म्हणटात,

'झुगू झुगू झुगू झुगू आगीनगाडी,
धुरांच्या रेशा हवेंत सोडी,
पळटी झाडे पाहुया मामाच्या गावाला जाऊया!'

जंगलाचो मेवो म्हणल्यार अमृत. ताची सर कित्याकूच येना. सगळी चॉकलेट्स त्या सैमाच्या मेव्या मुखार फिकी!

पूण आतां सगळें बदल्लां. आतां त्या ल्हान गांवांत सेंट अंतोनीची इगर्ज जाल्या. थंयचे लोक सुशिक्षीत जाल्यात. सिमेंट कॉँक्रीटाचीं घरां बांदल्यांत. घरांत टेप, टीव्ही, फ्रिज, मिक्सर, फॅन सगळ्यो सूखसोयी जाल्यात. हायस्कूल, हॉस्पिटल, पोस्ट ऑफिस, हर एक कामांक तांकां शारांत येवचें लागना! पयलींची तेऊरवाडी आनी आतांची? जमीन आसमानाचो फरक आसा. तर ही संद म्हाका मेळ्ळी आयतार 1-2-2004 ह्या दिसा. त्या दिसा थंयसर सेंट अंतोनीचें फेस्त. व्हडा दबाज्यान मनयले तेऊरवाडीकारांनी!

त्या गांवचे मुळावे किरिस्तांव म्हळ्यार मंतेरो फॅमिली. खूब आदीं हे लोक वर्सान एक फावट आल्माचें जेवण दवरताले. त्या वेळार हे सगळे परिवार एकठांय जाल्ले. पूण ती प्रथा आतां बंद जाल्या. मंतेरो भारतांत सगळी कडेन वावुरतात. तांकां एकठांय येवपाक ही फेस्ताची संद मेळ्ळ्या. एका व्हड रुखाचीं फुलां वाऱ्यां वांगडा सगळे कडेन पातळिल्लीं, पूण तांचो

झेलो गुंथल्यार परतीं तीं एकठांय जातात ताची सोबाय वाडटा. तेचभाशेन गेल्ल्या पुर्वजरुपी रुखाचीं हीं मंतेरो फुलां ह्या फेस्ताच्या निमतान एकठांय येतात. बसतात उठ्ठात, एकामेकाच्या सूख दुख्खाची चवकशी करतात. तातूंतल्यान मेळटा मोग, आपुलकाय. फेस्त काबार जातकूच एकामेकांक वेंग मारतात. फुडल्या वर्साक मेळया म्हूण वचन दितात. सवण्या चोंबो भुर्रदिशी उडून मुक्त जाता तेचप्रमाण कोण बशीन, कोण आपले मोटरीन टाऽटा, बाय, बाय करून आपल्या गांवांक वतात. आपल्या संवसारांत गुल्ल जातात. आनी फुडल्या वर्साच्या फेस्ताची वाट पळयतात अशें!

ह्या वर्साच्या फेस्ताचो सगळो खर्च केलो ॲड. अंतोनी सिमांव मंतेरो हांणी आनी हेर मानेस्तांनी इगर्जे मुखार सोबीत माटव घाल्लो. ते थंड शितल सावळेंत बसून भावार्थ्यांनी जेवणाचो (प्रसादाचो) सुवाद घेतलो. तातूंत किरिस्तावां वांगडा हिंदू लेगीत आसले. फादरान शेरमांवात बरोच उपदेश केलो. हिंदू आनी किरिस्तांव दोगांय, भावांनी फेस्ता खातीर जायते कश्ट घेतले. आनी व्हड दबाज्यान फेस्त मनयलें. हातूंत चड अभिमान भोगता तो हिंदू समाजाचो. जेन्ना फादर आनी कॉपरीचे गांवचे शिमेर आगमन जालें तेन्ना पांच सुवासीनी बायलांनी तांकां हार घालून अष्टगंधाचो तिळो कपलाचेर लावन पंचारती उंवाळून तांकां भौवमानान गांवांत घेतले. हो अविस्मरणीय सुवाळो सगळ्यांनी दोळ्यांनी भरून घेतलो. आपल्या भारताचे हे पूण्य भुंयेचेर ना प्रांतभेद, ना भाशाभेद, जातीभेद तर नाच ना! मोगान भरून ओतता तो बंधूभाव. आपल्या भारताची संस्कृती संस्कार पळयल्यार मनीस नतमस्तक जाता आनी नकळटना मुखांतल्यान उतरां भायर पडटात धन्य तूं भारत माता आनी धन्य तुजी ही संस्कृती!

आतां म्हत्वाचें म्हणल्यार हें फेस्त नव्यानच सुरू आसा. जायते भावार्थी ह्या फेस्ताक मजत करतात. तरी पूण लोकांनी सदळ हातांनी मजत

करूंक जाय. चड करून मंतेरो भावांनी, अशें म्हजें तर प्रामाणीक मत आसा. 'साथी हाथ बढाना' हे म्हणी प्रमाण. मागीरच इगर्जेची खूबशी सुदारणा जातली. आनी ताका आसा मजतीची गरज. रामान सेतू बांदलो तेन्ना एक सानुली चानी (खार) आपलें आंग रेंवेत लोळयता आनी सेतूंत ती रेंव झडयता. आतां तिच्या केंसांतल्यान कितली रेंव येता आसतली? तातूंतल्यान एकूच दिसता त्या ल्हान जिवाचो मोग आनी मजत करपाची जिद्द. तसो सगळ्यांनी हातभार लायलो जाल्यार सगळीं उरिल्लीं कामां पुराय जातलीं.

आतां तेऊरवाडी सेंट अंतोनीची इगर्ज जाल्या म्हूण न्हय हरएक मंतेरो फॅमिलींत 'अंतोनी' नांवाचो चलो आसा. पयल्या सावनच मंतेरो परिवाराचो सेंट अंतोनी सायबाचेर चड भावार्थ आसा. म्हणूनच तांणी इगर्जेंत सेंट अंतोनीचेंच वर्केसांव दवरलां. हो तातूंत म्हत्वाचो मुद्दो आसा. तर ह्या मुद्याचेर बोट दवरून तांणी इगर्जेची भरभराट करची आनी ते करतले अशी म्हाका आस्त आसा.

'सेंट अंतोनी भोवता सांता
आश्चर्यां तुझी तेरा
चौदावें कर सायबा
आम्हा पापयांच्या घरा'



# आधुनीक सूखसोयीनी मनीसपण शेणलां

**आ**तांचें आधुनीक यूग आनी पयल्या तेंपाचें यूग पळयल्यार मनशाची मती घुंवपाक लागता. मनशान आपणाल्या सुखा खातीर आनी वगत वाटावपा पासत सगळ्या सूखसोयींची निर्मिती केल्या. पूण हें सगळें सैमाच्या आड वचत आसा. ह्या सूखसोयीं पासत सदांच लायटीची गरज भासता. ना जाल्यार जनरेटर जाय. पूण दुबळ्या आनी मध्यम वर्गीय मनशाच्या बोल्साक हो खर्च परवडना. फकत गिरेस्त (भाटकार) लोकच हांचें सूख उपभोगतात. मध्यम वर्गीयांक लायट लेगीत चिंतून वापरची पडटा. गरजे प्रमाण मनीस ताचो पुराय फायदो घेता पूण जेन्ना लायट बील हातांत पडटा तेन्ना मात ताचे दोळे धवे जाले बगर रावनात! पूण तें खीणभरच. आनी 'ये रे माझ्या मागल्या' हें म्हणी प्रमाण हो मनशाचो सभावधर्म आसा ताका वखद ना!

म्हजो जल्म एका खेड्यांत जालो. शिकप थंयसर, व्हड जालेंय थंयसर. तेन्ना ह्या सगल्या सूखांक आमी वंचीत आसात म्हणपच योग्य जातलें. आमगेलें घर व्हड ऐसपैस. घरा फाटल्यान व्हडलें पोरसूं. पोरसांत झाडां पेडां. ताचेर चिमण्याचे घोंटेर, घरा फाटल्यान गोरवांनी भरिल्लो गोठो. कुजनात चुली कडेन माजर. घर राखपाक एक धवेंफुल्ल सुणें. कुशीन घुडांत कोंबयो असो आशिल्लो आमगेलो दरबार.

म्हजे आवयचो वावर फांत्यार सुरू जातालो. घर आंगण झाडून नितळ जातकूच पोरसांतल्या तांब्याच्या हांड्यातळा ती उजो घालताली. शेतांतलीं लांकडां आनी गोरवांच्या शेणाच्यो शेणयो, पोरसांतलीं पानां बडयो. जाय तितलें उदक तापतालें. मनसोक्त न्हावप जातालें. आतां हिटर, गॅस, गिजर,

लायट जाय. लायट गेली वा गॅस काबार जालो म्हणल्यार उदक थंयसरच. मागीर कुजनांत जी रांदपीण आसता तिची विनवणी करची पडटा. म्हाका वचपाक वगत जाला प्लीज एक हांडी उदक तापोवन दिताय गाय? तें काम तिच्या मुडाचेर. ती खोशींत आसली जाल्यार हां, ना जाल्यार हांवें कुकर लायला गॅस खाली ना, म्हूण ती सूर धरता, मागीर न्हावपाचें उरलें. टायमाक जेवण मेळचें कठीण जालां.

आमोरीच्या वेळार मांय चुलींतल्या गोबरान कंदिलाची कांच नितळ करून दिवो लायताली. घरांत पत्र्याचे दिवे. घरांत चूल पेटली म्हणटकच घरांत उब. थंडीच्या दिसांनी चुली मुखार बसून हात पांय शेकपाची मजा औरच, मागीर स्वेटर आनी मोजे जाय कोणाक? चुलीचे उबेन घरांत कीडी, मुयो, जळारां येनासली. आमोरी जातकूच, रान्नीतलो उजो घेवन माय धूप घालताली. त्या सुगंधीत परमळान घर प्रसन्नतायेन भरून वतालें. मागीर मीठ सांसवां घेवन आवय नदर काडटाली.

'पोरांची चोरांची नदर लागल्या आसत तर...' अशें म्हणून कानशीलार बोटां मोडटाली. आवाज सुबेज जाल्यार सांगताली. 'तुजेर म्हजो मोग चड आसा रे राजा', 'आनी म्हजेर तुचो मोग ना कितें गे?' 'नारे बाळा फाल्यां तुजेर मोग चड जातलो.' आमच्या बाल मनाक तें रोकडेंच पट्टालें. आजकाल खंयसर आसा हे मोग? घरांतलो वावर करून शेतांत राबून त्यो आवयो भुरग्यांची अपुरबाय करताल्यो. आतां आवयो चड करून शिर्विसेक. सांजवेळार हुश्श करून येवप. 'लिसांव बरो केलाय की ना?' वेव्हारी वागणें आनी वेव्हारी उलोवप. आयदनां नितळ करपाक वीम, बरतन, पितांबरी, मोलकरणीन आयदनां नितळ धुल्यार बरें ना जाल्यार दुयेंसाक आमंत्रण!

म्हजी आवय चुलींतल्या गोबरान आयदनां निवळ करताली. वांगडा नाल्लाचो काथो. त्या आयदनांत पळोवन केस उगोवं येता इतली चकचकताली. हारशाची गरज नासली. नळाचें उदक मोटरान चडटा. पूण तें घेवपाक लेगीत

कश्ट पडटात. पयलीं बायलो बांयेचें उदक शेंदताल्योत ना जाल्यार दोन कळश्यो घेवन न्हंयचें उदक हाडटाल्यो. वॉकिंग आनी सगळे कुडीक व्यायाम मेळटालो. न्हंयचेर उंबळप, रेंवेंचेर कापडां सुकोवन घडी घाल्यार फेर्र लेगीत ताका उणे पडटालें.

गोड–धोड करपाचें जाल्यार मसालो फातराचेर वांटचो पडटालो, आनी त्या जेवणाची रुच खूब वेगळीच आसताली. दारांतल्यान वचपी वाटसरूच्या तोंडांत लेगीत त्या सुरबूस सुवादीक वासान तोंडांत उदक सुट्टालें. बायलांक लेगीत बरो व्यायाम जातालो. पूण हो मसालो वांट्टा आसतना तातूंत भरसपी फातरांतलीं पोशक खनीजां मेळटालीं तीं वेगळींच. हो आसलो सैमाचो चमत्कार.

आतां मिक्सर, लायट तर जायच, पूण मिक्सराचो मूड लेगीत केन्ना ना तर केन्ना बिगड्डालोच. मागीर दवरणींतलो फातर परतो मुखार येता आनी 'जुने तें सोने' अशें म्हणपाची वेळ येता. घरांत मांस, नुस्तें आनी मिक्सराचो रुसवो आनी मागीर मजतीक धांवता तो फातर!

तिखसाण, तांदूळ, लोणचें, पापड आतां सगळेंच कशें रेडीमेड मेळटा, पूण ह्योच गजाली घरांत केल्यार त्यो नितळ आनी बऱ्या मनान करून अपुरबायेन सगळ्यांच्या (परिवाराच्या) मुखांत मोगान घालपी आनी खातना अपुरबायेन नियाळपी माईचो उगडास आवर्जुन येता.

आतां ॲल्युम्युनियम, स्टील, कंवची आनी हेर धातूंचीं आयदनां. तेन्ना तांचें पितळेचीं आयदना आनी कुंबारागेल्या मातयेच्या बुडकुल्यांत, तवलींत रांदप, ते चुलीचेर खूबशें विटामीन मेळटालें आनी रुच्चीक लागतालें.

आतां गॅस, कुकर... एक तर कच्चें ना जाल्यार मेण. मांय शिताचो एक कण चिमटींत धरून सगळ्या शिताचें परिक्षण करतालीं. 'शिता वयल्यान भाताची परिक्षा', म्हणटात तें हेंच. फांत्यार जाग येताली तेन्ना आवयच्या म्होवाळ गितांचो आवाज येतालो. जात्यार दळटना ती गोड गोड होवयो म्हणटाली. आतां हीं लोकगितां दुर्मीळ, लुप्त जाल्यांत. त्या ओव्यांत खूब अर्थ, मोग आनी

आपलेपण आसतालें. ताचे मुखार टेप, रेडिओ फिको. आवयचे मांडयेर तकली दवरून तीं गितां कानांत साठतालीं आनी दोळ्या मुखार धव्या फुल्ल पिठाची रास दिश्टी पडटाली. हे सगळे उगडास आयल्यार दिसता, 'ल्हानपण देगा देवा'. गांवा भायर सैमाचे बगलेंत भोंवडी मारल्यार पांचवीचार शेतांभाटां, रंगीत फुलां, रसरशीत फळां, उसाचे मळे, तरकारीची वाफ, सवणी-सुकणीं, न्हंयो, व्हाळ, दोंगर चोयणार मनीस सैमाच्या परिसरांत गुल्ल जातालो. आपणालें अस्तित्व विसरतालो. मागीर टीव्ही ची गरज कित्याक?

आतांची आवय गॅसाचेर कितें शिजयता? भुरगीं केन्ना आयल्यांत तीं कितें करतात? हाची खबर तिका नासता. ती टीव्ही वयल्यो कार्यावळी पळोवपाक गुल्ल आसता. मदींच भुरग्यान कितेंय जाप विचारल्यार एक तर रागान तांबडीगुंज जाता, ना तर फाटीचेर एक सणसणीत धपको मारून भुरग्यांक भायर धांवडायता. टीव्हीची बगी बुद्द घेतल्यार बरें ना जाल्यार घरांतलीं शांती, समाधान ना जाता. पोरसांतलीं ताजी तरकारी चुलीचेर रांदप आनी आवयचो मोग हाचें मिलन भुरगीं निरोगी उरतालीं.

पोरसांतलीं ताजी तरकारी तातूंत ना गरम मसालो, पूण जाताली मात अगदी मस्त मस्त. आतां साकांत तांदूळ भरिल्ले भशेन फ्रिजांत तरकारी भरतात. लायट गेल्यार तो वास? बाप रे बाप नाक धरूनच फ्रीज उक्तो करचो पडटा. बाजारांत रसरशीत ताजी तरकारी मेळटा, पूण ती हाडटलो कोण?

घराच्या दारांतल्यान आनी जनेलांतल्यान शीतळ वारो येता. पूण तो नाका. बटन लावन कृत्रीम वारो जाय, फेन जाय. मदींच लायट वता आनी पेपराचो उगडास येता. मागीर हाताक व्यायाम दिवचो पडटा. 'कितें गे बाय लायटान थारायलां? जीव नाका जाला, 'ह्या उतरांनी जीव समाधान करून घेवप. आतां फ्रिजांतलें उदक जाय. फिल्टराचें जाय. पूण तेन्ना सुती कापडाच्या चार घड्यांनी उदक गाळून मातयेच्या कुंड्यांत भरतालीं. सैम आपणाले थेअरीन उदक फिल्टर करतालो.

दनपारचें जेवण कोण शेता-भाटांत, भुरगीं शाळेंत पूण रातीचें जेवण मात एकठांय जावन. भुरगीं सान्न मारून शेंदरी ना जाल्यार साक घालतालीं. वण्टीक तेंको दिवन भारतीय बसकण. मांय पोसणी करताली. दीस भर घडिल्ल्या गजालींचो उलगडो करत जेवण जातालें. घरच्या दादल्यांक आनी भुरग्यांक तृप्त करून आवय मुखांत घास घालताली.

आतां डायनिंग टेबल, थोडीं टेबलार आनी हेर जाणां सकला, जेवणाची मांडावळ मेजाचेर. ना आग्रो, ना मोग, बेश्टो वेव्हार, दर एकलो आपल्या चितनांत. रांदप अगदी मेजून (देड वाटी तांदूळ... अर्दी वाटी रवो... पांच चपाती करूं की आठ चपाती? अशी घरकान्न घरकाराक विचारता) मागीर एक सोयरो आयल्यार खपना. 'जेवून आयल्यात की थोडें रांदू' असो औपचारीक प्रस्न आयकूंक मेळटा. तेन्ना चार-पांच अदीक लोक जेवणांत खपताले. हाचें कारण म्हळ्यार रांदपिनीचो निसुवार्थ मोग आनी सोयऱ्या वयलो भावार्थ.

आतां मनीस कितलोय गिरेस्त आसूं, ताचे कडेन बंगलो, गाडी नासल्यार तो समाजांत दुबळो आसा अशें समजतात. पूण जाचे कडेन ह्यो सूखसोयी आसात, तो खूब व्हड! तर ह्या आधुनीक भुलभुलैयांक लागून मनीस मनशाक वळखना जाला. तो आपणाले गुर्मीतच रावता. मनीसपण काबार जालां. सूखसोयी भशेन मनीस लेगीत बदल्ला. ताका आवय बापायचो विसर पडला. दुडू कितले जोडू आनी आधुनीक सूखसोयीचो कितलो उपेग घेवूं हें मनीस खूब चिंतूक लागला. मोग मनीसपण उणें जालां, पूण निमाणें दुडवा परस मोगूच श्रेश्ठ आसा. आनी ताचो सांगात मनशाक शाश्वत आसा, हें सत्य कोणेच विसरचें न्हय.



# सूख आसता नितळ चालणुकेंत

सूख कित्यांत आसा हें समजून घेवप म्हत्वाचें आसा. तशें पळयल्यार खंयचेच भायले गजालींत सूख वा दुख्ख नासता तर तें आपल्या आपल्या काळजा भितरच लिपिल्लें आसता. आमी खंयचे गजालींत सूख आनी खंयचे गजालींत दुख्ख मानतात तें आमीच थारावपाचें आसता. अर्दो ग्लास पळोवपाची वृत्ती लेगीत जायत्या जाणांची मानसीक वृत्ती आमकां दाखोवन दिता. ह्या ग्लासा कडेन पळोवन आपलो अर्दो ग्लास रिकामो आसा म्हूण जायते जाण दुख्खी जातात, तर जायते जाण हो ग्लास अर्दो तरी भरला म्हूण समाधानी आसतात. आपल्या कडेन जें आसा, तातूंत सूख मानपी लोकांची संख्या खूब उणीच आसा, तर आपल्या कडेन जें आसा तातूंत समादानी रावनासतना आनीक गजालींची अपेक्षा करपी लोकांची संख्या खूब व्हड आसा. हे खातीर सकयल दिल्ल्या मुद्यांचेर मातशें चिंतप करात.

* सुखाचें एक दार जरी बंद जालें तरी दुसरें दार खंय तरी उक्तें जाताच.
* कश्टान सूख मेळोवपी मनीस खुशाल आसता, तर कश्ट करिनासतना जाच्या वांट्याक सूख येता, तो मनीस केन्नाच समादानी जायना.
* आळसाय आनी व्यथा सुखाचेर उदक भोंवडायता.
* सूख नशिबवान मनशाची परिक्षा घेता, तर संकट म्हान मनशाची परिक्षा घेता.
* एक फूल दुसऱ्या फुलाचो केन्नाच दुस्वास करिना, तर दोगांय

मेळून सगळो वाठार सोबीत करतात. मनशान हातूंतल्यान खूब किते शिकपा सारकें आसा.

* मानसीक अशांतीचेर जो जैत मेळयता, तो खऱ्या अर्थान सुखी आसता.
* सद्‌गुणा खातीर सूख वाडटा आनी सत्य ह्या सुखाचो आदार आसता.
* पयसुल्याच्या आनी चड करून आपल्या दुस्मानाच्या दुख्खांत जो मनीस सूख मानता तो केन्नाच सुखी जायना.
* दर एका मनशान आपल्या समादानाची एक मर्यादा मानून घेवंक जाय. जें आपणाक चड उणें मेळ्ळां तातूंत समादान न मानपी मनशाचें मन सदांच तळमळ करीत आसता. असो मनीस केन्नाच सुखी जायना.

ह्यो गजाली दरेकल्यान जाणा जावन घेवंच्यो आनी तेतरेची आपली चलणूक दवरची. सूख हें मागून मेळपाची वस्त न्हय, तर अंतस्करण नितळ निर्मळ दवरल्यारच सूख तुमचेलागीं येतालें.



# शाणो कुणबी

ह्या संवसारांत तग मारपाचें आसल्यार मनशान आपले चतुराईन काम करपाक जाय. दुसऱ्याक दुखोवप ना आनी आपणेंय सुखीं जावप अशी बुद्द आसली जाल्यार ताचें फावतलें. ही एक अशीच ल्हानशी काणी.

एका दोंगराच्या पायथ्यार एक ल्हानसो गांव आसलो. त्या गांवांत एक गरीब कुणबी आपल्या कुटुंबा वांगडा रावतालो. रानांत ताचें ल्हानशें शेत आसलें. पूण तातूंत मेळपी साप्प उण्या उत्पन्नांतल्यान ताचें आनी ताच्या कुटुंबाचें पोट भरनासलें. ह्या कारणांक लागून तो कुणबी सदांच चिंतेस्त आसतालो. एक दीस ताणें देवाक आर्गां दिलीं– "देवा, म्हज्या शेतांत खुबशें पीक येवंदी. मागीर तातुंतलें हांव तुका दितलों." देव ताचेर रोखडोच प्रसन्न जालो. "म्हज्या लाडक्या भक्ता हांव तुजेर प्रसन्न जालां, आतां तुका कितें जाय तें सांग." कुणब्यान देवाक सांगलें, "देवा हांवें म्हजें मागणें तुका सांगिल्लेंच आसा, आतां तूं सांग तुका पिकाचो वयलो भाग जाय काय सकयलो." देवान सांगलें "म्हाका सकयलो भाग दी."

जालें, त्या वर्सा कुणब्यान शेतांत जोंदळो पेरलो. देवाच्या बेसावान भरपूर पीक आयलें. शेतकारान कापणी केली. जेन्ना देव आपलो वांटो व्हरूंक आयलो, शेतकाऱ्यान वयलीं वयलीं कणसां घेवन सकयलो भाग देवाक दिलो. शेतकाऱ्याच्या चतूर सभावाबद्दल देव मनांत हांसलो आनी ताणें म्हणलें, "आरे शेतकारा तुवें म्हाका फटयलें. हे फावटीं मात तूं म्हाका

वयलो भाग दिवंक जाय.'' देवाची आज्ञा मानून शेतकाऱ्यान अंदू भुईमूग लायलो.

जालें, खूब पीक आयलें. शेतकाऱ्यान भुईमूग काडलो आनी देव आपलो वांटो घेवंक हजर जालो. पूण शेतकाऱ्याच्या चतुराईक पळोवन देव धादोशी जालो. तरी पूण शेतकाऱ्याच्या चतुराईची परिक्षा घेवपा खातीर देवान ह्या वर्सा पिकाचो अर्दो वयलो आनी अर्दो सकयलो भाग मागलो.

देवाक हयकार दिवन शेतकाऱ्यान आतां शेतांत मको लायलो. देवाच्या बेसांवान जायतें पीक आयलें. सुगीच्या वेळार देव हजर. देवाक वयले तुरे आनी सकयले बुडके दिले. शेतकाऱ्याची चतुराई पळोवन देव खुशाल जालो. ताणें म्हळें ''आरे शेतकाऱ्या अंदू लेगीत म्हाका फटयलो. तरी लेगीत हांव तुजे फाटीशी आसा. तुज्या कुटुंबाच्या सुखा पसून तुवें म्हाका लेगीत फटयलें.''

''हरकत ना हांव सदांच तुजे फाटल्यान आसतलों'' अशें म्हणून देव नाच्च जालो. तो शेतकार मात सदां सुखी जालो. हातूंत 'देव' हे प्रतीक समजून ही काणी आमी आमच्या नित्याच्या वेव्हाराक जोखून पळोवया आनी सुखासमादानान रावंया.



# संकटांचेर मात करात

मुखार आयिल्ल्या संकटाक तोंड कशें दिवपाचें? हे गजालीचें शिकप घेवचें जाल्यार सैम, झाडांपेडां, सवणीं सुकणीं, न्हंयो व्हाळ ह्यो देखी आमच्या मुखार खुबशो आसात. तशें पळयल्यार देवान मनशाकूच खरो बुदवंत केला. मनशाक जाय तितली बुद्द देवान दिल्या. आयज मनीस खंयचे खंय पावला हाची खबर लागना. मनशाचे बुद्दीचें चिंतप केल्यार मनशाची मती गुंग जावन वता. पूण मनीस मातसो 'भावना प्रधान' आसा. मातशें संकट आयलें जाल्यार तो निराश जाता. आनी तकलेक हात लावन बसता. आपल्या जिवितांत कांय अर्थ उरलो ना अशें तो चिंतता. पूण मोनजात, जांव झाडांपेडां, हें चिंती नासतना आपणाल्या जिविताचो मार्ग सोदता. तीं संकटाचेर मात करतात, आनी खुशालकायेन जिवीत सारतात. 'ह्याला जीवन ऐसे नाव' हें सत्य आसा.

आतां उदकाचें पळयात. ताच्या मार्गांत फातर येतात, पूण ते फातर धुकल्ले ना जाल्यार ताचे कुशीन वळसो घालून उदकाचो झरो धांवक लागता आनी आपणालें सपन पुराय करता.

नेटाचो थंड वारो आंगाक झोंबतालो. झाडांपेडां बाबडीं थरथरतालीं. भिरांतीन जसो भुरगो आवयक वेंग मारता ते भाशेन तीं धरतरीक वेंग मारून तिचे वटेन बागवतालीं. पावसाचो एक एक थेंब म्हणल्यार बोरां कशीं नळ्यांचेर थाड थाड पडून ताचें नृत्य चलिल्लें. तातूंत विजेची गडबड. काडकाड आवाजान कानठळ्यो बसताल्यो आनी मळबांतल्यान उजवाडाचो

झोत धरतरेचे दिकेन झेप घेतालो. खंयसर पडली दिसता बाबडी? हांवें स्वताकूच प्रस्न केलो. मनीस, मोनजात भिरांतीन थरथरतालीं. म्हज्या दारा मुखार आंगणांत एका झाडाचो आदार घेवन तवशीची एक वाल चडटाली. पूण त्या वाऱ्याच्या झोतान आनी पावसाच्या माऱ्यान बाबडीची कंबरूच मोडली. तिणें आपले परीन जाय तितले यत्न केले, पूण सैमा मुखार ती नतमस्तक जाली. ती धप्प दिशीं धरतिचेर आदळ्ळी. हांव जनेलांतल्यान ह्या सैमाचो खेळ नियाळटाली. म्हाका ते मोडके वालीचे खूब चुरचुरे दिसले. दुसऱ्या दिसा तर ती सामकीच बावून गेली. तिच्या आंगा वयल्यान उदकाचे लोट वचून ती सामकी मातये भितर आसली. हांवें चिंतलें आतां ही बाबडी कशीच तग धरची ना! पूण म्हजी ती पिशी कल्पना फोल जाली. चार दीस ती तशीच निपचीप पडून रावली. 'प्रयत्नांतीं परमेश्वर' हे म्हणीचो तिणें उपेग केलो. आनी तिणें नेटान यत्न सुरू केलो. आनी परतो तिणें त्या झाडाचो आदार घेतलो आनी ताका घट्ट वेंग मारली. संकटाचेर तिणें जैत जोडलें. ती वयर वयर चडली. सगल्या झाडाचेर तिणें आपणालें अस्तित्व पसरलें. पांचवीचार पानां, तातूंत हळडुवीं फुलां. कांय बरीं सोबीत दिसूंक लागली. मागीर बारीक बारीक तवशीं. आनी पळयतां पळयतां मोटी मोटी तवशीं झाडांचेर लकोंक लागलीं. बाबडे ते वालीचेर सैमान कितलो व्हडलो आघात केलो. पूण तिणें भियेनासतना आनी आत्मविस्वास वगडायनासतना धिरान, नेटान संकटाक तोंड दिलें. ताचेर मात केली आनी आपणालें जिवीत फुलांफळांनी पालेवन सोडलें. ते प्रमाण आमी लेगीत संकटाचेर हार मानी नासतना देवाचेर भावार्थ दवरून मात करपाक शिकूंक जाय.

दुसरी आनीक एक गजाल सदांच म्हज्या दोळ्या मुखार येता. आमगेल्या आंगणांत नाल्ल, आंबो, पणस, रामफळ, चिकू आनी हेर जातीचीं झाडां आसात. ताचेर खूब चानयो रावतात. सकाळीं फांत्यार जाग येता. त्या

सवण्यांच्या किलबिलाटान आनी खारुलीच्या सुगम संगीतान. ह्यो चानयो बेश्ट्यो झाडाचेर रावतात अशें ना! घरा भितर लेगीत त्यो आपणालो संवसार थाट्टात. घरां भितर भोंवडी मारतात. हातीक जें लागता तें घेवन धांव मारतात. आमगेले घराचे वण्टीचेर सुवात आसली. तिचे भितर एक चानी आनी तिगेलो परिवार खुशालकायेन रावतालो. तीं घरांतले सामान सकयल उडयतालीं. खावपाची वस्त घेवन वतालीं. तांकां भायर घालपाक आमी खूब पळयलें, पूण व्यर्थ! मोनजात आसा अशें चिंतून आमी ओगी रावतालीं. एक दीस तिगेलें धाकटुलें पील भोंवतना धरतरीचेर पडटा. पील घरांत धांवता आनी आवय आकांत करता. ताका वयर वचपाक येना. तें भिरांतीन थरथरूंक लागता. आमी एके लांब बडयेन ताका घरांत घालें. माडा वयल्यान देंवून तागेली आवय धावून आयली. तिणें तांकां वयर चडपाचे धडे दिवपाक सुरू केलें. दोन तीन वेळा तें जमनीचेर आदळ्ळें. पूण आवयन आनी पिलान जिद्द सोडली ना! पिलान चंग बांदलो. कितेंय करून माड चडून घरा गेले बगर जावंचेना आनी ताणें शिखर गांठलें. माड चडलें आनी घरा पावलें. घरा पावतकूच तागेलें संगीत 'तांगेलें बाळ घरा आयलें' म्हणून तांगेर पार्टी चल्ल्या. बाबा हासूंक लागलो. तर अशी ही मोनजात लेगीत संकटाचेर मात करतात. शिखर सर करतात तर आमी बुदवंत मनशां!

आनी एक अशीच गजाल आसा. आंब्याच्या झाडाचेर किराचो घोंटेर आसात. तातूंत एक कीर आनी पिलां रावतालीं. रानांत, बागेंत भोंवडी मारून पिला खातीर फळां, तांबड्योगुंज मिरसांगो घेवन येतालीं. पिलांक भरयतालीं. आवय येतकूच 'आ' करून चोंच उक्ती करतालीं. ती तांगेले चोंचींत चारो घालतालीं. पिलां मात्शीं जाण्टीं जालीं. तांकां पाखां फुटूंक लागलीं. आवय भायर गेली जाल्यार तीं घोंटेराचे भायर येतालीं. पांखां हालयतालीं. मातशीं मातशीं उडी मारतालीं. एक दीस पोटा खातीर आवय

रानांत गेली, आनी एक पील उडटना सकयल पडलें. झाडापोंदाक तण पालो. ताका लागून ताका लागलें ना! पूण ताका घरा वचपाक समजना जालें. म्हणटासर वाड्यांतलीं भुरगीं ताचे भोंवतणी एकठांय जालीं. एका जाण्टेल्यान भुरग्याक भेडसायलें 'आरे, ताका हात लावं नाकात, ना जाल्यार तागेली आवय ताका घोटेरांत घेवची ना!' भुरगीं ओगी रावलीं. तितल्यांत आवय आयली. तिणें ताका पळयलें. ती ताचे भोंवती भोंवडी मारताली आनी ताका वयर चडपाक सांगताली. पूण ताका तें जमना जालें. आवय एकदां घोंटेरांत तर एकदां पिलां कडेन. रातभर हो खेळ चलता आनी दुसऱ्या दिसा पिलान अशीं पांखां फुलयलीं आनी भरारी मारली, तें सामकें घोंटेरांत पावलें. आवय खोशेन पिशी जाली. हें सगळें पळयत आशिल्ल्या आमकांय खूब खूब खोशी जाली. एक पील आपले आवय कडेन पावलें म्हूण!

जिवितांत संकटा येत रावतात. पूण तांकां वेंग मारून, आपलो वगतूच वायट म्हूण कपलाचेर हात मारपी लोक ह्या संवसारांत जाय तितले आसात. आनी आयिल्ल्या संकटाचेर मात करून आपणालें जिवीत भांगरा भशेन पर्जळीत करून सुखा समाधानान नांदपी लोक लेगीत खूब आसात. आपणालें जिवीत खुशालकायेन जगपाचें जाल्यार संकटाचेर मात करूंक जाय!



# फुलांच्या जगांत

भुरग्यांक फुलांची उपमा दितात तें योग्य आसा, अशें दिसता.

'फूल आनी मूल' अशी समजिकाय आसा. 'भुरगीं म्हणल्यार देवाघरचीं फुलां.' भुरगीं फुलां भशेन निर्मळ, नितळ मनाचीं आसतात. तांगेले मतींत हें तुजें आनी हें म्हजें हो भेदभाव ना! तीं निसुवार्थी भावार्ती आसतात म्हणूनच भुरग्यांक देवाघराच्या फुलांची उपमा दिल्या.

फूल म्हणल्यार नदरे मुखार येता तो ताचो आकर्शक रंग, ताचो सोबीत आकार आनी मनाक धुंद करपी ओडलायणो वास. चड करून बायलांक फुलांचो घोस्त खूब आसता. क्सलेंय फूल पळयल्यार ती बेगीन बेगीन तें उखलता आनी माथ्यांत माळटा. नाजाल्यार तांचो सोबीत झेलो गुंथून आपल्या काळ्या लांबचे लांब, नाजूक केंसांत माळटा आनी केंसांची सोबीतकाय वाडयता. फूल म्हणल्यार सवाशिणींचें पवित्र, शूभ लक्षण आसा.

भुरगेंपणांत आमकां फुलांची हौस खूब आशिल्ली. आमगेल्या कुळारा घरा फाटल्यान व्हड पोगसू आसा. तातूंत दर एका नमुन्यांची फुलझाडांची लागवड केल्ली आसली. तातूंत गुलाब, शेवंती, रोजां, आबोलीं, मोगरीं, धालां, दासाळीं अशीं फुलझाडां आशिल्लींच. घरा फाटल्यान एक सोबीत धाकटुलें गार्डनच म्हजे माईन लायिल्लें. कांय फुलां पावसांत तर कांय गिमात फुलतात. श्रावण म्हयन्यांत जायत्यो बायलो म्हजे आवय कडेन फुलां पासत येताल्यो. म्हजी आवय खोशयेन तांकां फुलां दिताली. आपणालीं फुलां देवाक पावतात म्हण तीं धादोशी जाताली.

दारा मुखार गुलाबाचें एक व्हड झाड आशिल्लें. बापरे बाप! ताका मोटीं

मोटीं गुलाबी फुलां, पान म्हण दिश्टी पडनासलें. सगलीं फुलांच गुलाबी, गुलाबी सगळो वाठार मंद गोड सुवासान दरवळून वतालो. म्हजी आवय आमकां गिन्यान सांगताली, 'बाय गो, हो गुलाब मगो खरो आसा.' आमी आवयक जाप विचारतालीं, 'मागीर फट गुलाब खंयचो गो माय?' आवय खदखदून हांसताली आनी सांगताली. 'म्हज्या पिशा भुरग्यांनो ह्या गुलाबाचो गुलकंद, गुलाबजल करतात, हेर गुलाबांचो जायना म्हूण तो खरो गुलाब. आयलें मगो मतींत?' ह्या गुलाबाचीं टपोरी टपोरी फुलां आमी केंसांत माळून वाड्यांत भोंवडी मारतालीं. आयज लेगीत त्या गुलाबाच्या उगडासांत म्हजें मन पिशें पिशें जाता.

दासाळीं, ढालां, आबोली वेगवेगळ्या रंगांत फुलतालीं. शेंवत्यांचे घोस, आबोल्यांचे गोण आनी मोगऱ्यांच्यो आटयो, केंसांत सोबून दिसताले. आमगेलो आलतार सदांच सोबीत फुलांनी सोबतालो. पोरसांत आनीक एक नमुन्याचें झाड आशिल्लें. ताका भुईचंपी म्हणटालीं. पावसांत तांकां हळडीच्या पानां भशेन पानां येतालीं मागीर तीं सुकून वतालीं. मुड्यो धरती भितर रावताल्यो. मर्दींच एक दीस जमीन फुगून येताली. आवय फांत्यार पोरसांतलीं दंवाची तरकारी हाडूंक वतालीं. तेन्ना तिच्या तें दिश्टी पडटालें. आमी फांत्यार साकर न्हिदेंत आसतना ती आमकां उलो मारताली.

'बाय, बेगीन उठात, भूंयचाफो तुमकां साद घालता' आमी दोळे चोळीत पोरसांत धांवतालीं. मांय ती सुवात शेणान सारयताली. सांज मेरेन कळे येताले आनी दुसऱ्या दिसा फांत्यार धव्वी जांबळी सरभरस रंगाचीं फुलां घमघमाट घेवन धरतरी वयल्यान वयर येवन हो सोबीत संवसार नियाळटालीं. ताका पान ना! फक्त सगलीं फुलांच फुलां! कवायतीन उबे राविल्ल्या शिपायां भशेन आसा काय ना धनयाची किमया?

दारा मुखार पांचवीचार मोगरी थरारून उबी आशिल्ली. आवय तिचो चड मोग करताली. तिका आळें करून आपुलकायेन उदक घालताली तर ताच्या बदलाक ती भर भरून धव्या चान्याभशेन फुलां माईंच्या पालवांत घालताली.

माय ताचो गुंथून करून पयलो झेलो देवाक घालताली आनी मागीर आमकां दोगांय धुवांक दोन झेले करताली. तकलेक पचपचीत तेल घालून घट्टमूट वेणयो घालताली, आनी ताचेर ते झेले. शाळेंत वतना कितलो वगत ती आमगेले फाटकुरे आकृतीक अपुरबायेन नियाळटाली. सगळीं पोरसांतलीं फुलां. पूण चलयाची जातूच फुलांक अदाशी. चांफीं झाडाचेर चडून काडचीं पडटालीं. पारजताच्या झाडाक हालयतकूच धव्या फुलांचो शितिडो पडटालो. धवीफुल्ल फुलां ताका केसरी दांडो. फूल नदरे मुखा वयल्यान हाल नासलें. ओंवळां मात हुशार. फांत्यार तीन वरांचेर तिचीं फुलां पडटालीं. आवयची नदर चुकोवन आमी फांत्यार त्या झाडा पोंदा पावतालीं.

रातीचें भायर वचपाक भिरांत दिसताली, पूण फुलांचे आशेक आमगेली भिरांत ना जानाली. आमगेल्या गांवांत एक आख्यायिका आसली, ह्या झाडा बगलेंत काळ्याशिंग्या म्हूण देंवचार रावता. तो भुरग्यांक धरता पूण आमकां फुलांचें पिशें. आवय भिरांत घालताली, "आगो, बाय फुलां हाडपाक वचूं नाकात, तो देंवचार तुमकां धरतलो." पूण आमगेले मतींत तें वचनासलें. केंसांत ओंवळांचे पोड माळून वाड्यांत भोंवडी मारतना आमकां काळ्या शिंग्याचो विसर पडटालो.

दसऱ्याच्या मोसमांत घोगंटीचीं फुलां गांवा साकून देड किलो मिटर पयस धवीं, जांबळी, केसरी, गुलाबी फुलां आमकां उलो मारतालीं. व्हड मनशां त्या फुलां कडेन आकर्शीत जातालीं. मागीर आमी तर भुरगीं. हो सैम नेमच आसा. थंयसर सोरोप वावुरतालो. पूण आमगेलो धोळको थंयसर पावतालो. सांजवेळार कळे हाडून झेले केल्यार सकाळीं ते फुलताले. घरा येतकूच आवय फाटीचेर धपाटे मारून मलमपट्टी करताली. पूण त्या फुलांच्या मुखार आमकां धपाट्यांचो विसर पडटालो. तर अशें आसा भुरगेंपण आनी फुलांचें पिशें. म्हणूनच म्हणटात, 'ल्हानपण देगा देवा'.



# दिल्ल्या मापान घेवप!

आपणाक गरिबीची झळ लागली झाल्यारच दुसऱ्यांचे गरिबीची जाण जाता ताची देख दिवपी ही एक कथा.

एक गांव आशिल्लो. त्या गांवांत एक दुबळो जाण्टो मनीस आशिल्लो. ताका तीग जाण पूत आशिल्ले. ताच्या घरा मुखार एक पेर आशिल्ली. ते पेरीक तिनूच फांदयो आशिल्ल्यो. सदांच तें झाड पेरांनी भरतालें. ताचेर त्या बापूय पुतांचे पोट भरतालें. जेन्ना बापूय चड पिडेस्त जालो तेन्ना ताणी तिगांय पुतांक उलो मारलो आनी म्हणलें, म्हज्या मोगाळ पुतांनो, तुमकां दिवपाक म्हजे कडेन कांयच ना, आसा तें एक पेराचें झाड. ताका लागतात तीं पेरां तिगांय वांटून खायात. आनी एक दीस बापूय मरता. मागीर हे पूत तीन फांदयो वांटून घेतात. सदां रातीचे जागो रावन एकलो झाडाची राखण करता. एक दीस व्हडलो भाव झाडा पोंदा बसून राखण करतालो. तितल्यांत एक गरीब मनीस ताचे मुखार येता आनी म्हणटा 'म्हज्या भावा हांव उपाशीं आसा, म्हाका खावपाक कितेंय दी'. व्हडल्यान म्हळें 'म्हजे कडेन आसा तें फकत एक झाड. ह्या झाडाचे एके फांदयेर म्हजो हक्क आसा. तूं हे फांदयेचीं फळां काड. मात त्या दोन फांदयांक हात लावं नाका.' त्या गरिबान ते फांदयेचीं सगळीं फळां काडून व्हेलीं. तो त्या दिसा उपाशी रावलो. दुसऱ्या दिसा मदलो बसलो राखण करूंक. ताचे कडेनय तो दुबळो मनीस आयलो. मदल्यान लेगीत आपले फांदीचे पेरू ताका दिले. आनी तो उपाशी रावलो. तिसऱ्या दिसा तिसऱ्या भावाची पाळी. ताचे कडेनय तो दुबळो मनीस आयलो. ताणेंय आपले फांदयेचीं फळां दिलीं आनी आपूण उपाशी रावलो.

मुखार कांय दिसांनी तो दुबळो मनीस परतून आयलो. ताणें व्हडल्या भावाक सांगलें- 'तुवें म्हजी भूक भागयल्या, तूं म्हजे वांगडा चल, हांव तुका

इनाम दितां.' वाटेंत एक शेत आशिल्लें, त्या शेतांत धवी फुल्ल सवणीं बशिल्लीं. त्या मनशान भावाक सांगलें, 'तुका कितें जाय तें माग.' व्हडल्यान सांगलें, 'ह्या शेताचें व्हडलें कुरण जावंदी. ह्या सवण्याच्यो गायी जावंदी आनी हांगा एक व्हड डेअरी जावंदी' आनी खरेंच थंयसर एक तणाचें कुरण, धव्यो फुल्ल गायी, दूद-तूप, लोण्यांची डेअरी आनी नोकर चाकर जाले. त्या दुबळ्यान सांगलें- 'आयज सावन तूं हाचो धनी जालो.' व्हडल्यान बऱ्या गिरेस्ताचे धुवेकडेन लग्न केलें आनी तो खुशालकायेन रावंक लागलो.

दुसऱ्या दिसा तो दुबळो मदल्या कडेन गेलो. ताणें ताका म्हळें, 'म्हज्या भावा तुवें म्हजी भूक भागयल्या. हांव तुमका इनाम दितलों. तूं म्हजे वांगडा चल.' ताका घेवन तो एके तळयेर आयलो. 'सांग तुका हांव कितें इनाम दिवं?' 'हे तळयेचें उदक सोरो जावंदी, आनी हे देगेर सोऱ्याची एक व्हड फॅक्टरी जावंदी.' ताचें उदक सोरो जालें आनी ते फॅक्टरीचो मालक मदलो भाव जालो. ताणेंय गिरेस्ताचे चलयेकडेन लग्न करून घेतलें आनी तो खुशालकायेन रावंक लागलो.

मागीर तो दुबळो निमण्या भावा कडेन गेलो. ताका वांगडा घेवन आयलो. 'म्हज्या भावा तुवें म्हाका पोटाक घालां. तुका कितें इनाम जाय सांग.' 'म्हाका एक बरी बायल दी. ती सगळ्यांत परफेक्ट जाय.' ताका घेवन तो राजा कडेन गेलो. राजाची सोबीत चली आशिल्ली. तिका बऱ्या बऱ्या राजकुमारांनी मागणी घाल्ली. राजा ह्या चल्याक पळोवन हांसूंक लागलो तेन्ना तो गरीब दुबळ्या वेशांतलो राजाक म्हणूंक लागलो, 'राजा तूं हासूं नाका, हाचो निर्णय देवाक घेवं दी. तूं त्या दोन राजकुमारांक आनी ह्या चल्याक द्राक्षाची एक एक वाल लावपाक लाय. जाचे वालीक द्राक्षां येतात ताका तुजी चली दी.' राजान 'बरें' म्हळें. त्या गरीब चल्याचे वालीक द्राक्षां भरून गेलीं. वचन दिल्ले प्रमाण राजान आपली चली निमाण्या भावाक लग्न करून दिली. पूण राजान तांकां धुकलून घालें. तीं दोगांय रानांत आयलीं. एक खोंप बांदून तातूंत रावलीं.

फुडें एका वर्सान तो आंजवरी दुबळो जावन व्हडल्या भावा कडेन आयलो. 'म्हज्या भावा म्हाका चड भूक लागल्या. एक चिजाचो कुडको म्हाका दी.'

व्हडल्याक राग येता, तो ताका म्हणटा, 'अरे भिकाऱ्या, तुज्या सारक्या भिकाऱ्यांक हांवें चीज दिली जाल्यार हांव भिकारी जातलो.' आनी कितें अजाप तें शेत कुरण जालें. गायेचीं सवणीं जालीं. डेअरी नाच जाली. आनी व्हडलो भाव भिकारी जालो. बायल सोडून गेली. मागीर तो आंजवोरवी दुसऱ्या भावा कडेन वता. 'म्हज्या भावा, हांव भुकेल्लो आसां म्हाका एक कोप सोरो दी.' 'आरे भिकाऱ्या तुका सोरो दिवन हांव कितें भिकारी जावंदी?' आनी खरेंच ती फॅक्टरी ना जाली. आनी तळ्याचें परतें उदक जालें. तो गरीब जालो. बायल सोडून गेली.

तो आंजवोरवीं निमाण्या भावा कडेन गेलो. तांकां अंगाचे बरें वस्त्र नाशिल्लें. पोटभर अन्न नाशिल्लें. एंजल ताका उलो मारता, 'म्हज्या भावा, म्हाका पोटाक घाल. आयज एक दीस रावंक सुवात दी.' ताचे कडेन एके भाकरीचें पीठ आसता, बायल सांगता, ही भाकरी आयज तूं खा, आमी एक दीस उपाशी रावतात. आयज आमी भायर न्हिदतात. तूं भितर न्हीद. आनी भाकरी भाजूंक बसली. भाकरीचें पीठ काळें आशिल्लें, तें धवे फुल्ल जालें. ती दोगांय अजापान वयर पळोवंक लागलीं. खोपीचो राजवाडो जालो. नोकर चाकर, घर सगळ्या वस्तूंनी भरून गेलें. त्या दुबळ्या मनशाचो आंजवोरवी जाता. तीं दोगांय दिमी घालून ताका हात जोडटात. आंजवोवरी सांगता, 'तुमच्या मोगाळ आनी मजत करपाच्या सभावाक लागून हांव तुमचेर प्रसन्न जाला. तुमचेर म्हजें बेसांव आसा. आयज सावन तुमचे वायट दीस गेले. आतां खुशालकायेन जिवीत सारात. तुवें परफेक्ट बायल मागली. खरें आसा तुजें. बायल एक तर वयर काडटा नाजाल्यार सकयल घालता. तुमकां घमेंड ना. कोणाचेरय उपकार केलो जाल्यार देव मजत करता. अशेंच तुमी सगळ्यांक मजत करात. आनी तुमी सुखी रावात.' अशें बेसांव दिवन तो बोडवी गुप्त जालो. हाचो अर्थच असो तूं जशें दिता तशेंच तुका परतें मळटा. दिल्ल्या मापान घेवप म्हणटात तें अशें.



# फेस्त गोड जालें

गिरेस्त आनी दुबळे अशे दोन तरेचे लोक ह्या संवसारांत वावुरतात. गिरेस्ता कडेन जायते दुडू आसता पूण ते खुशाल आनी समाधानी आसतातच अशें न्हय. म्हजें कडेन आशिल्ले दुडू आनी कशे सुबेज जातले असो विचार ते करीत आसतात. आनी हेच गजालीचो हुस्को तांचे तकलेंत दीस रात आसता. पूण जे गरीब दुबळे आसतात, तांकां दोन फावटीचें जेवण मेळ्ळ्यार ते खूब खुशाल जातात. एका खुशाल दुबळ्याची ही काणी खूब आवडटली अशें म्हाका दिसता.

एका गांवांत एक गरीब बायल आसली. तिचो घरकार देवा घरा गेल्लो. आपल्या दोन भुरग्या वांगडा ती एक धाकटुल्या घरांत रावताली. तिका एक चली आनी चलो आसलो. दोगांय भुरगीं शाळेंत वतालीं. चार घरांचीं धुणीं, आयदनां घांसप करून ती आपलो संवसार चलयताली. आपणांक कितलेंय कश्ट आयले जाल्यार जाता, पूण आपलीं भुरगीं बरीं शिकून व्हड जावचीं, ताणीं संवसारांत आपलें नांव जोडचें, हे पासत ती देवा लागीं सदांच मागणें करताली. आपल्या भुरग्यांचेर ती बरे संस्कार करताली. तिचीं भुरगीं एकामेकांक सदांच मजत करतालीं. राग, लोभ, मत्सर हांकां तुमच्या काळजांत केन्नाच थारो दिवं नाकात अशी शिकवण ती आपल्या भुरग्यांक सदांच दिताली. केन्नाच कोणाचेंय वायट चिंतू नाकात म्हूण ती सदांच मागताली.

अशे रितीन हें गरीब पूण खुशाल कुटुंब आपलो सदांचो दीसपट्टो गिराज चलयत आसता. कांय दिसा उपरांत फेस्ताचो दीस लागीं पावता. दुसऱ्या दिसा फेस्त आसता. पूण ते बायलेच्या घरांत कांयच नासता. हे पासत ती ज्या घरा मोलमजुरी करता, त्या घरा वचून धनया कडेन कांय दुडू उदार मागता. पुराय म्हयनो काबार जातकूच आमी तुजे दुडू फारीक करतले म्हूण धनी तिका परती धाडटा. ती खिन्न काळजांत आपल्या घरा परती येता. व्हड आतुरतायेन आपल्या आवय पासत रावपी तिचीं भुरगीं तिचे मेकळे हात आनी उदास मुखामळ वळखून घेतात. पूण तीं निराश जायनासतना ओग्गी रावतात. आपले चलयेक आपोवन ती सांगता, 'बायगो, हांव चार घरां भोंवली, तरी आसतना म्हाका कोणेंच उदार दिलें ना. आमचो वेळ सारको ना, हाचे फुडें आनी कोण कितें करूंक शकता? पांटलींत दोन भाकरी आसात. तातुंतली अर्दी बाक दी आनी अर्दी तूं घे. आनी एक भाकरी रातीं पासत दवर. तशेंच म्हजे लागीं दोन रुपया आसात. ताची मुकारल्या हॉटेलांतल्यान पातळ भाजी घेवन यो. जमल्यार तातुंतलीं भाजी सांजे खातीर दवरात. आनी रोखडेच तुमी शाळेक वचात.' अशें सांगून ती बायल आपली मोल मजुरी करूंक वता. पूण दोगांय भुरगीं म्हाका भूक ना अशें म्हणून भाकरी खावचे आदीं शाळेक वतात.

सांज जातकूच ती सगळींच घरा येतात. दीसभर लेगीत तिका दुडू मेळनात. ती आपल्या भुरग्यांक आपयता आनी सांगता, 'बाय पांटलीतली भाकरी भाजी खावन वयर उदकाचो घोंट घेयात.' हाचेर ती चली जाप दिना. 'दोनूय भाकरी सकाळींच काबार केल्यात काय कितें' अशें ती बायल आपले धुवेक विचारता. हाचेर तिचो पूत म्हणटा, 'माय, हांवें भाकरी खाली ना.' मागीर ती आपले चलयेक विचारल्यार तिवूय सांगता, 'मांय

हांवें लेगीत भाकरी खाली ना.' 'बाय तुवेंनूय खाल्यो आसतल्यो दोनूय भाकरी. आसूं तुजे पिरायेक दोन भाकरी कितें सुबेज न्हय.' पूण ती कांयच उलयनासतना रागान न्हिदता. भुरगीं लेगीत उदक पियेवन न्हिदतात.

दुसऱ्या दिसा फेस्त. सगळीं फांत्यार उठून उदक न्हातात. पूण तांची घरची रांदन कितें पेटना. आवयक व्हड दुख्ख जाता. फेस्ता दिसा उपासमारी पासत तिका खूब वायट दिसता. उपाशी भुरगीं पळोवन तिचें काळीज चुरचुरता. आपले धुवेचेर अजून मनांत राग आशिल्ल्या कारणान ती तिचे वांगडा उलयना. ती आपल्या पुताक म्हणटा, 'बाबा आमी जरी गरीब आसलीं तरी आमी एकामेकांचेर खूब मोग करतात अशेंच हांव समजताली. आमी जरी गरीब आसले तरी म्हजीं भुरगीं खूब समजदार आसात, एकामेकांच्यो अडचणी, गरजो समजून तीं एकामेकां कडेन मोगान रावतात असो म्हाका व्हड अभिमान आसलो. पूण म्हजे धुवेन काल दोनूय भाकरी खावन आपल्या भावाक उपाशी दवरलें ह्या पासत म्हाका आयज खूब दुख्ख भोगलां. आतां हांव म्हज्या कामाक वतां. म्हूण ती उठून वचूंक लागता. इतल्यात तिची धूव तिका राव म्हणटा आनी आपल्या आवयच्या हातांत एक डबो दिता. त्या डब्यांत लाडू आसतात. कवतुकान आवय आपले धुवेक विचारता, 'बाय हे लाडू कोणी दिले गो'? 'मांय ते हांवेंनूच केल्यात' अशी जाप दीत धूव आपले आवयक सांगता. 'काल जेन्ना तुवें आमकां भाकरी खावंक सांगलें आनी तूं मात उपाशी उरली हे पासत बाबान भाकरी खाली ना. हांवें भाकरी खाली ना. म्हाका एक कल्पना आयली. ते भाकरीचे बारीक बारीक कुडके केले. तुवें दिल्ल्या दोन रुपयांचें गोड हाडलें आनी तें शिजोवन हे लाडू बांदले. तुमकां फेस्ता निमतान सरप्रायज दिवचे नदरेन आनी फेस्त गोड करचे नदरेन हांवें तुजे मुखार म्हजें तोंड उक्तें केलें ना. म्हाका भोगशीय.'

आवयचें काळीज कळवळून येता. ती आपले धुवेक वेंगेंत घेता आनी म्हणटा, ‘म्हज्या मोगाळ धुवे, कितली समजूतदार आसा मगो तूं. तुमचो एकमेकाचेर आशिल्लो मोग पळोवन हांव धादोशी जाली. भयण भावाचो मोग असोच सदां रावचो म्हूण हांव देवा लागीं मागतां.’ आनी व्हड रुचीन तीं तिगांय लाडू खातात.

फुडें हीं दोनूय भुरगीं खूब शिकतात. चलयेचें एका गिरेस्त तरणाट्या वांगडा काजार जाता. बाबा लेगीत व्हडलो ऑफिसर जाता. व्हडलो बंगलो, कार आनी जिवितांतल्यो सगल्यो सूख वस्तू तांच्या वांट्याक येता. ताच्या सांगाता ताची आवय आसता. पूण दर वर्सा जेन्ना फेस्त येता तेन्ना तो आपले भयणीक मानान घेवन, फेस्ता खातीर आपले भयणीक आपल्या घरा घेवन येता. घरा जायते तरेचो कुसवार करतात. पूण दर फेस्ताक भयण भाकरीचे लाडू बांदूक विसरना, आनी अशे रितीन दर फेस्ताक हे लाडू खाले बगर तांचें फेस्त गोड जायना.



# चलयेक दोन घरां

एखाद्या कुटूंबांत जेन्ना भुरगें जल्मता, तेन्ना घरांत खोशीच खोशी भरता. बागेंत आमी झाडां लायतात, तांकां उदक - सारें घालून ताची कितली बरी कुयदाद घेतात. पळयतां पळयतां ह्या सानुल्या रोपट्याचें झाडांत रुपांतर जाता. तें कळ्यांनी मोहरून वता आनी एक दीस फांत्यार त्या कळ्यांचीं सोबीत फुलां फुलतात. तेदेवेळार आमकां जी खोस जाता ती उतरांनी सांगप कठीण. तशेंच घरांत नवें भुरगें जल्मता तेन्ना घर खोशयेन उपाट भरता. चलो जायत जाल्यार आरवें घर खोशयेच्या तळ्यांत न्हाता. कित्याक तर तो फुडाराचो वारस! पूण ताणें जर आपणाल्या रीणाचें चिंतप करून आवय-बापायक आदार दिलो जाल्यार! नाजाल्यार आयज काल एकेका चल्याचीं कर्तुबां आयकल्यार मनशाक दिसता आपणागेर चलीच जाल्यार बरी! समाजाची रीत जावन पडल्या चली जाली काय मनीस नाक मुडडीता आनी आपली नापसंती उक्तायता. त्या मीनागेर चली जाली मगो. पूण चल्याक जांव चलयेक तितलेच दीस, तितलेच म्हयने कश्ट पडटात हें कोणूच चिंतिना. चली म्हणल्यार परकें धन इतलेंच तांकां खबर आसा. आपणांक जल्म दिल्ली आवय ती चलीच आसा. वांगडा खेळटा ती भयण चलीच. पोटांत जल्म घेता ती चलीच. ती चली घरा आंगणांत खेळटा - घरांत खोशी भरता. काजार जावन सांगातीण जाता. सुखदुख्खांत वांटेकार जाता ती घरकान्न लेगीत चलीच आसा. चलयेचीं कितलींशींच रूपां आमचे नदरेमुखार येतात. मागीर गर्भांत चली जल्मली जाल्यार कित्यापासत नाराज जावचें?

आतां चलयो शिकून खूब उंचेल्या सुवातींनी पावल्यात, चल्या वांगडा चलयो लेगीत दरेका खात्यांत चाकारेक आसात. दोतोर, वकील, इंजिनियर सारक्या व्हड व्हड हुद्यांचेर चलयो पावल्यात. हवाई खात्यांत लेगीत चलयो गेल्यात. भारताची प्रधानमंत्री इंदिरा गांधी लेगीत चलीच आसली. भारताची राष्ट्रपती प्रतिभा पाटील चलीच! बेळगांव शाराची डी.सी. एकरूप कौर चलीच! तर मागीर चलयेचो तिटकारो कित्याक करचो? चलो आनी चली हांच्या कर्तुपांनी कांय फरक ना. आवय-बापायन पयलीं हें चिंतूक जाय. चलो, चली एकाच झाडांचीं दोन फळां. आमी तांकां समान वागणूक आनी शिकप दिवपाक जाय. आवय-बापायन जर हो फरक बंद केलो जाल्यार समाजांत लेगीत सुदारणा जातली. चलयेक बरें शिकप आनी संस्कार दिल्यार ती घराब्याचें नांव उजवाडाक हाडटली. चली म्हणल्यार परकें धन हें खरें अशें मानुया. चलयेक जाय तितलें शिकप दिवंनयबी तिका काजार करून परक्यांच्या घरा धाडचें पडटा. ही संवसाराची चलत आयिल्ली रीत.

चली म्हणल्यार एक व्हड जापसालकी. एकदां ती काजार जावन घोवाघरा गेली आनी बरी नंदपाक लागली म्हण्टकच आवय बापूय सुटकेचो स्वास सोडटात. बापूय 'कन्यादान' करून मेकळे जाता आनी गंगेंत हात धुवपाचें समाधान तांकां मेळटा. चलयेक आपल्या हक्काचें घर कुटूंब मेळटा. ताची खंत पारखुपी सांगाती मेळटा. जल्मल्ल्या घरांत चली सोयरीच कशी. तिचें शाश्वत घर म्हणल्यार घोवालें घर. जाय तितली गिरेस्तकाय आसल्यार लेगीत राजा चलयेक पोशीना. हाचो अर्थ ताका पोसपाची ऐपत ना अशें न्हय.

म्हगेलो बापूय आमकां सदांच बोधाची गजाल सांगतालो. म्हज्या भुरग्यांनो, राजा बारा हत्ती पोसता, पूण एक चली पोशीना. चलयेचें जगप कुळारा सुरक्षीत उरना देखून चलयेक दोन घरां! दोन घराणीं दिल्यांत. ह्या दोन घराण्यांक मोगाचे दोरयेन गुंतोवन दवरपाचें काम चलयेचें आसा.

घराचो सर्ग वा यमकोंड करपाचें तिच्याच हातांत आसता. दोनूय घराण्यांक एकठांय हाडपाचें काम तिचेंच. ती आपणाक जाय तशी वागूंक लागली आनी दुसऱ्याक लेखीना जाली जाल्यार दोनूय घरांनी दुस्मानकाय वाडटा. घोवाल्या घरा बरे तरेन नंदली, कुटूंबाक मोग दिलो, तांगेलो मान राखलो जाल्यार कुळाराचें आनी आवय-बापायचें नांव सयर सरले बगर रावचें ना! मागीर लोक ते चलयेची देख दुसऱ्यांक दितात. दोनूय घराण्यांक मोगाच्या धाग्यांत गुंथोवन दवरपाचें म्हान काम करप चलयेच्या हातांत आसता.

चली काजार जावन वता तेन्ना आवय बापायक दुख्ख जाता. पूण तेच बरोबर जबर खोशी जाता. ती आपणाली जापसालकी सोपली म्हूण! तशेंच आपले चलयेक मोग दिवपी मोगाळ घराणें मेळ्ळें म्हूण. चली म्हणल्यार घराची सोबीतकाय. घोवा घरा वतना कुळारची खंत तिणें सोडून दिवपाक जाय! आपणालें फुडाराचें घर कशें खुशालभरीत जातलें हें पयलीं चिंतूंक जाय. वतल्या घरांत नंदनवन फुलोवप तिच्या हातांत आसता. ‘गंगा हिमालया कडसून दर्या वटेन व्हांवता. दर्या कडसून हिमालया कडेन न्हय’ अशी शिकवण साधु संतांनी दिल्या. आपणालें कुटूंब सुखी, समाधानी उरचें हें चिंतून जर तिणें घोवाल्या घरा पावल दवरलें जाल्यार घराचो उध्दार जाले बगर रावचो ना! एक सुखी समाधानी घराणें म्हूण लोक वळखतले.

चलो आनी चली ही एकाच झाडाचे ताळयेचेर फुलिल्लीं दोन सोबीत फुलां. भावा-भयणिचो मोग अतूट आसता. तांकां कित्याचीच उपमा दिवपाक येना. हिंदू लोक दिवाळेक भयण भावाक उंवाळटा आनी देवा कडेन मागणें मागता, हे देवा, म्हज्या भावाक आयुश्यमान कर. रक्षाबंधनाचे परबेक पवित्र राखीच्या बंधनान ती ताच्या हाताक राखी बांदता आनी देवाक सांकडें घालता, ‘देवा म्हगेल्या भावाची राखण कर. तूं सदांच ताचे फाटल्यान उबो राव, आनी भावाक सांगता सदांच तूं तुजे भयणिचें रक्षण कर. हिंदूच्या परबांनी खूब खूब मोलाचो अर्थ भरिल्लो आसा.

काजार जावन भयण जेन्ना घोवागेर वता तेन्ना ताचो खरो परिणाम भावाचेर जाता. ताका घर रितें रितें जाल्ल्यावरीं दिसता. आपणा वांगडा खेळपी, शाळेंत वचपी भयणीक सतावपाचें, झगडीं करपाचें, तीं सगळीं चित्रां ताचे नदरे मुखार येतात आनी ताचे दोळे दुकांनी भरतात. आनी तो भयणीक घट वेंग मारून हुंडकेता आनी भरिल्ल्या दोळ्यांची वाट मेकळी जाता. म्हणून तर आमगेल्या जाणट्यांनी काजाराचीं गितां रचल्यांत.

*'चांदा पारब्यांन चान्नी*
*मिरगा पारब्यांन रोहिणी*
*चल्लीय व्हय गो भयणी*
*म्हज्या सांगातीनी'*

भयण भावाची फाटराखीण आसता. सदांच ती सांवळी जावन ताच्या फाटल्यान वावुरता. देखून खरी उणीव जाता ती भावाक. भयण भावाचो मोग रसमी धाग्या भाशेन मुलायम, मोव, नितळ, निर्मळ उदका भशेन. म्हणून मराठींत लेगीत गीत आसा.

*'संसारी कितीक*
*आसती नातीगोती*
*मोलाचे माणीक मोती*
*बहीण भाऊ'*

अजरंवर हो भयण भावाचो मोग. ताका आनीक कित्याचीच उपमा दिवं नजो.

लग्न जावन घोवाघरा गेली तरी लेगीत चलयेचो कुळारच्या मनशांवयलो मोग उणो जायना. भाग्यवंत ती. तिका दोन घरां.



# वियोग

नंदूऽ नंदूऽऽ नंदूऽऽऽ असो आवाज आयकून हांवें त्या घरा कडेन पळयलें. घर कसलें? त्या घराक घरपणच नासलें. विशन्न, भिरांकूळ अश्यो त्या घराच्यो वण्टी. एका पडिल्ल्या किल्ल्या भशेन त्या घराची दशा जाताली. त्या घरांत जितेपणाचें कसलेंच लक्षण नासलें. सगळे कडेन भिण्ण काळोख दिसतालो. हांवें उमळशिकेन त्या घरा कडेन वचून पळयलें. एका कोनशाक एक मनीस आंगाची गुठली करून सगळें आंग धांपून घेवन न्हिदून आसलो. एक पोरणे लोंळिल्लें आंगार वस्त्र ताणें घाल्लें. हड्ड्याचीं सगळीं हाडां मेजूंक येतालीं अशी ताची अस्थिपंजर कूड. ते कुडींत जीव आसा काय ना हें समजूंक येनासलें. ताची कूड निस्तेज आसली, जाल्यार ताचो आवाज सामको घट्ट आसलो. तातूंत मोग आसलो. तो मनीस केन्ना हांसतालो, केन्ना ओगीच बडबडटालो, तर केन्ना रडूंक लागतालो. नंदू, नंदू ह्या नांवाचो पुनरुच्चार सुरूच आसलो. ना खावप ना पियेवप. थोडोसो साबुदीर आसत जाल्यार घरांतले लोक कितें तरी खावपाचे जिनस हाडून दवरताले. शून्य नदरेन त्या जिनसां कडेन पळोवप, खावपाचे जाल्यार ते जिनस जाय तशे तोंडांत घालप. तें कितें दिलां, हांव कितें खातां? कित्याक खावप? हाची बाबड्याक कांयच जाणविकाय नासली. खावपाचे पदार्थ वस्त्रावयर सांडटाले. मागीर थंय मूस बसताले. पिंजिल्ली चादर घेवन तातूंत आपणाक गुठलावन घेवन परत नंदूऽ नंदूऽऽ अशें आड्डत. ताच्या आवाजांत इतली करुणा आसली, ती आयकून कोणाचेंय काळीच हालतालें. हांवें एका मनशा कडेन

हाची खबर विचारली. ताणें सांगिल्ली म्हायती आयकून म्हाका घुंवळ येवपा कडेन पावली.

हो मनीस म्हणल्यार गांवांतलो एक व्हड गिरेस्त दयाळ आनी मोगाळ मनीस. जाल्यार पुत्रवियोगान बाबड्याची अशी परिस्थिती जाल्ली. ताच्या पुताच्या अपघाती मरणाचो धसको घेवन तो पिसो जाल्लो. जिवीत म्हणल्यार कितें? ह्या जिविताचो अंत कसो जातलो? हाची कसलीच जाणविकाय ताका नासली. पोटांत उजो पेटलो जाल्यार मेळटा तें पोटांत घालप आनी पुताच्या नांवान उलो करीत बसप, हे भायर आनीक जिवीत आसा हें ताका खबर नासलें. आमी ल्हान आसतनाची ही गजाल. एके न्हंयचे धडे वयर एक सोबीत ल्हानसो खेडेगांव आसलो. सैमान आपल्या मुक्त हातान सोबितकायेची उधळण ह्या गांवाचेर केल्ली. गांवांत सोबीत रस्ते, बाजारपेठ, कलाकुसरीन नटिल्ली सोबीत देव देवतांचीं मंदिरां आसलीं. गांवांत सगळ्या जाती धर्माचे लोक रावताले. इतलें आसूनय सगळे मोगान रावताले. एकामेकांक मजत करपाक सदांच तयार आसताले, म्हणटकूच गांवांत शांती, सूख, समाधान आसलें.

असल्या ह्या सुंदर गांवांत एक खुशालभरीत कुटुंब रावतालें. गांवांत ताचीं तीन चार व्हड घरां आसलीं. शेतीवाडी, दुकानां, गायी-गोरवांनी भरिल्लो गोठो आसलो. ताका कितेंच उणें नासलें. भांगराच्या अळंकारांनी सजिल्ल्या ह्या घरांतल्यो अस्तुऱ्यो पळयल्यार ह्या घरांत लक्ष्मी तर उदक भरिना मूं? अशें दिसतालें. ह्या घराचो मुखेली तर चड मोगाळ, दयाळ आनी व्हड मनाचो मनीस आसलो. ताची घरकान्नय तशीच घोवाक सोब सारकी आसली. घोव बायल दोगांय अडचण आशिल्ल्यांक मजत करपाक सदांच मुखार रावतालीं. म्हणटकूच अडचण आशिल्लो गांवांतलो मनीस तांचे कडेन येतालो. तांच्यो अडचणी, तांचे वयलें संकट हीं दोगांय पयस करतालीं. म्हणटकूच सगळो गांव तांकां देवासमान मानताले. अशा ह्या

व्हड मनशाक देवान चार पूत, तीन धुवो अशीं सात भुरगीं दिल्लीं. सगळीं भुरगीं आवय-बापाय सारकींच आचार विचारांत तरबेज, वेव्हार कुशल आशिल्लीं. ताका लागून आवय बापायन कुटुंबाची सगळी जापसालकी तांचेर घाल्ली. दोग पूत आनी दोगी धुवांचें लग्न जाल्लें. घर कशें भरिल्ल्या गोकुळा भशेन नंदतालें.

दरेक वर्सा आपल्या घर संवसारांतल्यान सवड काडून हें जोडपें तिर्थयात्रेक वतालें. तिर्थयात्रा करतना, दानधर्म करून थोडें पुण्य पदरांत घेवन तीं येतालीं. जाल्यार ह्या वर्सा तांची इत्सा मातशी वेगळी आसली. भारत देशांतल्या सगळ्या तिर्थस्थळांक भेट दिवन येवपाची आपली इत्सा तांणी भुरग्यां कडेन उलोवन दाखयली. भुरग्यांनीय व्हडा खोशयेन तांकां संमती दिली. दोगांकय व्हड आनंद जालो. तिर्थयात्रेक वचपाचो दीस निश्चीत जालो. सगळ्या गांवांत तीच चर्चा. तीं वचच्या दिसा सगळो गांव तांकां निरोप दिवपाक एकठांय जाल्लो. न्हंयचे पलतडेक बस उबी राविल्ली. सगळे लोक शिमे मेरेन तांकां पावपाक आयिल्ले. तें जोडपें बसींत बसलें. बस सुरू जाली. बस नदरे आड जाता मेरेन लोकांनी तांकां हात हालोवन रकाद दिलो.

कितले बेगीनच तीन म्हयने सरले. एक दीस एक चीट घेवन पोस्टमन दारांत आयलो. चिटयेंत बरयिल्लें आमची तिर्थयात्रा बरी जाली. फाल्यां आमी घरा पावतले. दरेका घरांत गजाली सुरू जाल्यो. फाल्यां शेटजी घोव-बायल परत येतात. तांकां येवकार दिवपाक सगळो गांव बस स्टँडार पावलो. शेटजी आनी ताची बायल येवन पावलीं. बस स्टँडाचेर तासो, चौघुडो, बँड हांणी शेटजीक येवकार दिलो. हातांत पंचारती घेवन सवायशिणींनी तांकां उंवाळ्ळें. कुकूम तिलक लायलो. सोबीत सजयिल्ले बैलगाडयेंतल्यान तांची मिरवणूक काडली. वाजत गाजत तें जोडपें घरांत आयलें. घर कशें सोयऱ्या दायऱ्यांनी भरिल्लें. दोन चार दीस सुशेग घेतले

उपरांत तांणी तिर्थयात्रेक वचून आयिल्ल्या पासत गांवांक ग्राम जेवण घालपाची इत्सा भुरग्यां कडेन उलोवन दाखयली. भुरग्यांनय रोखडीच तांची इत्सा पुराय करपाचें थारायलें. आनी चंद्राककशें गिराण लागता तशें तांच्या घराक लागलें.

दुसऱ्या दिसा सावन ग्रामभोजनाची तयारी सुरू जाली. सगळ्या गांवांत माटव घाल्लो. तो सजयलो. ट्रकांनी म्हाल आयलो. रांदपाक शारांतल्यान मेस्त आयले. सगळे तरेचीं पक्वन्नां तयार जालीं. सगळो गांवभर तांचो वास सुटलो. आचारी रांदपात मग्न आशिल्ले. रातभर काम चलिल्लें आनी अचकीत लायट गेली. सगळे कडेन काळोख जालो. कोणेतरी शेटजीच्या पुताक आपयलो. नंदू मातशी बत्ती पेटयता? जाल्यार तें आपोवणें निमाणचें म्हणून त्या बाबड्याक कितें खबर. नंदू बत्ती पेटोवपाक लागलो. तातूंत ताणें हवा भरली. बत्ती पेटयली, ते बत्तीक पीन करपाक लागलो आनी बत्तीचो उजो भडकलो. त्या उज्याच्या लोळांनी नंदूक सामकें घेरलें. ताच्यो किंळच्यो सुरू जाल्यो. कितें प्रकार आसा कोणाकूच कळूंक ना. सगळे नंदू कडेन धांवले. ताच्या आंगार कांबळ घाली. पूण दुर्दैव! नंदू निमाणच्यो घटका मेजूंक लागलो. ताका रोखडोच शारांतल्या व्हड हॉस्पिटलांत व्हेलो. नंदूक वाटावपाक दोतोरांनी व्हड यत्न केले, पूण तांकां येस मेळ्ळें ना. नंदूची प्राणज्योत सासणाची पालवली. सगळो गांव दुख सागरांत बुडलो. पूत्र वियोगान थोड्याच दिसां भितर ताची आवय सरली. तिच्या फाटल्यान एक भयण गेली. बापूय पिसो जालो. ताची अशी ही अवस्था जाली. पूत्र वियोगा सारके आनी खंयचेंच दुख्ख ना अशें चिंतत हांव थंयच्यान भायर आयली.



# आघात

सगळी रात गाडयेंत बसून आंग सामकें आंबून गेल्लें. हातपांय आकशिल्ले. रातभरच्या प्रवासाच्या जागरणान दोळे सामके तारवटून तांबडे गुंज जाल्ले.

सुर्याची नाजूक किर्णां लेगीत सोसूं नज जाल्लीं. व्हडा कश्टान दोळे उक्ते करपाचे यत्न चलिल्ले. कुडींतली धुंदी अजून तशीच आसली. लास्ट स्टॉप अशें कितें तरी कंडक्टरान म्हणटकूच हांवे म्हज्या खांद्यार पर्स लायली आनी हातांत बॅग घेवन बशींतल्यान देंवपाक लागलें. देंवता आसतना म्हजो एक पांय आपशींच एका खड्ड्यांत पडलो. पांय मुरगळ्ळो आनी ती कळ तकले मेरेन पावली. म्हजे दोळे उक्ते जाले, आनी म्हजी नदर स्टॅण्डा मुखार उबो आशिल्ल्या एका मध्यम पिरायेच्या दादल्याचेर पडली. कुडीचेर कळकट म्हळकट कपडे, पिंजरिल्ले केंस, खोल गेल्ले दोळे, हाता पायांच्यो काडयो जाल्ल्यो. एका पांयात एक व्हाण जाल्यार दुसऱ्या पांयात दुसरी. ताचेर नदर मारल्यार हो मनीस पिसो कसो दिसतालो. पूण तो पिसो नासलो. त्या मनशाचेर नियतीन चड व्हडलो 'आघात' केल्लो. म्हण ताची ही अशी दशा जाल्ली. तो मनीस आमचो खास लागचोच आसलो. पूण ताका हांवें चड दिसांनी पळयिल्लो आनी तें लेगीत अशे दशेंत, देखून हांव ताका वळखलेंच ना. म्हज्या मनांतलो दुबाव हांवें एका हमालाक विचारलो. 'आरे विठू, ते वसरीचेर बसला तो मनीस कोण?' ताणें म्हज्या हातांतली बॅग घेतली आनी ती तकलेचेर उखलीत म्हणलें. 'ताई तुवें ताका वळखूंक ना अशें दिसता. ते आमचे अशोकराव न्हय कितें.' 'कोण हे अशोकराव?'

काचाबूल जावन हांवें विचारलें,

'हय ताई, चलयेच्या आकस्मीक मर्णाचो तांचेर इतलो वायट परिणाम जाला. तिच्या मरणाचें दुख्ख विसरपाक तांणी सोऱ्याक लागीं केला. नशिबाचो खेळ, दुसरें आनी कितें?' अशें म्हणीत आपल्या धोतराच्या शेवान दोळे पुसले. अशोकरावांची ही दशा पळोवन म्हजें काळीज लेगीत हाल्लें आनी दोळ्यांत दुकां आयलीं. तीं पालवान पुशीत हांवें त्या हमालाच्या फाटल्यान वाट धरली.

घरा वचून न्हावन धुवन जातकच म्हाका मातशें 'फ्रेश' दिसलें. ते उपरांत हुनहुनीत च्याचे चार घोंट पोटात गेल्यार कुडींत तरतरी आयली. हांव कदेलीचेर बसलें पूण म्हजें मात कित्यातूच मन लागपाक तयार जालें ना. म्हजें मन भुतकाळांत धांव घेवंक लागलें. नाईलाजान हांवें मागीर म्हज्या मनाच्या बुकांतली भुतकाळरुपी पानां उक्तीं केलीं. नोकरे खातीर आमी ह्या गांवांत आयिल्ले. हांगाच्या सोबीत सैमान आमच्या मनांत भुरळ घाल्ली. बदली जाली आनी आमचें घर आमी भाड्याक दिवन हो गांव सोडलो. अदीं मदीं आमी ह्या गांवांत येवन घराची डागडुजी पळोवन वतालीं. हेच खातीर कांय वर्सांनी हांव आयज हांगा पावलें.

अशोकराव म्हणल्यार गांवांतलें एक गिरेस्त कूळ. भव्य आनी प्रशस्त असो खानदानी वाडो. शेतां-भाटां, गोरवां, नोकर-चाकर आशिल्ल्या अशोकरावांचे आनी आमचे घरचे संबंद आशिल्ले. म्हजो घरकार आनी अशोकराव एकामेकाच्या सल्ल्या बगर तांचें पान लेगीत हालनासलें. जेवण खाण आनी हेर गजालींची तागेर उणीव नासली. फांत्यार तांचो मानाय दूद धंय घेवन आमगेर पावतालो. ताई, आई सायबान तुमकां कितें धाडलां पळयात. सकाळींच विरजण लायिल्लें हें धंय आसा. मात लेगीत आंबट ना. भुरग्यांक दियात म्हूण सांगलां'. आयदनां मेकळी करी मेरेन ताचें तुणतुणें सुरू आसतालें.

दनपारां हांव घरा रांदिल्ली तरकारी ना जाल्यार कितें तरी ताच्या घरा धाडून उपकाराची फेड करूंक पळयतालें. अशोकरावांच्या शेता भाटांनी पिकिल्लें सगळें हक्कान आमच्या घरा पावतालें. आमी घराचें उक्तावण केलें तेन्ना अशोकरावान एका भावा भशेन आपली जापसालकी निभायली.

भुरग्यांच्या वाडदिसा निमतान ताच्या घरांतल्यान ड्रेस येताले. अशोकरावाचें घर म्हणल्यार म्हाका म्हज्या कुळारा भशेन दिसतालें.

अशोकरावांक भयण नासली. ते खातीर ते म्हाका आपले भयणीचो मान दिताले. तांच्या धाकल्या भावाच्या काजारांत तर तांणी म्हाका भयणच म्हूण सगळ्यांक वळख करून दिवन सगळे रीत रिवाज पुराय केल्ले. ह्या कुळारांत मेळिल्ल्या मोगान हांव खुशालभरीत जातालें.

अशोकरावांचे दोन भाव शारांत व्हडले शिर्विसेक आसले. पूण अशोकराव मात पदवीधर आसून लेगीत शेता-भाटांचे उस्तवारी खातीर गांवांतच रावले. घरांत चली नासली. दुसऱ्या भावांक लेगीत चलेच आसले. पूण दुदांत साकर पडली. अशोकरावाक चली जाली. बारशें गदींत जालें. चलयेचें नांव दवरलें आशा. नाजूक ओंठ, काळेभोर दोळे, कपलाचेर आयिल्ले दाट जायवळ, आशान सगळ्या घराच्यो आशा पल्लवीत केल्यो. आपले सोबीतकायेन आनी अल्लड वागण्यान आशान घरांतल्या सगळ्यांचीं काळजा जिखलीं. नातीच्या आगमनान अशोकरावांची आवय सगळें कितें विसरून आपले नातींत गुल्ल जाली. आशा घर भर भोंवतालें आनी ताचे फाटल्यान आजी, अशें चित्र दीसभर दिसतालें. इतलें की आजी आपलीं वखदां लेगीत घेवंक विसरताली. आशाची मस्ती पळोवन आजेक आयिल्लो लटको राग लेगीत तिच्या खुद् खुद् हांसण्यान पयस वतालो. आशू म्हणल्यार सगळ्यांचें काळीज! घरांत ताणें नवचैतन्य हाडिल्लें. आशून चलयेचो पायगूण खूब बरो अशें सगळे जाण म्हणपाक लागले. आशा उर्फ आशू म्हणजे सगळें कितें!

आशू चार वर्सांचें जालें. ताका अशोकरावान नर्सरीत घातलें. फाटीर बॅग, पांयांत सॉक्स, मोचे, युनिफॉर्म अशा थाटांत आशू शाळेक वतना सगळ्यांक कवतूक दिसतालें. आजी लेगीत अजापान ताचे कडेन पळयताली. कांय पावलां फुडें गेल्यार फाटल्यान वळून आशू पळयत टाटा करतालें. आपल्या तांबड्या तांबड्या ओंठाचेर हात दवरून तें आपले आजीक 'फ्लाईंग कीस' दितालें. मागीर आजीच्या आनंदाक शीम मेर उर नासली. पूण हालीं आजीची भलायकी

सारकी नासताली. खूब उपचार जाले. बरे बरे दोतोर येवन तिची तपासणी करून गेले. दिसान दीस तिची प्रकृती इबाडटाली. तिची भलायकी कितें सुदारपाची चिन्ना दिश्टी पडली नात आनी एक दीस ती हो संवसार सोडून देवाघरा गेली.

आजीच्या मोगाच्या छत्राखाला वावुरपी आशू आजीच्या मोगाक एकदम अंतरलें. ते कोणा कडेन उलयच नासलें. म्हजी आजी खंय आसा अशे घरांतल्या सगळ्यांक विचारतालें. आजीच्या फोटो कडेन पळोवन ते रडटालें. आशूची समजूत कशी काडची हो सगळ्यांकच प्रस्न पडलो. 'तुजी आजी मगो, देवाघरा गेल्या, थंयसर बरी जावन ती परती येतली' अशा उतरांनी तिची समजून काडटां काडटां लोकांक नाकापुरो जातालें.

एक दीस आशून आवय कडेन कागाळ केली. 'मम्मी, म्हजी तकली एक सारकी उसळटा' घरगुती उपाय केले. दोतोरा कडेन दाखयलें. मात उणे जाताले आनी परते सुरू. मागीर ताका जोर येवपाक सुरू जालो. एक्सरे आनी हेर चांचण्यो जातकच दोतोरांनी केल्लें निदान आयकून सगळ्यांच्या पांया सकयलीं भूंय सरकली. आशूक ब्रेनट्युमर जाल्ल्याचें निदान जालें. सगळ्या कुटुंबांचेर दुख्खाची कुराड कोसळ्ळी. निमणो उपाय म्हूण हैदराबाद व्हरून ताचें ऑपरेशन जालें. पूण कांयच उपेग जालो ना आनी एक दीस नियतीन आपलो डाव सादलो. एक निरागस आनी निश्पाप कळी फुलचे आदीं किरमली. अशोकरावांचेर व्हड आघात जालो. लाडके धुवेच्या अकाली मरणाचो आघात तांकां सहन जालो ना. सोऱ्याचो तिरस्कार करपी ह्या भल्या मनशान आशूच्या मरणाचें दुख्ख विसरपाक सोऱ्याचो आदार घेतलो. सोऱ्याचे नशेंत तो बुडून वतालो. पयलो अशोकराव आनी आतांचो अशोकराव हातूंत जमीन आसमानाचो फरक जालो. म्हजे दोळे दुकांनी भरले. नियतीचो खेळ कसो वेगळो आसता हें कोणाच्यान सांगपाक जायना. आशा गेलें. परिवाराच्या पालवांत सदांचीच निराशा दिवन!



# पाश

**श्रा**वण म्हयनो हो हिंदूंचो पवित्र म्हयनो. ह्या म्हयन्यांत किरिस्तांवांचीं जशीं फेस्तां, तेच परी हिंदुंचे उपास दोनांकूय म्हत्व आसता. वत आनी पावसाचें दाखय लिपय ह्या म्हयन्यांत सुरू आसता. पांचवोचार शालू न्हेसून पृथ्वी नटिल्ली आसता. एक्रे वटेन वत आनी एक्रे वटेन पावस अशा वेळार इंद्रधोनू दिश्टी पडटा आनी मनांत उल्हास वाडटा. रंगरंगयाळ्या फुलांचे कुरपणे हातांत घेवन बायलो देवळांत वतात. मर्दींच सांजवेळ जालेपरी दिसता, तर मर्दींच झाडाच्या शेंड्याचेर हळडुवें वत पडिल्लें दिश्टी पडटा. सगळी कडेन खुशालकायेचें वातावरण आसता.

अशाच एक्रा श्रावण म्हयन्यांत चंदगड तालुक्यांतली ताम्रपर्णी न्हंय तुडूंब भरून व्हांवताली. दोनूय देगांचेर आशिल्लीं झाडां तिचे सोबीतकायेंत भर घालतालीं. दर्याक मेळपाची तिची अधिरताय तिच्या वेगान व्हांवपांतल्यान दिश्टी पडटाली. उपासाच्या निमतान वा हेर धर्मीक कारणान कुणब्यांक ह्या म्हयन्यांत आपल्या वावरांत मातशी उसंत मेळटा. एक दीस दनपारची ही गजाल. वता पावसाच्या दाखय लिपयची मजा करीत भुरगीं खेळटालीं. इतल्यांत एक भुरगो धेंपां उडयत उडयत धांवत धांवत येता आनी वाड्यांत खबर दितां. न्हंयत कोण तरी बुडला. ताणें अशें सांगतकूच सगळी कडेन बोवाळ सुरू जालो. घरांतल्यान सगले जाण्टे नेण्टे भायर आयले आनी काचाबूल जावन विचारूंक लागले. ‘‘कोण बुडलो? कोण बुडलो?’’ हा हा म्हणटां सगळे कडेन ही खबर पातळ्ळी. सगळे न्हंयेचे देगेर धांवले. कोण बुडला हें कळूंक तयार ना. जो तो प्रस्नार्थन नदरेन एकामेका कडेन पळोवंक लागलो. कोण कांय समजूंक ना. कांय पेवणाऱ्यांनी उदकांत उडी मारली.

उदक कापत कापत ते न्हंयचे मर्दी पावले. बुडिल्लो मनीस बुचकळटालो. देगेर आशिल्ले लोक दोळ्यांत जीव हाडून पळोवंक लागले. सगळ्यांक एकूच चिंता आसली, ती व्यक्ती कोण आसतली म्हूण.

न्हंयत उडी मारप्यांनी यत्नांची पराकाश्ठा करून बुडिल्ल्या त्या मनशाक गांठलो आनी ते व्यक्तीक न्हंयचे देगेर हाडलो. ती एक बायल आसली. जगपाची इत्सा नाशिल्ल्यान आत्महत्या करपाचे नदरेन तिणें न्हंयेंत उडी मारिल्ली. ती केन्ना बुडिल्ली हाची कोणाकच खबर नासली. भाटार हाडटकूच तिका न्हंयचे देगेर आशिल्ले रेवेंत उमथी पाडून तिच्या पोटांतले उदक भायर काडपाचो यत्न केले उपरांत तिका सावचीत करपाचे यत्न केले. पूण कांयच उपेग जालो ना. ती बाबडी मेल्ली. तिचें मुखामळ दिश्टी पडटकूच लोकांक एक तरेचो धक्कोच बसलो. व्हय, ती जुवान आसली. म्हजी एक इश्टीण आसावरीची आवय. सगळीं जाणां अचंबीतपणान तिका पळोवंक लागलीं. दादल्यांक जबरदस्त धक्कोच बसलो. तर बायलांक आपलें दुख्ख आवरलें ना. त्यो सगळ्यो बोबो मारून रडूंक लागल्यो. हें कशें जालें हाचें व्हडले प्रस्न चिन्न सगळ्यांच्या मुखार आसलें. दुबळ्या संवसाराक आनी घरकाराच्या छळाक लागून तिणें जीव दिल्लो असो सगळ्यांचो निश्कर्श जालो. तीन चलयो आनी दोन चले असो संवसार. सात जल्माची दरिद्री. परिस्थितींत घरकाराचें काडयेचेंय सहकार्य ना. एकलीच आपलो संवसाराचें वजें सांबाळून पस्तावताली. तिचे जीव घाईक येतालो. मानसीक संतुलन लेगीत इबाडिल्लें. उलयली तर बडबड सुरूच, ना तर एकदम गप्प! आनी एक दीस तिणें हो मार्ग आपणायलो.

अशी म्हजी शाळेंतली इश्टीण. व्हडल्या वाड्यांत रावताली. सागवांनी लांकडाचो वापर करून बांदिल्लो हो दुमजली वाडो. वाड्याचे चारी वटेन चिऱ्याचें कपांवंड. आंगणांत गुलाब, जायो-जुयो, मोगऱ्यांचीं आनी सोनचाफ्याचीं फुलझाडां केळी, पेरू, आंबो, पोपाय आनी हेर नमुन्याचीं फळझाडां. तिच्या घरा वचून केंसानी फुलां माळप आनी वेगवेगळ्या नमुन्यांच्या फळांचो सुवाद घेवप हो आमचो सदांचो क्रम आसतालो.

आशालीं शेतां भाटां लेगीत भरपूर. वाड्याचे वसरीचेर एक भांगराचो पसरो आसलो. आशाची आजी आनी बापूय पसऱ्याचेर बसताली. तर बापायचे तीग भाव धंद्या खातीर भायल्या गांवांनी भोंवडी मारताले. पसऱ्याचेर चार कारागीर लेगीत आसले. खूब व्हडलो वेपार आसलो तांगेलो. कसलीय कार्यावळ आसूं, तांच्या पसऱ्याचेर सदांच गर्दी आसतालीं. काजाराच्या दिसांनी तर ही गर्दी आनीक वाडटाली.

आशाच्या घरा तर लक्ष्मी सदांकाल नंदताली. घरांत अन्नधान्यां सदां भरपूर आसतालीं. घराचे एके वसरींत आशिल्लो झोपाळो म्हणल्यार आमच्या सगळ्या इश्टिणीचें चड आवडीचें ठिकाण. आमी खेळटा आसतना आमकां आशाची आवय कितें ना कितें तरी खावंक दिताली. सुखा समाधानान आनी आनंदान भरशिल्ले ते दीस आसले.

व्हय, आशाचो बापूय आनी ताचे तीन भाव दीस रात राबताले. ह्या पोरसांत ताच्या घराच्या भांडारांत सदांच लक्ष्मीची भर पडटाली. पूण कांय वर्सांनी ह्या घराब्याक कोणाची तरी वायट नदर लागता. एक जुगारी मनीस आशाच्या बापायक जुगाराच्या मोहपाशात गुंतयता आनी सुरू जाता ही सुखी घराची पडझड! मागीर तो जुगारी आनी सोरो हांकां लागीं करता. घरांतल्या सगळ्यांक तो खूब त्रास दिता. भावाचे सोंशीकतायेच्या पेल्यान गजाल पावना. गल्ल्यांतले दुडू उणें जावंक लागतात. भाव, आवय, ताका मोगान समजावपाचो यत्न करतात, पूण कांयच उपेग जायना, दिसानदीस ताची परिस्थिती इतली इबाडटा, ताचे भाव ताचो सांगात सोडटात. ते आपल्या कुटुंबाक घेवन  शारांत येतात.

आशाच्या बापायक आतां रान मेकळें मेळटा आनी तो ल्हवू ल्हवू एक एक करून शेतां भाटां विकूंक सुरू करता. धंदो तर बंद जाता. ल्हवू ल्हवू परिस्थिती इबाडटा. ताचीं बायल भुरगीं उपाशीं रावतात. आशाचे आवयक आपलीं भुरगीं उपाशीं राविल्लीं पळोवंक जायना. ती चार घरांनी काम करूंक सुरवात करता. दीस रात वावर करून ती आपल्या भुरग्यांक शाळेंत लेगीत धाडटा. आतां मेरेन व्यसनांत पुराय बुडिल्लो आशाचो बापूय

घरांत जें कितें मेळटा तें व्हरून विकूंक सुरू करता. विचारूंक गेल्यार बायल भुरग्यांक गोरवां भाशेन मारता. हो छळ सोंसता सोंसता भुरगीं व्हड जातात. आपल्या सोयऱ्या दायऱ्यांच्या पांया पडून ती आपल्या पुतांक कामाक लायता. भुरगीं तर सुखीं रावचीं हीच तिची इत्सा आसता. भुरग्यांच्या पोटाचो प्रस्न सुटले उपरांत ती मातशी निश्चींत जाता. ती गांवांत परती येता. आनी आपल्या राक्षसी घरकाराच्या त्रासांतल्यान सदांची मुक्ती मेळपाचे नदरेन न्हंयेंत आपणाक झोकून दिवन आपलो जीव वगडायता.

लक्ष्मीच्या पावलांनी आयिल्ली ही बायल आयज आत्महत्त्या करून निर्जीव निर्विकार हे रेंवेंत पडिल्ली पळोवन सगळ्यांचीं काळजां भडभडून येतात. व्हय, आतां ती कोणाचीच ना. ना ती आपल्या भुरग्या बाळांची, ना ती ह्या संवसाराची. व्हय, तिणें ह्या संवसाराचे सगळेच पाश तोडल्यात. संवसाराच्या सगळ्याच पाशांतल्यान तिची मुक्तताय जाल्या. आतां तिका कसलोच पाश ना.



# मोगाची ओड

'देव भावाचो भुकेल्लो' अशें म्हणटात. तेच भशेन मनीस मोगाचो भुकेल्लो आसता. आनी ह्या मोगा खातीर ताका घरची ओड लागता. हेच भाशेन जनावरांक, कोंबयाक लेगीत घराची ओड लागता. आमच्या भुरगेपणांत आमगेलो गोठो गोरवां वासरांनी भरिल्लो आसतालो. तसोच खुराडो कोंबयांनी भरिल्लो. आमच्या खुराड्यांत रंगरंगयाळ्यो कोंबयो, कोंबे आसले. सद्दां सकाळीं धा वरांचेर कोंबयो तांतीं घालपाक घुडांत येताल्यो. पूण नेमान तांतीं घालपी एके कोंबयेन तांतीं घालपाचेंच बंद केलें. आवयन चिंतलें बाबडेन तांतयां घालपाचें बंद केलें दिसता? आनी एक दीस ती कोंबीच गायब जाली. रातीं ती घुडांत आयली ना! आवयन तिका खूब सोदलें. वाड्यांतलीं सगळीं घुडां सोदलीं पूण ती काय मेळ्ळी ना. बुकल्यान ना तर मुंगसान तिका खाल्ली आसतली अशें समजून आमी वगी रावलीं. पूण तिची गैरहाजेरी मात आमकां सदांच उगडास दिताली. चार दीस आमकां खूब दुख्ख जालें. पूण कितें करपाचें? ती घडणूक आमी विसरून गेलीं.

अशींच तीन सप्तकां गेलीं. आतां आमकां तिचो विसर पडिल्लो. एक दीस फांत्यार म्हजो बापूय दारांत दांत घांशीत उबो आशिल्लो. आमकां भुरग्यांक शाळेंत वचपाची घाई. आवय आमकां च्या-खावपाक दिवपांत गुल्ल. तितल्यान बापायन आमकां उलो मारलो. 'आरे, भुरग्यांनो बेगीन भायर येयात आनी मजा पळयात.' आमी सगलीं च्या-खावप सोडून भायर धांवलीं. आमचे फाटल्यान आवय रागान तांबडीगुंज जावन भायर आयली. पूण पळयल्यार कितें? आमगेली शेणिल्ली कोंबी दारांत उबी आनी तिचे वांगडा रंगरंगयाळ्या पांखांचीं तिगेलीं धाकटुलीं पिलां. ती पिलांक भितर

आपयताली. बाबड्यांक अजून सारकीं पांखां लेगीत फुटूंक नासलीं. मागीर तीं हुंबऱ्यावयल्यान भितर कशीं येतलीं ? आमी हातांनी ल्हवू तांकां एक एक करून भितर सोडलें. तांगेल्या चिवचिंवाटान आख्खें घर भरून गेलें. आवयक मळब दोन बोटां उणें जाल्लें. घराचे आशेन आयिल्ली कोंबी आनी तिचीं पिलां पळोवन आवयक धन्यताय दिसली. ती घरांत धांवत गेली कुजनांतल्यान मिठ सांसवां हाडली आनी तिणें कोंबी आनी पिला वयल्यान देंवोन रसरशीत पेटिल्ले चुलींत उज्यांत उडयली. तांदळाच्यो बारीक कणयो आनी उदकाची वाटी तांचे मुखार दवरली.

आयज लेगीत तो खोशयेचो खीण म्हजे नदरे मुखार तसोच उबो रावता. आनी हांव चिंतता जनावर आसूं ना तर मोनजात आसूं, सगळ्यांक मोगाची गरज आसता. मोगाचे ओडीन तीं घरां कडेन धांव घेतात.



# कश्टाचें फळ

अन्न, वस्त्र आनी निवारो ह्यो मनशाच्यो तीन मूलभूत गरजो आसात. ह्या तीन गरजा वांगडा उदक लेगीत तितलेंच म्हत्वाचें आसा. ह्या मूलभूत गरजां बगर मनीस ह्या संवसारांत जिवो रावंकच शकना. आतां जण एका मनशाच्या नशीबा वांगडा देवान ताका दुडू दिल्यात. ताका कुबेराचें धन दिलां. पूण ताचें उरफाटें दुसऱ्याक दुबळो केला. ताच्या सदांच्या जेवणाचीच भ्रांत मागीर कुबेराचें धन पयस. थोडच्या लोकांचें नशीब अशें आसा, तो खंयच्याय मार्गान दुडू जोडटा. आनी लक्ष्मी ताचेर प्रसन्न जाता. पूण तें धन शास्वत ना. जो दुबळो कश्ट करता, रातीचे दीस करून घाम गाळटा, सुसेग तागेल्या कोशांत ना! तो दरेका घामाच्या थेंब्या वांगडा दुडू जोडटा. तें मात शास्वत रावता. दुबळ्याच्या घामाचें मोल चड आसा. एका एका घामाच्या थेंब्या वांगडा ताका दुडू जोडपाक कश्ट पडटात आनी त्या दुडवांचेर तो आपणालो परिवार चलयता. पूण त्या दुबळ्या कडेन पळयल्यार ताचे मुखार एक तरेचें सूख-समाधान आनी शांती दिश्टीक पडटा. सदां कश्ट केले बगर सांजवेळार तागेली चूल पेटना. पूण तो बाबडो केन्नाच कसलीच कागाळ करना देवा कडेन. ताची एकूच आर्गां, 'हे धनयाबापा, म्हाका सदांचो वावर दी आनी म्हजी दीसपटी गिराज चलय.'

आमगेल्या घरा कुशीक एका गिरेस्ताच्या बंगल्याचें काम चल्लां. हांव म्हगेलो वावर करतां करतांच मदीं मदीं वचून तागेलो वावर नियाळटां. सकाळीं णव वरांचेर ते लोक थंयसर वावराक येतात. तातूंत दादले-बायलो आसतात. वत कसलें रे सायबा? भायर बेस्टी नदर मारली जाल्यार मनशाक घुंवळ येता, घरांत बसून. पूण त्या त्या जीव घेवपी वतांत ते वावराडी

रावतात. फातर फोडटात. शिमिटाच्यो पांटल्यो उखलतात. विटांचें वजें तकलेर घेतात आनी हें सगळें उक्त्या पांयान! नाजाल्यार घराभितर गादीचेर लेगीत आमकां स्लिपर्सा बगर जायना! आनी हे सगळे कश्ट भोगून गिरेस्ताले बंगले उबे करतात हें पळयल्यार अशें दिसता 'अरे संवसार संवसार.'

फांत्यार उठून बडयलेल्यो जाड्यो भरड्यो भाकरी आनी तोंडाक लावपाक झणझणीत कांदो. हेंच त्या बाबड्यांचो पंचपक्वान्न? दनपरां मालकान सुटी दिल्यार झाडापोंदांत बसकण मारप आनी एकमेकाचो सांगात मोगान वांटून खावप. चारी वटेन नदर मारत सैम नियाळीत ते पोटांत कोंबतात आनी भुकेचो उजो शांत करतात. मागीर दोनूय हातांचो पोसो करून घटाघटा उदक पियेतात. त्या उदकाचे ओघळ कोपरा मेरेन वतात ताची तांकां सुदबूद लेगीत उरना. आतां जग मातशें मुखार गेलां म्हूण तांच्यांत लेगीत मात्शी सुदारणा जाल्या. भाकरीच्या गटरी वांगडा उदकाची बाटली हाडपाक विसरनात. पोटांत पडटकूच मात्शी डुलकी. झाडापोंदा तकलेतळा फातर. जाचेर हाताची दुमडी करून निद्रादेवीचे आधीन!! थोडो वेळ न्हीद, परतें ताजे तवाने जावन वावर सुरू. तो सांजे सूर्या आपणाल्या घरा वच मेरेन! मागीर वतांत पसऱ्याचेर मीठ मिरसांगो, कांदे, तेल विकतें घेतले बगर सांजेची चूल पेटना. घरा गेल्यार आनी भुरग्यां बाळांची देखभाल, जाण्ट्यांची निगा पूण हें करतना बाबड्यांची कसलीच कागाळ ना! खंत ना! सदाकाल सुखी तो वावराडी आनी जाचें घर दुडवांनी भरिल्लें आसा, अन्नधान्याची संपन्न आसा तो मात सदांच चिंतेन, खंतीन पोखरलेलो. झाडाक लागिल्ले वाळवी भाशेन. आयज लाख ताचे करोड करून जातले? ताच्या घरांत बरें जेवण आसता. पूण ताची भूक झोपून घेतिल्ली आसता. आनी कूड सगळ्या दुयेंसांचें कुळार. सगळ्या दुयेंसांनी पोखरिल्ली. दोतोरान परत सांगिल्लें खावपाची इत्सा आसल्यार लेगीत तोंडाचेर मारून घेवन ओगी रावप. ह्या सगल्या गजालीचें चिंतप केल्यार खरो सुखी म्हणल्यार तो वावराडी. आंग मोडून वावर करता आनी भरपेट खाता. भूक विकत मेळना. बरें जेवण दुडू फारीक केल्यार मेळटा.

आतां वस्त्रांचे घेयात. ताचे कडेन दोनच वस्त्रां, लज धाकपाक मोजकीं दोनूच. ताका सगळे कडेन थिगळां आनी शिवण पूण ताची भलायकी मात फातर (वज्र) ताका दुयेंस मात लेगीत नासता. तो सदां निरोगी आनी धश्ट पुश्ट म्हणून ती पिंजिल्ली वस्त्रां लेगीत ताच्या आंगार रेशमी वस्त्रां प्रमाण सोबतात. खुलून दिसतात. जाका देवान भलायकीचो खरो अलंकार दिला ताका रसमी वस्त्रां कित्याक?

आतां निवाऱ्याचें पळयात. गिरेस्तांचे बंगले सेपरेट रुम्स, एअर कंडिनश, फॅन, खाटी, गादयो, रग पूण ताका न्हीद तरी खंय येता? रात रात दोळे उक्ते दवरून कूस बदलत आनी घडयाळ पळयत जागरण करपाची वेळ गिरेस्तांचेर येता. पूण ह्या वावराड्याचें पळयात. चार वणटीचें घर वा खोप. वयर तण, ना हाथरूण ना पांगरुण. आसली जाल्यार गोदडी ना जाल्यार कांबळ. पूण हाताची घडी करून तो डारडूर न्हिदता. कित्याक म्हळ्यार दीसभर आंग मोडून तो कश्ट करता. तागेली कूड थकिल्ली आसता. रातीकडेन भाजी भाकरी पोटांत गेली काय पोटाचो भगभग शांत जाता आनी मागीर बऽऽरी न्हीद येता. फांत्यार ताजो तवानो जावन परत तो वावरांत गुल्ल जाता. पूण जाका देवान न्हीद दिली ना, ताका मखमली गालीचो, मोव गादी कितें कामाची? दुडू फारीक केल्यार गादी मेळटा. न्हीद मेळना. न्हीद ही देवान दिल्ली देवा घरची देणगी आसा.

आमी चवथेंत शिकतालीं तेन्ना मराठी पुस्तकांत एक काणी आसली. 'मोत्याचे कणीस' आमी ती काणी रुचीन वाचतालीं. आनी आवय बापायक ती वाचून दाखोवन ताचो अर्थ विचारतालीं. एका नगरांत एक दानशूर राजा आसलो. तो फांत्यार बेगीन उठटालो आनी पयलें ज्या ब्राह्मणाचें तोंड दिश्टी पडटालें ताका तो सूप भरून मोतयां दितालो. हां हां म्हणटां ही खबर सगळे कडेन वाऱ्या भाशेन पावता. जण एकलो मोतयांचे आशेन येता.

त्याच नगरांत एक दुबळो भिक्षूक ब्राह्मण आसता. तो भीक मागून आपल्या परिवाराक सांबाळटालो. पूण ताका धनाची आस नासता. घरांत अठरा विश्व दाळीद्र आसता. बायल बेजारून घोवाक सांगता, 'कितलेशेच

ब्राह्मण येवन गिरेस्त जाले. तुमी कित्याक वच नात? हाचेर तो म्हणटा हें पळय, हांव भिक्षूक आसां. म्हाका फुक्याचें धन नाका. तें प्रजेचें आसा. राजाक तें दान करपाचो अधिकार ना.

पूण ताची बायल हट्टाक पेट्टा. म्हणून तिच्या समादाना खातीर फांत्यार राजवाड्याच्या दारांत वता. राजा सूपभर मोतयां घेवन भायर येता. त्या वेळार भिक्षूक म्हणटा, ‘हे राजा, हें धन प्रजेचें आसा. तें वांटपाचो तुका कांय अधिकार ना. म्हाका दिवपाचेंच आसल्यार एक दीस कश्ट कर आनी म्हाका दी. हांव तें व्हडा खोशयेन घेतां. राजा ब्राह्मणाक दुसऱ्या दिसा आपयता. ब्राह्मणाची बायल घोवाले वाटे कडेन दोळे लावन आसता. घोवाक पळोवन ती खाशयेन पिशी जाता. पूण घोवाची गजाल आयकून ती रागान तांबडीगुंज जाता. तरी पूण ती आपल्या मनाक समजायता. राजाची मजुरी म्हळ्यार खूब आसतली.

दुसरो दीस येता. राजा वेश बदलून कुणबी जाता. आनी तो वावराच्या सोदाक लागता. एका शेतांत एका मनशाची गरज आसता. तो शेतराखणो राजाक सांगता, तुका दिसाक एक रुपया मेळटलो. राजाच तो. ताका वावर कसो जातलो? शेतकार तोंडांत येता त्या उतरांनी राजाचो अपमान करता. पूण थंडगार वारो, पांचवोचार सैम, गोरवां-वासरां, सवर्णी, झूळझूळ उदक पळोवन राजा खुशी जाता. हरशीं ताका भूकच लागनासली. आयज ताका कडकडीत भूक लागता. शेतकार ताका रागीची भाकरी, झुणको आनी कांदो दिता. झाडा पोंदा बसून राजा तें खाता. खरी भूक कितें आसता तें ताका आयज समजता. झऱ्याचें थंडगार उदक पियेवन ताचो जीव धादोशी जाता. पूण वावर बरो करूंक ना म्हूण ताच्या हातांत चार चार आण्याचीं दोन नाणीं दवरता. पूण आपणाल्या कश्टाचें फळ समजून तो खोशयेन राजवाड्यांत येता.

दुसऱ्या दिसा परतो तो ब्राह्मण दारांत येता. तेन्ना राजा तीं दोन नाणी ताका दिता. ब्राह्मण तीं दोन नाणी खोशयेन घेता, आनी तो राजाक काळजा सावन आशिर्वाद दिवन ताची तोंड भरून तुस्त करता. ब्राह्मणाची बायल

ब्राह्मणाची वाट राखत आसता. ब्राह्मण तिका घडिल्ली गजाल सांगता. आनी तीं दोन नाणीं तिच्या हातार दवरता. बायलेचो पारो चडटा. आनी तीं दोन नाणी ती दारांत उडयता. नाराज जाल्ली ती बायल दुसऱ्या दिसा फांत्यार उठून वावराक लागता. दारांत सडो सारवण करपाक येता तर दारांत दोन झाडां आनी ताका बारीकशी, सोबीत, उदकाळ मोतयां आशिल्लीं कणसां लागिल्लीं आसतात. सुर्याच्या उदेंतीच्या किरणांनी मोतयां चकचकतात. तिचो आपल्या दोळ्यांचेर विश्वास बसना. ती घरकाराक उलो मारता. तो भायर येता आनी तिका सांगता, 'पळय, कश्टाची महिमा कशी आसता.'

हां हां म्हणत ही खबर वाऱ्या भाशेन नगरांत पावता. आख्खें नगर धावन येता. राजा लेगींत ब्राह्मणाची घडिल्ली गजाल लोकांक सांगता, सगळो लोक आनी राजा प्रतिज्ञा करतात, 'आमी कश्ट करतले, फुक्याचें खावचे नात, ते लोक कश्ट करतात. गांवचें नंदनवन जाता. जो कश्ट करून दुडू जोडटा ते शाश्वत आसा. त्या दुडवांक भिरांत ना.



# भोग

'दैव जाणिले कुणी' हे म्हणी भाशेन कोणाचें नशीब कोणाक खंयसर व्हरून सोडीत, सें सांगप शक्य ना. ताचें अशें जालें, गोंयच्या एका व्हडल्या शारांतले बाजारपेठेंत हांव भोंवडी मारताली. म्हजी मामी म्हजे वांगडा आसली. मनशां, गाडयो, सायकली हांची बाजारांत गचमुंडी जाल्ली. मुंयाचे रांके भशेन मनशांच्यो रांको दिसताल्यो. खर वत आशिल्ल्यान कुडीची ल्हाई ल्हाई जाताली. सुर्याच्या कडक किर्णांनी रस्तो रसरसून तापिल्लो आनी ताची झळ मारताली. हांवें मामीक ल्हवूच म्हणलें, 'मामी, वतना ताळो सुकला, मातशें कोल्ड्रिंक घेवया कितें?' तिवूय ताचीच वाट पळयताली. मामीन 'व्हय' म्हळें. कोल्ड्रींकचें नांव आयकून आमच्या पांयांनी अचकीत वेग घेतलो. ते एका कोल्ड्रींक हावसा लागीं थिरावले. कोल्ड्रींकाचे चार घोट ताळ्यांत वतकूच कुडीक आनी काळजाक थंडाय आयली. कुडींत मातशी तरतरी आयली. एका सप्तकाचो बाजार करून आमी म्हजे खातीर मेकअपचे आयटम घेवपाक एका व्हडल्या शोरुमांत पावलीं. ह्या शोरुमांत पावतकज म्हजी नदर एके चलयेचेर पडली. फाट करून उबी आशिल्ले ते चलयेची सोबीतकाय तिच्या सोबीत बांद्या कडेन पळोवन कळटाली. ती चली गुलाबी साडी न्हेशिल्ली आनी तिणें त्याच रंगाचो ब्लावज घातिल्लो. पांयांत सेबीत सँडल्स आसलीं. लांब केंसाच्या शेंड्याचेर माळिल्लो आबोल्यांचो झेलो उठून दिसतालो. तकले सावन ते पांया मेरेन ते चलयेचे कुडीचेर भांगराचे सोबीत अलंकार चमचम करताले. तिचे सोबीतकायेन हांव इतली गुल्ल जाली, म्हजें शॉपिंग लिस्ट म्हज्या हातांतल्यान खंय पडलें हें म्हाका कळ्ळेंच ना. हांव भान विसरून गेली. अवाक नदरेन हांव त्या फाट करून आशिल्ले चलये कडेन पळेतूच रावली. इतल्यांत ती चली आपलें बील फारीक करून फाटीं

सरली. तिचें मुखामळ पळोवन हांव खीणभर चकीत जाली.

म्हाका पळयतकूच ती चली मातशी गडबडली. म्हजी नदर चुकोवन ती भायर वचपाचो यत्न करूंक लागली. पूण हांवें तिचो हात धरलो आनी तिका हटकिलें. 'तूं विजया मगो? सगळो लोक तुका मोगान विजू म्हणटात न्हय. कितलें अपुरबायेचें आसलें बाय तूं!' एका फाटल्यान एक अशी म्हज्या प्रस्नांची सरबत्ती हांवें सुरू केली. पूण ती चली ओग्गी रावली. तिचें मुखामळ एकदम निर्विकार आसलें. तिका वळखूंक म्हजी चूक जाली कितें? काय विजूक आपल्या भुतकाळाचो विसर पडला! म्हज्या मनांत मातसो गोंदळ जालो. काय विजून मुद्दाम मोनेपण बाळगिलां? म्हाका चुकोवन ती चली भायर वचपाक लागली. पूण म्हजी आतां मेरेन खात्रीच जाली. तें विजूच आसलें! हांवें धाडसान तिचो हात घट्ट धरलो. हांवें म्हळें, 'तुका उलोवपाचें नासल्यार तूं उलोवं नाका. पूण तुका एक खबर सांगता, 'तुजे खंतीन तुजे आवयन हाथरुण धरलां. तूं संवसारांत ना असो तिचो समज जाला. पूण वास्तवांत तूं जितें आसा मगो' अशें म्हणून हांवें तिचो हात सोडलो आनी मामी वांगडा हांव चलपाक लागलें. 'भावना, रागार जावं नाका' विजून म्हाका उलो मारलो म्हूण हांव फाटीं घुंवली. विजू फुडें उलोवंक लागलें, 'हांवें तुका म्हजी वळख दाखयली ना, ते खातीर रागार जावं नाका. नाइलाजान म्हाका तशें करचें पडलें. हांव सगळ्या जगापसूनच पयस वचपाचो यत्न करतां. म्हजी कर्मकाणी जर तूं आयकशीत, तर तुका लेगीत तिरस्कार दिसतलो. तुज्या काळजांत म्हजे पासत आशिल्ली मोगाची सुवात तूं पुसून उडयतली. हे भिरांतीन हांवें तुका म्हजी वळख दाखोवपाक टाळाटाळ केली. हांव तुजे कडेन भगसणे मागतां' आनी तें रडपाक लागलें. इतलो वेळ आमी दोगांय ओगीच रावलीं. दुख्खाचो बांद फुटून विजूच्यो भावना तिच्या दोळ्यांतल्यान व्हांवपाक लागल्यो. ताचें मन मातशें ल्हव जालें.

विजून आपली कर्मकाणी सांगपाक सुरवात केली. तिची ती कर्मकाणी आयकून म्हजो संवसारा वयलो विस्वासच उडून गेलो. हे विजूभशेन अश्यो कितल्योश्योच चलयो ह्या दुर्दैवी फेऱ्यांत अडकल्या आसतल्यो हें नकळ.

तांकां ह्या फेऱ्यांतल्यान भायर काडप खरेंच शक्य ना! दरेकान आपल्या आपल्या संवसारांत वांट्याक आयिल्लो भोग भोगूंकच जाय, अशें म्हणून आमी आमचे वयली जापसालदारकी फाफडून मेकळे जातात. जिविताच्या वायट चक्रव्युहांत अडकून पडिल्ल्यांक भायर काडपाचो यत्न करपाचे पयस उरले, पूण आपले इत्साशक्तीन आनी प्रयत्नांनी जर कोण ह्या चक्रव्युहांतल्यान भायर आयले तर त्या व्यक्तींक हो संवसार सहजतायेन जिवीत जगपाक दिना. जखमी जाल्ल्या सवण्याक जशे ताचे इश्ट चेंचून चेंचून ताचें जिवीत काबार करतात, सारके तशेंच. भायल्या मर्णा परस मागीर अशीं मनशां ते दलदलींत रावपच पसंत करतात. नशिबाचो भोग भोगत रावतात.

विजूचो जल्म एका मध्यमवर्गीय कुटुंबांत जालो. एका ल्हानशा गांवांत ताचें एक ल्हानशें सोबीत घर आसलें. गोरवां वासरां, शेतां भाटां, अशे रितीन ताचें कुटुंब सुखान रावतालें. विजू म्हणल्यार गांवांतली एक सगळ्यांत सोबीत चली. तिका घडयतना देवान विशेश काळजी घेतल्या आसतली असो पळयतल्याक आभास जातालो. देवदूतान घडयता घडयता तातूंत मनशाचो जीव चुकून घाल्ला आसतलो अशेंच दिसतालें. तिचें शिकप मात जेमतेम जाल्लें. गांवांत चड शिकपाची सोयच नासली. अवखळ, अल्लड विजया तारुण्याच्या हुमऱ्यार केन्ना पावलें, हें कळ्ळेंच ना. कवळे मक्याचें कणस जशें दूद भरल्यार हळडुवेंच आनी ठसठशीत दिसता, सारकें तशेंच विजू दिसतालें. तरणेपणान मुसमुसलेल्या विजूक मागीर गांवांतल्यान आनी शेजारच्या खेड्या पाड्यांतल्यान सोयरिको येवंक लागल्यो. चेडवाची जात म्हणल्यार पराया धन अशी समज आशिल्ले ताच्या आवय बापायन शेजारच्या गांवांतल्या एका तरणाट्या वांगडा सोयरीक थारायली. आनी शुभ म्हूर्त पळोवन ताचें लग्न लायलें. विजू घोवागेर नंदपाक गेलें. पयले कांय दीस मजेंत गेले. विजू सुखी संवसाराचीं सपनां रंगोवपाक लागलें. आपणाक इतलो बरो घराबो दिलो म्हणून देवाक आर्गां दिवपाक लागलें. व्हडा खुशीन तें आपल्या वावरांत गुल्ल रावतालें. पूण एक दीस विजूचे हे खुशालकायेचेर विरजण पडलें. नशीबान एकदम फाट केली. ल्हवू ल्हवू विजूचो छळ सुरू जालो. तुज्या कुळारा वचून अमकें हाड, तमकें हाड अशी बोचणी सुरू जाली. तुका रांदप

जमना, तुका कसलोच वावर करप जमना बी टोमणे मारपाक लागले. विजूक रडूंक येतालें. तें रडपाक लागल्यार तिचो घरकार आनी सासूमाय तिका मारपाक लागले. तिका उपाशीं दवरप जालें. एक दीस विजूक खूब मारून ताच्या घोवान ताका कुळारा धाडलें.

कुळारा आपल्या आवय बापायक विजून आपली पिडा सांगली. तिच्या घरच्यांक खूब दुख्ख जालें. आपले धुवेचे त्रास, पिडा उणी जावची म्हणून आपले परीन कितें जाता तें सगळे तांणी विजू कडेन दिवन तिका ताच्या घोवा घरा परतें धाडलें. कांय दीस बरे गेले. पूण विजूची पिडा परत सुरू जाली. मार, बडय, उपाशी दवरप, गाळी घालप, हें सगळें परत एक फावट सुरू जालें. विजूक जबरदस्तीन ताचे मांयन परतें कुळारा धाडलें. परतें एक फावट आपणाक जें जमता तें दिवन तांणी विजूक परतें घोवागेर धाडलें. पूण तिच्या घोवा घरच्यांचीं काळजां आतां राकेसा भशेन जाल्लीं.

विजूचो छळ ही आतां सदाचीच गजाल जाल्ली. परतें एक फावट कुळारा आयले उपरांत विजूचे आवयन तिका सरळ सांगलें, 'बाय गो, तुजी अजून एक भयण लग्नाची आसा. तुज्या नशिबाची तूं. तुका जावपी त्रास तुवें आतां सोसूंक शिकूंक जाय. एक फावट लग्न जाल्यार धूव दुसऱ्याचें धन जाता. आतां परतें आनी एक फावट तूं घरा येवपाचें भानगडींत पडूं नाका. आमकां लज जाता. आवयचीं हीं उतरां आयकून विजूक आपल्या पांयां सकयली भूंय सरकल्ले भशेन जाली. आपलें जिवीत आतां काबार जालें अशें समजून विजू घोवा घरा परतें आयलें. पूण घोवा घरच्यांनी ताका परतें घरा घेतलेंच ना. तूं जाय थंयसर वच पूण ह्या घरांत पावल दवरूं नाका. विजूची तकली सुन्न जाल्ली. कितें करूं हें तिका कळ्ळें ना. गांवच्या शेजाराक आशिल्ली न्हंय उपाट भरून व्हांवताली. ती गंगा तरी आपणाक आपले कुशींत नक्कीच घेतली म्हूण विजू ते न्हंयचे देगेर पावलें. फुडें फाटीं चिंतीनासतना विजून आपणाक न्हंयत झोकून दिवपाक पांय उखल्लो. इतल्यांत कोणें तरी ताचो हात धरलो, 'राव चेडवा, असो अविचार करूं नाका, आत्महत्त्या करप म्हणल्यार व्हडलें पातक आसा! जिवीत एकूच फावट मेळटा, ताचो पुराय उपभोग घे!

जिवीत काबार करपाचो हक्क देवान तुका दिलो ना.' तिणें फाटीं फिरून पळयलें, एक मध्यम पिरायेचो दादलो. तिका भुजवण दितालो. 'तूं तुजें जिवीत काबार करूं नाकाय. हांव तुका नवें जिवीत दितलों. चल, म्हजे वांगडा यो. म्हज्या इश्टाच्या घरांत जाय तितली सुवात आसा. थंयसर तुका तुज्या जिविताची नव्यान सुरवात करूं येता. अशें म्हणून ताणें विजूक एका घरा म्हऱ्यांत हाडलें. पूण त्या घराक कुलूप आसलें. तो खंय तरी भायर गेला दिसता. अशें म्हणून त्या दादल्यान विजूक एका लॉजींगार व्हेलें. ताका सोरो पाजयलो. ताका पोटभर जेवपाक घालें. कुडीच्या आनी आत्म्याचे भुकेन व्याकूळ जाल्लें विजू त्या लांडग्याचे सुवादीन जालें. रातभर ताणें तिचो उपभोग घेतलो.

दुसऱ्या दिसा परतें एक फावट विजूक सोरो जेवण दिलें. पूण आयज त्या लांडग्याचो एक इश्ट ताचे वांगडा आसलो. दोगांनीय विजू नांवाचे शेळीचे लचके तोडले. कितें जाता हाचें विजूक मात लेगीत भान नासलें. मागीर तो विजूक शारांत घेवन आयलो. थंयसर ताणें ताका एका कुंटखान्यांत व्हेलें. सोबीत चली पळोवन ते बायलेन त्या दादल्याक बरें मोल दिलें. आनी विजू फसलें त्या यमकोंडांत!

अशी ही विजूची काणी आयकून म्हजें मन सुन्न जालें. चितलें, मनशाचो सर्ग आनी यमकोंड दुसरे कडेन खंय नात. ते हांगाच आसात. हे पृथ्वीचेर!



# शिस्त

**मा**नाऽऽ हीं उतरां म्हज्या कानाचेर पडटकूच म्हाका त्या गोंयच्या मानाची याद येता. म्हजें शिकप काबार जातकूच हांवें नोकरी पासत गोंया अर्ज केल्लो. आनी म्हाका गोंयांत नेमणूक मेळ्ळी. वास्कोचे बगलेंत आशिल्ले चिखलेचे शाळेंत म्हजी सहाय्यक शिक्षिका म्हूण नेमणूक जाली. चिखली, खूब सोबीत गांव. अर्दो गांव दोंगराचेर जाल्यार अर्दो गांव दोंगराच्या मुळसांत.

गांवाचे बगलेक खाडी आसा. हे खाडीचे देगेर कवायत करूंक उबे आशिल्ले भाशेन माड उबे आसात. मर्दी मर्दी आशिल्ले व्हाळ आनी सरभोंवतणी आशिल्लीं वांयगणाची शेती हाका लागून हो वाठार सदांच पांचवोचार आसता. शेतीच्या वाफ्यांची आखीव रेखीव मांडणी पळयल्यार अजाप दिसता. खाडीचे देगेर ल्हान व्हड कारखाने लेगीत आसात. ह्या कंपन्यांच्या भोंग्यांनी घाल्लो हुयेल कानाक सोसूं नज. मुखेल रस्त्या शेजाराक, नाल्ला भाटां मर्दी आमची शाळा.

रस्त्याचे कुशीन दोंगराच्यो रांको. दोंगराच्या मुळसांत गिरेस्तांचे महाल आनी गरिबांचीं ल्हानशीं घरकुलां आसलीं. कांय खोपी माडाच्या चुडटांनी धांपिल्ल्यो. आंबो, पणस, काजू, केळी, अनस अशा फळा फुलांच्या झाडांनी एकूण वाठार खूब गिरेस्त दिसतालो. गुलाब, आबोलीं, शेवंती आनी मोगऱ्याच्या फुलांचो परमळ सगळे कडेन दरवळटालो तेन्ना मन खुशाल जातालें. ह्या वाठारांतच आसलो म्हज्या ह्या मानाचो बंगलो. सामको आमचे शाळेचे लागीं. मदले सुटयेंत शाळेचीं भुरगीं खेळटालीं तेन्ना हो परिसर

आनीक खुलून दिसतालो.

ह्याच बंगल्यांत रावपा खातीर म्हाका कूड मेळिल्ली. माना आंकवार आसली. ती एकलीच ह्या बंगल्यांत रावताली. पूण तिका एकली म्हणूंक जावचें ना, तर तिचे वांगडा तिच्यो कोंबयो, बदकां, दुकरां लेगीत ह्या वाठारांत आसलीं. आनी आसले माड आनी माडयो तशेंच वेगवेगळे तरेचीं फुलझाडां आनी फळझाडां. फांत्यार पांच वरां सुमाराक जेन्ना गवळी दुदाची बाटली तिच्या घरा मुखा वयल्या टेबलाचेर आपटीतालो, त्या आवाजांत ती आपल्या हातरुणांत उठून बसताली. ते उपरांत घराचें आंगण पोरसूं नितळ करून आयदनां नितळ करून उदक न्हावन गार्डनांत वचून ती फुलां एकठांय करताली. ते उपरांत ह्या फुलांचो हार करून आल्तारार घालताली. म्हजे खातीर एक गजरो करूंक ती विसरनासली. हांव शाळेंत वता आसतना, टीचर मातशी राव आं, हांव तुज्या केंसांनी गजरो माळटां अशें म्हणून ती म्हज्या केंसांनी गजरो माळटाली. पळय तुज्या केंसानी हो गजरो कितलो सोबीत दिसता न्हय अशें म्हणूंक ती विसर नासली. हांव शाळेक गेले उपरांत ती कोंबयो, दुकरां आनी बाकांक तांच्या खुराड्यांतल्यान भायर सोडटाली. आनी तांचें खुराडें नितळ करताली. ते उपरांत आऽऽ आऽऽऽ करून त्या सगळ्यांक खावपाक घालूंक ती साद घालताली. एका दुकरान दुसऱ्याच्या खाणांत तोंड घाल्यार ती ताका हटकून म्हणटाली, जेन्ना तुजे मुखार आसतना दुसऱ्याच्या खाणांत कित्याक तोंड घालताय? एके तरेन ती तांकां देख दिवंक सोदतालीं. मोन जातीक लेगीत तिणें बरी शिस्त लायिल्ली हें पळोवन म्हाका अजाप दिसतालें.

तिचे भाव आनी भयणी सगळीं भायल्या देशांनी आसलीं. केन्नाय दोन चार वर्सांनी ती आपल्या भावा भयणींक मेळूंक भायल्या देशांत वताली.

मानाचें जेवण म्हणल्यार शीत आनी नुस्तें, तरकारी आनी फळां.

म्हजी आवय म्हजे वांगडा कांय दीस आसली तेन्ना ती मानाक आमच्या महाराष्ट्रीयन पद्दतीची गरम गरम भाजी भाकरी दिताली. माना भशेन म्हजे आवयक नितळ रावपाक आवडटालें. हे खातीर माना आनी आवयचें बरें जमतालें. म्हजी आवय गावा कडेन परती वतना माना तिका नाल्ल, काजू, पणस आनी आंब्याची भेट बांदून दिताली.

वर्स देड वर्सां उपरांत म्हजी लेगीत दुसऱ्या इस्कोलांत बदली जाली तेन्ना म्हाका मानाचें घर सोडचें पडलें. मानाचे शिस्तबद्ध जिवीत आनी तिची मोनजाती विशीं आशिल्ली आपुलकाय हे गजाली खातीर माना विशीं म्हज्या मनांत लेगीत आपुलकाय वाडली.



# आमचो भागूमामा

**भा**गूमामा गेलो हें आयकून खूब दुख्ख जालें. म्हजी आवय-बापूय गेल्यार जितलें दुख्ख जालें ना ते परस चड दुख्ख म्हाका जालें. तशें पळयल्यार मामाची भलायकी मामी गेल्या पसून तितलीशी बरी नासली. जेवपाची खावपाची हेळसांडच जाताली. तशे भागूमामाचे पूत आनी सुनो ताचे कडेन आडनदर करताली अशें ना. पूण घरकान्नीचो विरह ताका सोंसलो ना. आनी ह्या धसक्यांतच ताणें एक दीस ह्या संवसाराचो निमाणो निरोप घेतलो.

भागूमामा म्हळ्यार कोण व्हड असामी वा व्हड फुडारी न्हय. तो एक सादोभोळो, गरीब सभावाचो, दुबळो मनीस. म्हज्या कुळारा तो वावराडी म्हूण वावुरतालो. घरांतल्या गोरवां वासरांची आनी शेता भाटांची उस्तवारी करतालो. सगल्या कामाची जबाबदारी ताचेर आशिल्ली. म्हज्या बापायचो लोण्याचो वेपार आशिल्ल्या कारणान ताका धा खेडीं भोंवडी मारची पडटालीं. तेन्ना हो मामा म्हज्या बापाय वांगडा सावळे भाशेन ताचे फाटी फुडें रावतालो. बेळगांवां लेगीत बैलांची गाडी घेवन तोच वतालो. ताच्या एका एका उगडासान म्हजे दोळे भरून येतात आनी दुकांचो बांद फुट्टा.

वेपाराक लागून मामा आनी म्हजो बापूय दीसभर घराभायर आसताले. सांजवेळार ते घरा परते येताले. हातपांय धूतकच च्या. मागीर मामा म्हज्या बापायक तेलान मालीश करतालो. फाटल्या पोरसांत उदकाचो तापिल्लो कडकडीत तांब्याचो हांडो म्हजी आवय तापयताली. बापूय न्हातकच मागीर जेवणाची कार्यावळ जाताली. ते उपरांत गजाली, भुरग्यांचें लिसांव. ज्या

दिसा म्हजो बापूय घरांत आसतालो त्या दिसा आमगेलो लिपचेल्यांनी बंद. म्हजो बापूय बेळगांवच्या बाजारांतल्यान कांय बरी काणयांची पुस्तकां हाडटालो. तातूंतल्यो काणयो वाचपाची जबाबदारी म्हजी आसताली. कित्याक म्हळ्यार म्हजें वाचप स्पश्ट आशिल्ल्या कारणान हें अभियानाचें काम सगल्यांनी म्हजेर सोंपयिल्लें. भागुमामा अडाणी. ताची शाळा केन्नाच पळोवंक नासली. पूण कांणयांचो मात खूब छंद. तसोच तो व्हड भावार्थी आशिल्लो. ताणें 'पंढरीची वारी' केन्नाच चुकली ना. वर्सा भितर आषाढी आनी कार्तीक दोनूय वाऱ्यांक तो पंढरीक वतालो. पांडुरंगाचें दर्शन घेवन धन्य जातालो. काणी वाचपाक सुरवात जाली रे जाली आमगेल्या वाड्यांतले जाण्टे नेण्टे आमगेल्या घरा मुखार एकठांय जाताले. काणयेच्या चड उतारा प्रमाण त्या बाबड्यांच्या मुखामळांचेर भाव स्पश्ट दिश्टी पडटाले. आयज लेगीत तीं मुखामळां म्हजे नदरे मुखार येतात आनी म्हजे दोळे दुकांनी भरतात. थोडो वगत हांव म्हज्या भावनांचो बांद फोडटां आनी म्हजें काळीज ल्हवशें करून घेता.

भागुमामाक पान खावपाची संवय चड आशिल्ली. चार पालवांचो पानांचो बोटवो ताचे कडेन सदांच आसतालो. पान, तंबाकू, कात, चुनो, सुपारी अशा गजालींनी ती पोती परिपूर्ण आसताली आनी तेच पोतयेंत ताची गिरेस्तकाय म्हणल्यार चार आणे, आठ आणे चड करून एका रुपयाचें नाणें. म्हजें वाचप अर्दे जातकूच भागूमामाचो म्हजेर आशिल्लो निस्वार्थी मोग प्रकट जातालो. बाय, मातशें ओगी राव वाचून वाचून तोंड दुखता आसतलें. मातशें राव. तुका मगो एक धाकटुली पानपट्टी करून दितां. मागीर आपल्या हातांनी एक धाकटुली पानपट्टी करून तो ताच्याच हातान म्हज्या तोंडांत कोंबतालो. पान खातकूच तोंड तांबडे गुंज जातालें. आंगणांत वचून दोनी बोटां ओंठाक लावन एक पिचकारी मारून हांव परतें वाचप सुरू

करतालें. काणीं काबार जातकूच जाण्टी म्हाका वेंगेत घेवन कानशिलाचेर काड काड बोटां मोडून तोंड भरून म्हाका बेसांव मेळटालें. 'म्हजी गुणाची बाय कशी वाचता तिका कोणाची नदर लागची न्हय रे धनया!'

शाळेक सुटी आसल्यार भागुमामाचे रंगीत बैलगाडयेंतल्यान आमी बेळगांवां पावतालीं. रंगीत गाडी. ते गाडयेचेर सोबीत सवारी आनी गाडये मुखार धव्या फुल्ल बांगर बैलांची जोडी. बैलांचे फाटीर सोबीत नक्षीकाम काडिल्ल्यो झुली. गळ्यांत घुंगराच्यो माळो, शिंगाक गोंडे आदी गजालींनी ही बैलगाडी एका राज्याचे सवारीभशेन दिसताली. गाडये भितर तण घालून ताचेर कांबळी हातरून मामा एकल्या एकल्याक उखलून गाडयेंत दवरतालो. गाडयेच्या दांडये खाला उजवाडा पासत एक लापयांव लेगीत हुंबकळटालो. चुलींतल्या गोबरान तो घासून मामा नितळ करतालो. मार्गार लाय‿ जशी झळकता तेच भाशेन रातच्या त्या किर्र काळखांत मामाचो लापयांव झळकतालो. लापयांवाच्या उजवाडान बैल आपलो रस्तो सोदताले. गाडये भितर आमच्या सांगाताक आमचे वांगडा बापूय बसतालो. तो काणयो सांगून आमकां रमयतालो. मदींच एका खेडेगांवांत खंयच्या तरी वळखीच्या हॉटेलवाल्याचें अपुरबायेचें हॉटेल आसतालें. मामा गाडयेंतल्यानच उलो मारतालो. 'अरे गणू, उठ मरे आमगेली सेना आयल्या. चल बेगीन च्या कर.' ताका च्या ची ऑर्डर दितालो. रातचे कडकडीत थंडेंत मेळिल्ली ती हुनहुनीत च्या आनी चटपटीत शेव-भडंग खावन आमकां खूब खुशालकाय मेळटाली. आमगेले गाडये वांगडा आनीक गाडयांचो तांडो आसतालो. सगळे मेळून एका दिलान मायेमोगान फुडें फुडें सरकताले.

बेळगांवां आमगेली भोंवडी दीसभर जाताली. हॉटेलांत कुरकुरीत पुरी भाजी, गरमा गरम भर्जीं, रुचीक बासुंदी, आयस्क्रीम, कोल्ड्रींक आनी मनाक येता ती खरेदी करून सांजवेळार परतेची वाट सुरू जाताली. सनवार

धरून आषाढी ना जाल्यार कार्तीक एकादशी आयल्यार भागूमामा पिसोगत जातालो. ताका पंढरीची आस लागताली. आपणाल्या इश्टाच्या हातांत गाडी सोंपोवन तो पंढरीक धांवतालो. पंढरीच्या पांडुरंगा बगर ताच्या जिवितांत कांयच नासलें. मागीर मामीची मस्करी करपाची कूय म्हज्या बापायक येताली. बापूय मामीक उलो मारतालो. 'आगो, ये येसवंदे, तुजो तुकाराम पंढरीक पावलो मगे.' मागीर ती पालवाचो शेव तोंडाक लावन तोंड भरून हांसून म्हणटाली. 'भाटकारा तुमगेली मस्करी चड जाता आं!' पूण तिका घरकाराचो अभिमान आनी आपुलकाय दिसताली.

भागुमामा अंगान जाडजूड आनी उंचेलो आशिल्लो. धोतर, खमीस, भगवो फेटो आनी पांयात करकरीत व्हाणो. चलतना व्हाणांचो कर्र कर्र आवाज येतालो. त्या आवाजान आमकां मामा आयला म्हूण खबर मेळटाली. ताचें व्यक्तीमत्व भारदस्त आसलें. पंढरी सावन येतकूच व्हाणाच्या कर्र कर्र आवाजान ताच्या आगमनाची सुलूस आमकां लागताली. मागीर आमी मामा म्हऱ्यान धांवतालीं आनी ताका वेंग मारतालीं. मामा उखलून घेतालो. जात्रेचें खाजें आनी खेळणी काडून दितालो. बाय तुमचो चड चड उगडास आयलो म्हाका पंढरीत. तो एक बाबडो आनी निस्वार्थी मनीस आसलो. खंयचेय गजालीचेर रोखडोच भावार्थ दवरतालो. कितें बरें कितें वायट हाची चडशी जाणविकाय मामा दवरी नासलो. जें दिश्टी पडटा तें सत हीच भावना ताच्या दोळ्यांत दिश्टी पडटाली. अशे रितीन ताणें जिविताची वाटचाल केली. लोकांचे मजतीक तो सदांच धांवतालो. कितेंय तंटे जाल्यार तोच निभायतालो. गांवांत काजार आसूं वा साकरपुडो मामाचो वांटो व्हडलो. आमच्या सुखांत तशेंच दुख्खांत तो सदचो वांटेकरी आसलो. आमगेल्या परिवारांत कितेंय कार्य आसल्यार तातूंत म्हत्वाचो मान मामाकूच!

म्हाका एका प्रसंगाची सदांच याद येता. पावसाचे दीस, न्हंयो,

व्हाळ उपाट भरून व्हांवताले. वेपाराक तर वचपाक जाय. नाजाल्यार लोणी, तातयां पिड्ड्यार जावन व्हड लुकसाण जातालें म्हूण म्हजो बापूय आनी मामा खेड्यांनी वेगळ्या मार्गांनी वचपाक सोदतात. त्या मार्गार लेगीत एक व्हडलो व्हाळ लागतालो. ह्या व्हाळांचें वैशिशट अशें, तातूंतल्या उदकाच्या वेगाचो अदमास मेळना! म्हज्या बापायन उदक पळयनासतना उदकांत पांय दवरलो, आनी हाय रे धनया ताचे पाय उखल्ले आनी तो उदकाच्या प्रवाहा वांगडा व्हांवंक लागलो. ह्या उदकांत आपणालो निभाव लागना हें वळखून ताणें मामाक आकांतान उलो मारलो. आरे, भागू, धांव धांव मामाक एक खीणभर काय समजूंक ना! दाळ्यां मुखार भाटकार मरणाचे दाडेंत आसा. कितेंय करून भाटकाराक वाचोवंक जाय अशें चिंतून ताणें व्हाळांत उडी मारली आनी बापायक वेंग मारून सगळी शक्त एकठांय करून धनयाक पलतडी पावयलें. दोनी हात जोडून ताणें देवाक नमस्कार केलो.

म्हजो बापूय आनी भागूमामा भावा भाशेन वावुरताले. 'दोन कुडी पूण एक जीव' अशें तांगेलें जिवीत आसलें. एकाक दुखल्यार दुसऱ्याक दुखतालें. भाटकार आनी वावराडी हो भेद तांचे भितर नासलो. आयज हे दोगूय ह्या संवसारांत नात, पूण तांगेले इश्टागतीचे एक एक किस्से आमगेले यादींत जिवे आसात!



# म्हजे माऊलीचे यादीक

उदेंत्या सुर्याक साक्ष दवरून, फांत्यार उठून कामाक लागपी दुदाचे सायेभशेन भुरग्यांक जपपी, मोगाचें कांबरूण घालून सांबाळपी म्हजे आवयक लाख लाख प्रणाम. सकाळीं न्हावन नास्टो करून पसऱ्या कडेन वता आसतना रेडिओचेर सुरू आशिल्ल्या एका गाण्याची ओळ म्हज्या कानार पडटकूच म्हजे दोळे भरून आयले, 'घे जन्म तूं फिरूनी, येईन मीही पोटी, खोटी ठरो न देवा, ही एक आस मोठी,' अशे त्या गिताचे बोल आसले.

म्हजी आवय म्हळ्यार सोबीतकायेची खाण आसली. गोरी पान, निळे दोळे, चाफेकळी नाक, न्हेसण णव वारी कापड, रुंद धडीची चोळी, कानांत फुलां, गळ्यांत पुतळ्यो टिक्को आनी मंगळसूत्र अशें खानदानी रुप. केन्ना मवाळ, चडशी मोगाळ पूण केन्नातरी तिच्या हाताचो प्रसाद म्हाका मेळटालो.

म्हजी आवय तेऊरवाडीच्या मंतेरो गेली. पन्नास साठ गोरवां, खुबशीं शेतां-भाटां आशिल्लें व्हड लौकीक फावो जाल्लें घराणें. घरा येवपी सोयरो वा वाटसरू तृप्त जावन वतालो. तिच्या घोवालें घर मेंदोसागेलें. म्हजे माईची आवय नासली तरी ती जल्मजात हुशार आसली. सगळ्यांची ती अपुरबायेची. कोणाच्याय घरा वासरूं रेडकू जाल्यार खरवस घालच्याक तिका लोक आपोवन व्हरताले. धा वर्सांची आसतना तिणें सासूमाय नाशिल्ल्या घोवा घरा लक्ष्मीच्या पावलांनी प्रवेश केलो. घरांत देर, नणंद काजारी, दोन देर शिर्विसी खातीर आपल्या कुटुंबां वांगडा भायल्या गावांनी आसले. आमच्या आज्यान तिका सगळें शिकोवन तरबेज केलें. आमच्या बापायचो तांतयांचो व्हडलो वेपार आसलो. सबावान चड तापट आशिल्ल्या म्हज्या बापाय

वांगडा तिणें खूब समोपचारान संवसार केलो. दोगांय लोकांच्या संकटाच्या वेळार ती धावन वतालीं. आपलें परकें अशें तिणें केन्नाच मानलें ना. घरा सोयरे दायरे आयल्यार तांकां हांसत्या मुखान येवकार दिवन तांची ती बरे रितीन सरबराय करताली. सणा परबेच्या वेळार कोणा गरिबा घरा कांय नासलें जाल्यार भात नाचणें दिवन तांकां खुशाल करताली. जाण्टे तिका नतू तर भुरगीं तिका मामी म्हूण उलो मारतालीं. कोणाच्या घरा सोयरे आयल्यार च्या पावडर नासली, ते आयले काय नतू मामी कडेन. गांवांतली कसलीच गजाल ते माऊली बगरं जायनासली. वडाच्या रूखाभाशेन ती गरजेवंतांक, पिडेस्तांक मोगाची सावळी दिताली. दुयेंस आयिल्ल्यांक तिच्या हातचें रुच्चेक जेवण खूब शक्ती दिताले. तिका मात कसलीच आस नासली.

शेतां भाटांनी तकलेर जेवणाची पाटली घेवन वचप. तांचे वांगडा रावप आनी घरांत जें शिजलां तें सगळ्या वांगडा वांटून खावप हो तिचो सभाव आसलो. म्हजे आवय मर्दी म्हाका कसलीच उणीव भासली ना. ती ह्या संवसारांत नासली तरी तिची देख, संस्कार, शिकवण आनी दाखायिल्लो सत्याचो मार्ग आयज लेगीत आमकां प्रेरणा दिता. जिविताचो तिणें आमकां अर्थ शिकयलो. ती एक आदर्श स्त्री, आदर्श घरकान्न आनी आदर्श आवय आसली.



# सभ्यतायेचो बुरखो

कांय बांधकथा अशो आसात ज्यो मनशांच्या सभावालागीं जुळटात. कांय मनीस भायल्यान अभ्यतायेचो आव हाडटात पूण भितरल्यान ते फटींग आसतात. ताणी फकत तो बुरखो पांगुरील्लो आसतात ताचीच ही देख.

एका जंगलांत एक कोलो रावतालो. एक दीस त्या जंगलांत फाशेपारद्यांचो एक गट आयलो. तांचे कडेन तोंकांचे भाले, बडयो आनी हेर शिकारीचें सामान आसलें. तांकां हो कोलो दिश्टी पडटकूच हे सगळे ताच्या फाटल्यान लागतात. बाबडो कोलो जिवाचे भिरांतीन जीव मुठींत घेवन धांवत सुट्टा. धांवतां धांवतां ताका खोपींत रावपी एक कुणबी मेळटा. ताचे कडेन तो काकुळटेक येवन म्हणटा, 'म्हज्या मोगाळ भावा. म्हाका मारच्याक म्हजे फाटल्यान पारधी लागल्यात. म्हाका तुवें तुजे खोपींत घडीभर लिपच्याक सुवात दिल्यार हांव तुका केन्नाच विसरचो ना. उपकार कर आनी म्हाका वांचय'. कुणबी त्या कोल्याक सांगता, 'ये, बेगीन भितर ये आनी लिपून बस' कोलो भितर वचून लिपता.

इतल्यांत ते पारधी थंयसर पावतात. ते त्या कुणब्याक विचारतात, 'तुवें त्या कोल्याक पळयला किते?' तो कुणबी आपणें कोल्याक पळयलें ना म्हूण सांगता आनी तांकां हातान भितर इशारो करता. कुणब्याचें हें कर्तुब कोलो पळयता, पूण त्या पारध्यांक काय कळना. ते परते रानांत वतात. ते पयस पाविल्ले पळोवन कोलो लेगीत लिपिल्ले सुवातेवेल्यान भायर येता आनी रानाचे दिकेन चलूंक लागता. हें पळोवन कुणबी त्या कोल्याक म्हणटा, 'आरे फटकिऱ्या, हांवें तुजो जीव वांचयलो तरी लेगीत तुवें म्हजे उपकार

मानले ना.' हाचेर कोलो त्या कुणब्याक जाप दिता आनी म्हणटा, 'आरे घातकी मनशा, ज्या मनशा कडेन इमानच ना, ताचे आनी कसले उपकार मानपाचे? तूं एक नीच आनी घातकी मनीस आसा. एका बेइमान आनी घातकी मनशाचे उपकार आनी कसले मानपाचे?'

हाचो बोध असो जो मनीस सभ्यतायेचो बुरखो घालून सभ्यतायेच्यो गजाली करता, अशा मनशा कडेन चड सादुरतायेन रावचें पडटा तेच फटींग आसतात.



# मातृ-पितृ देवो भव

**जो** मनीस आवय बापायची सेवा करिना ताका सैतानच म्हणप उचीत जातलें, असो मोलाचो संदेश सगळ्या संतांनी दिला. कित्याक म्हळ्यार, घरा भितर आवय बापायच्या रुपान प्रत्यक्ष देव वावुरता. पूण मनीस तें चिंतना. तांचो ताका विसर पडटा. आनी देवाक सोदपाक तो इगर्जी, मंदीर आनी मस्जीद भोंवता. थंयसर तो देवाक सोदता. मागीर देव ताका कसो मेळटलो? 'तुझं आहे तुजपाशी परी जागा चुकलाशी' हे म्हणी भाशेन देवाची छबी ताका केन्नाच दिश्टी पडना. फकत निराशा मात ताच्या पालवांत पडटा. जो मनीस आवय बापायची अवहेलना करता, ताका धन्या बाप केन्नाच माफ करिना. आवयच्या मोगाक लागून जाय तितल्या लेखकांनी आवयची तोंड भरून तुस्त केल्या. 'स्वामी तिन्ही जगाचा आईविना भिकारी'. दर्याची शाय आनी मळबाचो कागद आनी रुखाचें पेन करून आवयची महंती बरयल्यार लेगीत ती काबार जायना.

आवय म्हळ्यार मोगाचो अथांग सागर. आवय सारकें दुसरें दैवत ना. पूण आवयच्या मोगा इतलेंच बापायचें लेगीत म्हत्व आसा. संवसाराचो गाडो एके आवयचेर चलना. ताका बापायचो सांगात लागता. गाड्याक दोन बैल जाय, तेच भाशेन संवसाराच्या रथाक आवय बापायची गरज आसा. बापूय कश्ट करता, घाम गाळटा आनी दुडू हाडटा. तर आवय घर चलयता, आनी ती भुरग्याक बरी देख दिवन त्या भुरग्या मदल्यान एक बरो नागरीक घडयता. कुंभार मातयेच्या गुळ्याक आकार दिता आनी ताचो एक सोबीत

बुडकुलो घडयता. तेच भाशेन भुरग्यांक घडोवपाचें काम आवयचें आसा. भुरग्यांक बरी वायट देख दिवपाची जापसालदारकी आवयची आसा. भुरगेपणांत बरी देख दिल्यार मनीस फुडारांत चमकता आनी आपणा वांगडा आवय बापायचें आनी कुळाचें नांव रोशन करता. उजवाडांत हाडटा. पूण ही जापसालदारकी चड करून आवयची आसता. दुडू कमोवपा पासत बापूय चड वेळ घरा भायर आसता. आनी भुरगें सदांच आवयचे नदरे मुखार तिच्या आसपास वावुरता. आवयचे शिकवणीचेर एक तर भुरगें बरें जाता नाजाल्यार पिड्ड्यार जाता. तें भटकता आनी ताचें सगळें जिवीतूच काबार जाता.

अशीच ही एक देख – एक दुबळी आवय आशिल्ली. तिका अपुरबायेचो  एक पूत आसलो. आवय चार घरांचो वावर करून व्हड कश्टान भुरग्यांक सांबाळटाली. पूत मातसो चड हुशार आनी प्रामाणीक आशिल्लो. एकदां ताका दुडवांची गरज आसली. तो आवय कडेन पेन मागतालो. 'माय म्हाका एक पेन घेवन दी मगे!' ती म्हणटा, 'बाबा, हांव खंय सावन दुडू हाडूं? सद्या पोट चलपाचें कठीण आसा' अशें सांगून ताका ती वेळ मारून व्हरता. एक दीस स्कूलाच्या दारा मुखार एक बरें सोबीत पेन मेळटा. तें उखलून तो गडबडीन आपल्या बोल्सांत घालता. पूण रोखडोच ताका उगडास येता. कोणा बापड्याचें पेन आसतलें? ताका पेन व्हगडायलें म्हूण कितलें दुख्ख जालां आसतलें. हें चिंतून तो तें पेन टिचरी कडेन दिता. टिचर चवकशी करता आनी तें पेन त्या भुरग्याक परत दिता. खोशीन तें भुरगें नाचूंक लागता तें पळोवन ह्या गुणी भुरग्याचें काळीज धादोशी जाता. स्कूलांत ह्या चेड्याची तुस्त जाता. सांजवेळार घरा येतकूच आवयक ही खबर सांगता. आवय रागान तांबडीगुंज जाता. ताचे फाटीर ती एक सणसणीत थापट मारता आनी म्हणटा, 'पिश्या भुरग्या काय बरी संद तुवें वगडायली.

तुका पेन मेळिल्लें तें तुवें परतें दिवंक नाकाशिल्लें.' भुरगें चिंतता खरेंच हावें हें काम बरें केलें ना?

दुसऱ्या दिसा सावन तो स्कूलांतल्यान पेन, रबर, पेन्सिल अशी एक एक वस्तू चोरून हाडून आवयक दाखयता. आवय खोशयेन पिशी जाता, ती ताका शाबासकी दिता. मुखार तो एक अट्टल गुन्यांवकार जाता. खून दरोडे लूटमार अशे रितीन तो आपलो वावर सुरू दवरता. पुलीस ताका धरतात. ताका फांशी जाता. ताची निमणी इत्सा म्हूण तो आपले आवयक मेळपाची इत्सा उक्तायता. आवय जेन्ना ताका वेंग मारता तेन्ना तो तिच्या कानाचो चाबून कुडको काडटा. मागीर तो हजर आशिल्ल्यांक सांगता. 'ही शिकवण म्हजे आवयची. हांव जेन्ना चोरी करतालों तेन्ना आवयन म्हाका एक थापट मारिल्लें जाल्यार आयज हांव गुन्यांवकार जावचो नासलो. म्हजे आवयन म्हाका बरी देख दिवपाची सोडून जिवितांत एक गुन्यांवकार केलो.' अशें सांगून तो रडूंक लागता. 'पूण ताचो उपेग कितें? खरी गुन्यांवकारी म्हजी आवय आसा.'

भुरग्याच्या जिवितांत आवय आनी बापूय हांकां खूब म्हत्व आसा. आवय बापायची जो सेवा करता ताका संवसारांत कांयच उणे पडना. तीं दोगां आमकां ह्या संवसारांत हाडटात. ताळटा वयल्या फोडा भशेन आमकां जपतात. हातांचो पाळणो करून हालयतात. दोळ्यांचे दिवे करून जपतात. एक ल्हान भुरग्याचे तरणेपणांत रुपांतर जावपाक दोन दशकां लागतात. आपणालें सूख, खोशी स्वातंत्र्य सगळें विसरून भुरग्याच्या सुखांत आपलें सूख सोदतात. जायतें केल्यार लेगीत तांचें रीण फिटचें ना. त्या परमात्म्याचो मोग जाणी ह्या संवसारांत हाडला. तांगेलें वात्सल्य, दया, सोंशीकताय हे गूण दैवी आसात. हेच खातीर आवय बापाय सारकें दुसरें दैवत ना. देवाचें बेसांव जाय आसत जाल्यार एक सोंपो आनी सुबक मार्ग आसा, आनी तो

म्हणल्यार ह्या देवाची सेवा करप, तांकां सूख दिवप. तांणी ह्या संवसाराचो निरोप घेतल्यार लेगीत तांचे खातीर आशिल्ली धार्मीक कर्तव्यां भुरग्यांनी पार पाडूंक जाय. आवय-बापायची उपेक्षा करता, मानहानी करता, अवाज्ञा करता, तांगेली सेवा नाका म्हूण तांकां पयस दवरता, तांचे कडेन दुर्लक्ष करता, तांकां मनस्ताप दिता. हे दोश व्हड आसात. जांकां सेवा करपाक कश्ट दिसता तो व्हड पातकी आसा. आपले कुडीचो तो जेन्ना त्याग करता, तेन्ना धनया बापान तांकां यमकोंडांत सुवात दवरिल्ली आसा. हेच खातीर देवदेवतांनी आनी संतांनी आवय बापायचे सेवेची म्हयमा गायल्या. तांची सेवा करपी भाग्यवंत, ताका खरेंच कांयच उणें पडचें ना. ताची भरभराट जाता, ताका सूख शांती समाधान मेळटा. म्हणूनच म्हणटात मातृ-पितृ देवो भव!!!



# कोवाड, म्हजें कुळार

कुळार ह्या उतरांत मोग, आपुलकाय, ओड ह्या गजालींचें अमाप भांडार आसता. घोवालें घर कितलेंय सुखी आसूं, समृद्ध आसूं, वो सुखसोयींनी परिपूर्ण आसूं, कुळाराची सर घोवाल्या घराक येना. त्या घराची गिरेस्तकाय कुळाराच्या मोगाची आनी आत्मीयतेची समानताय करूंकच शकना. कुळाराची ओड सामकी आगळीच आसता. घोवा घरची पुरण पोळी परस कुळाराची भाजी भाकरी लेगीत रुचीक आनी अमृता परस गोड आसता. कुळारच्या उतरांतली ओड दरेक बायलेक आसप सभावीक आनी सैमीक आसता.

ज्या गांवाचेर सैमान मुक्तपणान आपल्या सुंदरकायेची उधळण केल्या, तिनी वटेन सोबीत दोंगुल्ल्यो, शेजाराक व्हांवपी ताम्रपर्णी न्हंय. न्हंयचे दोनी दोंगर न्हंयच्या उदकान सदां फुलिल्ले आनी माडाच्या झाडांनी सोबीत जाल्ले तशेंच केळींच्या झाडांची किनार लाबिल्ले सुपीक जमनींतले पाचवे उसाचे मळे अशा म्हज्या सोबीत कुळाराचें नांव आसा कोवाड. सैमसुंदरकायेचें अमर्याद देणे लाबिल्ल्या चदंगड तालुक्यांतलें गांव कोवाड. मराठींतले नावाजते लेखक 'स्वामीकार' रणजीत देसाय हांची ही मांयभूंय. रणजीत दादांच्या नांवान कोवाड गांवाक एक वेगळेंच वलय आयलां. महाराष्ट्रांतल्या तशेंच देशांतल्यान जायते मानेस्त दादांच्या निमतान कोवाड पावले. तांच्या पावलांच्या स्पर्शान कोवाड पंचक्रोशीची म्हजी मांयभूंय पवित्र आनी सन्मानीत जाल्या. म्हजी पुण्य भूंय धन्य जाल्या.

लागीं लागीं धा वर्सां उपरांत हांव म्हज्या कुळारा गेल्ली. कारण

लेगीत तशेंच आसलें. म्हजे आवय बापूय आतां जिते नात. पूण मनांतली माऊली, भाव, भयण, वयनी, बाळगोपाळ अजून आसात.

भावाच्या पुताच्या काजाराक वचपाचो योग आयलो. पयलींच पळयतना म्हाका म्हज्या गांवाची वळख पटली ना. गाडयेंतल्यान देंवतकच म्हाका येवकार दिलो तो उंचेल्या झाडांनी. ताम्रपर्णी न्हंयचेर बांदिल्ल्या बंधाऱ्यान आडायिल्ल्या उदकाचो डोह पळोवन मन सुन्न जालें. एखाद्या अरवळ बाळाक दोरयेन बांदून घाल्ल्या भाशेन ताम्रपर्णीक बंधारो घालून आडायला. गांवांत भितर सरतकच व्हड-व्हडलीं हॉटेलां आनी दुकानां दिश्टी पडलीं. तातूंत लायिल्ल्या कान बसपी आधुनीक पदांच्या आवाजान कानाचे पड्डे दुखावताले.

थोडें अंतर चलून गेल्यार काजाराचो माटोव दिसलो. आनी हांव धादोशी जाली. तितल्यान गल्लींतल्या बायलांनी म्हळें, 'आई, आलीस ग', ह्या उतरांनी हांव भानार आयली. 'व्हय' हें उतर म्हज्या गळ्यांत अर्दे अडकल्ले आसतनाच म्हजे माऊलीन म्हाका आपले वेंगेत घेवन घरांत व्हेलें. मागीर हात पाय धुवप, च्या, फराळ, जेवण हांची रेलचेल आनी गजाली. पावणेचारांक सांज केन्ना जाली तें कळ्ळेंच ना. आईन आनी भयणींनी केल्लो अहेर आनी बांदिल्ली भेट पळोवन म्हाका म्हज्या जल्मदातीची याद जाली आनी दोळ्याच्या कोनशांनी उदक आयलें. आपली आवय तर मोग करतालीच, पूण मानिल्ले आवयचो आनी भावंडांचो मोग पळोवन मन भारावन गेलें. गांवांत एक पासय मारची अशी खूब इत्सा जाली. गांवांतलीं ल्हान घरां, जंयसर जात्याचेर ओवी म्हणपी आवयचे मांडयेचेर सानुलीं बाळां न्हिदतालीं. दळप सरतकूच आवय आपल्या बाळाक उठोवन ताका जेवोवन शाळेंत धाडटाली. पूण हें सगळें नाच्च जालां. त्या ल्हान ल्हान घरांच्या सुवातींचेर आतां व्हड व्हडल्यो इमारती आसात. घराच्या फाटल्यान कुशीन पोरसूं आनी वेगवेगळ्या सोबीत फुलां फळांनी भरशिल्ले ल्हान व्हड

रुख आतां नाच्च जाले आनी तांच्या सुवातींचेर चाळी जाग्यार घरां उबीं आसात. ना फुलां, ना फळां, ना सुकण्याचे थवे. आमोरीची वेळ जाली काय गाय आनी माय आपल्या छकुल्याक मेळपाक राना शेतांतल्यान व्हड आतुरतायेन घरा धांवताल्यो. तो प्रसंग पळयल्यार दिस, तूं गाय, वासरू हांव; तू माय, हांव लेकरू! धुणे धुवपी बायलो, उदक हाडपी बायलो, तशेंच गोरवां राखणे हांचें दर्शन जालें काय भगवान श्रीकृष्णाचें गोकूळ हांगा अवतरलां कितें अशें दीस. दुदा-तुपाची रेलचेल आसली. आतां ना, सगळेंच कशें ना नपयत जालां! सगळें दूद आतां दूद डेअरी कडेन वता. दुदा धंयाच्या साम्राज्यांत बागडपी भुरगीं आतां हॉटेलांतल्या चमचमीत पदार्थांचेर ताव मारपाक धन्यताय मानतात.

सांजेचो आमोरेचो वेळ जाला काय, देवाचें नांव, आयमरीचें रजार बी. ते उपरांत अभ्यास, लिपचेल्यांनी खेळप, मातशो हांगा थंयच्या गजाली-खबरींनी एकामेकाच्या विचारांचें दिवप-घेवप, जेवण आनी रातच्या णव साडेणवाच्या सुमाराक न्हीद. पूण आतां टीव्ही चो जमानो आयलो. एकमेका कडेन गरजेचें तितलेंच उलोवप, आनी ते उपरांत उसरां रातीं न्हीद, हें सगळें पळयलें काय दिसता, 'कहाँ गये वो दिन!'

कोवाड गांवचें ग्रामदैवत श्रीराम. त्याच देवळाच्या वाठारांत लिपचेल्यांनी खेळप हो आमचो आवडीचो छंद आसलो. ओंवळांचो मोसम सुरू जालो काय फांत्यार तीन वरांचेर आवय बापायची नदर चुकोवन ओंवळां पुंजोवन हाडपाची कार्यावळ. तांचे पोड करून ते केंसांत माळून मिरोवपाक आमकां खूब धन्यताय भोगताली. जिची वेणी चड पदरांची ती सगळ्यांत श्रेश्ट म्हूण शेरो घेवपाचो. सणा परबेक दरेकल्याच्या आंगणांत शिताडो घालून रांगोळी काडप. पंचमी, गौरी, होळी, दिवाळी सगळें एकठांय जावन मनोवप. झिम्मा-फुगडी घालून सगळी गल्ली गाजोवन सोडप. आतां भुरग्यांक ह्या सणांचो अर्थ तरी खबर आसा? मागीर तो बोवाळ-मस्ती

पयसूच रावलें. ते उगडास आयले काय देवा लागीं म्हणचें अशें दिसता 'ल्हानपण देगा देवा!' म्हज्या कुळारच्या सरभोंवतणचो वाठार अजून लेगीत सोबीत आसा. ऊसाचे घाणे सुरू जाले काय आमी थंयसरल्यान ऊस हाडून सप्तकी बाजारांत विकून स्वताची ती कमाय आवयक दाखयल्यार ती माऊली तृप्त जाताली. मीठ सासवान नदर काडी. पूण आतां स्वताच्या भुरग्या कडेन कवतुकान पळोवपा इतलो वेळ आवय बापाय कडेन आसा?

आमच्या गांवची गंगामैय्या, जिच्या उदकाचेर आमी पोसले, ल्हानाचे व्हड जाले. तिचे देगेर हांव केन्ना पावली म्हाका कळ्ळेंच ना. नित्य नेमान खळखळ व्हांवपी तिचे देगेर सदांच गर्दी आसताली. पूण आतां सगळेंच नळाच्या तोतरे धारेचेर निंबून आसतात. न्हंयक उदक आसल्यार आमी सगळ्यो एकामेकांचो हात धरून हे देगे वयल्यान पलतडी वतालीं. चिखल-मातीचे किल्ले बांदताले. उदकांत मनमेकळेपणान पेंवतालीं. दीसभर ह्या सपनांचे नगरींत गुल्ल! पूण आतां हे गंगामैय्याक बंधाराच्या रुपान बंदिस्त केलां. साठिल्ल्या तळ्याचें तिका धा रुप आयलां. जंयसर रेंवेच्यो राशी आसताल्यो थंयसर आतां सोंपणा दिसतात. सैमीकपण वचून आतां कृत्रीमताय आयल्या. खीणभर मन सुन्न जालें. मनांत म्हणलें, गंगा मैय्या जी आयज तुजी स्थिती आसा, तीच तुज्या भुरग्यांची आसा. तुजें आनी तुज्या लेकरांचें दुख्ख सम आसा. पूण तुज्यांत आनी आमच्यांत जमीन आसमानाचो फरक आसा. 'माते तुज्या सारकी तूंच आसा' अशें म्हणटना म्हजे हात जुळ्ळे आनी तिका हांव नमस्कार करून परतून आयली, न सरपी यादींच्या गाठोड्यांची शिदोरी सांगाताक घेवन!!!



# आवयचो मोग अजरंवर

नव्या वर्साची सुरवात नवी उमेद घेवन येता. व्हडा दबाज्यान सगळो संवसार नव्या वर्साक येवकार दिता! पूण ते दुर्दैवी आवयची 31 डिसेंबराकूच संवसाराची खोशी काबार जाता. मरण येना म्हूण जियेताली बापडी ह्या संवसारांत.

31 डिसेंबराची वर्साची निमणी काळरात! आयजूय म्हज्या दोळ्यां मुखार येता आनी म्हजे दोळे दुकांनी भरतात. तो दीस हांव केन्नाच विसरूं शकना! कित्याक म्हणल्यार त्या दिसांत तुजे आवयच्या दुख्खाचो आकांत भरिल्लो आसा! आंकवार सायबीण मायच्या दोळ्या मुखार तिच्या एकल्या अपुरबायेच्या पुताक खुरसार मारतात. कितलें दुख्ख भोगता आसतलें ते आवयक! ते भशेन हे एके दुख्खी आवयचो एक अपुरबायेचो पूत आसलो. जाय तितल्यो आंगवणी करून ताणें ते आवयच्या पोटांत जल्म घेतिल्लो. ताळटावेल्या फोडा प्रमाण ती ताका जपताली. काळजाच्या कुडक्या प्रमाण ती ताचेर मोग करताली. आपूण अडाणी, पूण पुताक तिणें शिकोवन बुदवंत केलो. तो आतां एका ऑफिसराचे सुवातेर वावुरतालो. तिणें ताच्या दुडवांची ना कित्याची कसलीच आस करूंक ना! तो कसोय आसलो जाल्यार तिचो पूत! ताका मरण नाका. पूण जें विधीलिखीत आसता तें कोणूय पुसूंक शकना! आंकवार माईचे आनी हे आवयचें दुख्ख एकूच! भुरगें कशेय आसलें जाल्यार आवयक तें अपुरबायेचें आसता. ताणे आवयक कितलेंय दुख्ख दिलें जाल्यार आनी तिका मारलें जाल्यार लेगीत तिचो भुरग्या वयलो मोग उणो जायना. म्हणूनच आवयच्या मोगाक कित्याचीच तुळा करूं नजो!

संवसारांत जायत्या तरांचे मोग आसतात, पूण आवयचो मोग पक्को आनी नितळ आसता. म्हणूनच म्हणटात तीन संवसाराचो राजा आसल्यार लेगीत आवय नासल्यार तो भिकारीच! 'स्वामी तिन्ही जगाचा आईविणा भिकारी!' आपल्या भुरग्याचे गुन्यांव ती पोटांत घालता हाका कारण तिचो कुड्डो मोग! तर अशा मोगान भरिल्ल्या अयोग दर्या भशेन काळजाचे आवयच्यो दोन काणयो हांव हांगासर बरयतां.

एका गांवांत एक गरीब दुबळी आवय रावताली. ह्या संवसारांत तिका एकूच पूत आसलो. चार घरांनी वावर करून ती पुताक पोसताली. ताका तिणे बरो शिकोवन शिर्विसेक लायलो. आतां म्हजें वायट दीस सरले. म्हजो पूत म्हाका सुखांत दवरतलो. हांव आतां खुशालकायेन म्हजे दीस सारतलीं. म्हज्या पुताचें काजार जातलें. म्हजें घर भुरग्या-बाळांनी भरतलें अशें बापडी चिंतताली. पूण पुताचें चिंतप दुसरेंच! ताच्या ऑफिसांतल्ले एके चलयेचेर ताचो मोग जालो. तो तिका घेवन सगळे कडेन भोंवतालो. एक दीस तो एके बागेंत तिच्या वांगडा गजाली मारतालो. 'म्हजो मगो तुजेर इतलो मोग आसा, हांव तुजे खोशये पासत जायतें करतां! तर मागीर तुजे आवयचें काळीज म्हाका हाडून दी.' पूत काय एक चिंती ना. तिच्या मोगान तो सामको पिसो जाता. घरा येवन आवयक मारता. तिचें काळीज घेवन धांवत वता. मागीर फातर पांयाक लागून तो पडटा. हातांतलें काळीज मातयेंत पडटा. पूण तातूंतल्यान आवाज येता. 'म्हज्या पुता तुका खंय लागलें कितें रे.' तें काळीज घेवन तो तिचे कडेन वता. चली ताका म्हणटा, 'आरे मूर्ख मनशा दोन दिसाच्या मोगाक लागून तुवें जल्म दिल्ले आवयचो घात केलो, हांव तर कोणाची कोण? फाल्यां म्हाकाय तूं असोच मारशीत. हांव तुजे वांगडा काजार जायना' पुताचे दोळे उक्ते जातात. आवय मेल्यार लेगीत तिचो मोग कसो आसता हें चिंतून तो आकांत करता. पूण तेन्ना चड वेळ जाल्लो आसता!

आनी एक अशीच काणी आसा, एक दुबळी आवय. तिका एकूच पूत आसलो. तिणेंय जायते कश्ट करून ताका वाडयलो आनी ताचें काजार

केलें. पूण काजार जातकूच तो पुराय बायलेचे आदीन गेलो. सद्दां घरांत झगडीं, आवय बेजारून गेली. पूण बाबडी खंय वतली? एक दीस बायल सांगता 'तुजे आवयक मारून उडय मागीर आमी दोगां सुखांत रावया.' बायलेची गजाल ताणे रोखडीच मानली. रातचे ताणें आवयक मारली. एका साकांत घाली आनी तिका न्हंयत उडोवन येवपाक तो भायर सरलो. वेळ रातीचो, एक पुलीस गस्तीर भोंवतालो. ताणें ताका धरून पुलीस स्टेशनार हाडलो. इन्स्पेक्टर विचारता 'आरे ह्या साकांत कितें आसा?' पूत जाप दिना. इन्स्पेक्टर ताका मारूंक सुरू करता इतले म्हणसर तो साक सरकत सरकत इन्स्पेक्टराच्या पाया लार्गी येता आनी ताच्या पायांर लोळूंक लागता. ते मेल्ले आवयक इतलेंच सांगपाचें आसलें, 'म्हज्या दोळ्या मुखार म्हज्या पुताक मारूं नाका. म्हज्यान तें पळोवं नजो!' पुताक आपलो गुन्यांव कळटा. तो इन्स्पेक्टराचे पांय धरून रडूंक लागता. 'सायबा हांवें चड गुन्यांव केला. म्हजे पापी बायलेचें आयकून हांवें म्हजे आवयक मारल्या. ती आपल्या भुरग्या खातीर तुमच्या पांयाचेर लोळटा. म्हाका खंयचीय ख्यास्त दियात.' पुताक आनी सुनेक बंदखण जाता. पापाचे फळ मेळटाच ही गजाल वेगळी, पूण आवय मेले उपरांत लेगीत भुरग्यांक कितली जपता हें हे गजाली वयल्यान सिद्ध जाता. आवयच्या मोगाची तुळा जायना! आवय ती आवयच! तिचो मोग अजरंवर.



# आळवाच्यो वड्यो

आखखो गांव मनशांनी फुलून गेल्लो. खंयसरय नदर गेल्यार नदरेंत मनशांच मनशां. बशी, कार गाडयो, टेंपो आनी हेर गाडयांनी सगलो गांव भरिल्लो. गांवांत रावपाक कूड मेळपाक कठीण. ताका कारण तशेंच आशिल्लें. तें एक पवित्र तिर्थक्षेत्र. त्या दिसा त्या गांवांत दत्तजल्माचो सुवाळो आशिल्लो. मनशाच्या दोळ्यांक भुलवणे घालपाचो दीस. आखख्या भारतांतल्यान लोक मेळटा ते गाडयेन गांवांत येवपाक सोदताले. कूड मेळना जाल्यार धर्मशाळा ना जाल्यार न्हंयचे देगेर रेवेंत आलाशिरो सोदताले. फकत तांकां उमळशीक आसली तरी दत्त जल्माचो म्हान सुवाळो पळोवपाचो. अशे पवित्र पूण्यभुंयेत आमगेली बदली जाली. आमकां तो वाठार खूब आवडलो. देखून आमी एक धाकटुलें घरकूल थंयसर बांदलें. चारी वटेन मेकळी सुवात. म्हाका तर झाडा पेडांचो मोग. आनी बोअरवेलीक 24 वरां उदक. घरांचे चारी वटेन कडूलिंबाचेर कावळे किरांनी घोंटेर बांदून तातूंत संवसार थाटिल्ले. चानयेन लेगीत झाडाचेर हक्क दवरिल्लो. एप्रील, मायाच्या म्हयन्यांत शंकर, तांबड्यागुंज फुलांनी फुलिल्लो. वाऱ्याच्या झोता वांगडा झाडापोंदा फुलां शिंवरून पडटालीं. आमी माड, पोपायो, चिकू, केळी, मेथयेचीं झाडां लागिल्लीं तर आबोलीं, शेवंती, गुलाब, मोगरीं, दसण अशा फुलझाडांची लागवड केल्ली. दारा मुखार दोनूय वटेन रातराणयेची लागवड केल्ली. सांजवेळार रातराणयेची फुलां फुलतालीं. आपणाल्या सुवासीक परमळान आमकां आपणा कडेन ओडून घेतालीं. दारां मुखार तुळशीचें पेड. सांजवेळार आमोरेचेर मिणमिणतो तेलाचो दिवो, उजवातीचो परमळ. सगळो वाठार भक्ती रुपान भरतालो. बोअरवेलचे कुशीक गंजन, हळद, आळू, तुळशी पाचवीचार जावन बागेची सोबाय वाडयताली. आपूणशीच उद्देल्ल्या मिकोनकाईच्या वालींनी बागेंत आपणालोय हक्क दवरिल्लो.

तार्चे लोणचें अदीक रुचीक लागता. अशा ह्या सोबीत वाठारांत म्हगेलो परिवार खुशालकायेन रावतालो. फांत्यार फुलांनी भरिल्लो कुरपणो आनी पाचवीचार तुऱ्या सयत खुटिल्ल्यो तुळशी घेवन चुकनासतना दत्ताच्या देवळांत वताली आनी दत्तचरणाचेर अर्पण करताली.

दनपारचो वावर सोंपोवन हांव सुसेगाद वासरेचेर बशिल्ली. दारांतल्यान वचपी त्या भावार्थ्याक एकटक नियाळटाली. हांव म्हगेले तनरेंत आसली. तितल्यान म्हगेल्या पुतान म्हाका उलो मारलो. 'मम्मी कितें चित्ता गे? हे पळय कोण आयल्यात तुमकां मेळपाक?' 'म्हाका मेळपाक?' हांवें अजापान पळयलें जाल्यार पांच स दोतोर. हांवें हांसत तांकां येवकार दिलो. आनी भितर आपयले. फाटल्या वर्सा हांव चड दुयेंत आशिल्ली. तेन्नाच देवाच्या बेसावान आनी ह्या दोतोरांचे सेवेन हांव बरी जावन म्हगेल्या परिवारांत परती आयली. म्हगेलो तो दुसरो जल्म म्हळ्यार अतिताय जावची ना. हॉस्पिटलांत म्हगेल्या परिवाराची आनी दोतोरांची इतली इश्टागत जाल्ली, ते दोतोर म्हणल्यार आमकां आमच्या कुटुंबांतलेच कशे दिसपाक लागले. येतना तांकां आमगेर येवपाचें आमंत्रण दिलें. उतराक पाळो म्हूण ते मुजरत आमगेर आयले. हातपाय धुवून बरे फ्रेश जाले. तानेल्ले आशिल्ल्यान तांकां थंड झेलाद उदक पियेवपाक दिलें. उदक पियेतकच मातशी तांकां तरतरी आयली. वताच्या भारान ते तापिल्ले. दुदांत च्या घालून बरी कडक च्या तांकां पियेवपाक दिली. तातूंत वेलची उगडासान घाली. तांकां खूबच आवडली ती च्या. तांणी राजूक विचारलें च्यायेंत कसलो मसालो घाला. कित्याक तर च्या चड रुचीक जाल्या. राजून हांसत जाप दिली. तातूंत मोगाचो मसालो घाला. कित्याक काय म्हणल्यार तिच्या हाताचे जेवले वा च्या पियेली जाल्यार तिका खोशी जाता. तिचें पोट भरता. ती मोगान सगलें करता.

बागेंत कदेली घालून गजाली मारून सगळीं बसलीं आनी हांवें जेवणाची तयारी सुरू केली. मसालो, शीत, गोड वरण, भरिल्ली वायंगी, बटाटा भाजी, उसळ, साजूक तूप आनी सुको मेवो घालून सांजो. भरपूर तेल घालून चपाती. लोणचें, पापड, चटण्यो खास करून मिकीनकायीचें लोणचें. आंब्याची आंबट गोड चटणी. सगली तयारी जाली. पूण म्हाका नवी जीण दिवपी त्या दोतोरा

खातीर किर्ते तरी नवें करचें तेन्ना म्हाका याद जाली. आळूंच्या वड्यांची. बोरींगचे कुशीक पांचवीचार आळवाची पानां नेटान धोलतालीं. गार्डनांत वचून हांवें आळवांची बरीं व्हड व्हड पानां काडून घेतलीं, नळाचेर बरीं करून नितळ धुलीं आनी भितर घेवन आयली.

हांवें आमटान भिजत घातली. बेसन, तिखसाण, मीठ, हळदीपिठो, हिंग, तातूंत आमटाणीचो कोळ घालून सरभरीत पीठ केलें. पाटाचेर पानां परतीं दवरलीं. पयलीं ताचेर आमटानीचो कोळ लायलो. मागीर पिठाचो थर लायलो आनी पानांच्यो सुळयो केल्यो, आनी कुक्रांत धा मिनटां उकडून घेतलें. थंड जातकूच वडयो केल्यो. परते मातशें बेसनाच्या पिठांत बुडयले आनी रव्यांत घोळयले आनी तेलांत तळून काडले.

जेवण मांडलें, हांसत खेळत, जेवण जालें आनी सगळीं भायर गजाली मारीत बसलीं. तेन्ना दोतोरांनी बाबाक विचारलें, 'राजू जेवण मस्तच जालां. फूण फिशाची मजा वेगळीच.' 'फीश आयज? आयज तर 'दत्तजयंती' हांगा नुस्तें चलना, आनी ह्या दोतोरांक फिश कोणें दिलें? राजू चिंतूक लागलो. 'फिश'? खंयचे फिश?' तांणी आळवाच्या वड्या कडेन बोट केलें. तेन्ना राजू खळखळून हांसलो. तुमकां हांव फाल्यां दाखयतलो? आतां सुशेग घेयात.

दुसऱ्या दिसा फांत्यार च्या खावप जालें. हांवें वाटाणे, थोडशें, खोबरें कोथंबीर घालून फोव केले. राजून तांकां गार्डनांत व्हेलें आनी बोरींगाचे कुशीक आशिल्ली आळवाची पानां दाखयलीं. हेंच तें फिश. ह्याच पानांच्यो वडयो तुमी रातीं फिश समजून खाल्यो. दोतोरांनी म्हगेली तोंडभरून तुस्त केली. आमगेलो निरोप घेवन ते गेले. पूण जेन्ना जेन्ना म्हगेली नदर त्या आळवाच्या पानांचेर वता तेन्ना तेन्ना म्हाका त्या दोतोरांची याद येताच येता.



# काशी

काशी म्हणल्यार तिर्थक्षेत्र न्हय. एखादी म्हान अस्ती न्हय. एक सादें सुदें, दुबळें, निश्पाप, भावार्थी, देवभोळें व्यक्तीमत्व आशिल्ली एक व्यक्ती. संवसारांत अशे लोक जल्मतात ते परोपकारा पासत. तांगेलें जिवीतूच दुसऱ्यां खातीर आसता. दुसऱ्यांच्या सुखांत तांगेलें सूख आस्पाविल्ले आसता. तांकां आपणालें अस्तित्व अशें कांय नासता. दुसऱ्या पासत कश्ट करतात आनी जियेतात म्हणून निमाणे कांय नासलें तरी तांगेलें बरें जाता. कश्टाचें जिवीत काबार जाता. दुख्खाचे कांटे पयस वतात. मात्सो वेळ काय जायना तांगेले जिणेंत खोशयेचीं फुलां फुलतात. तांच्या निर्मळ मनाक लागून तांकां सुखाचे दीस दिश्टी पडटात.

आयतार सुटयेचो दीस. पूण तशें पळयल्यार त्या दिसा वावर खूब. संबंद सुमनाचो वावर. घर निवळ कर, रेशन हाड, बाजार कर, रोप मार एक न्हय तर जायतीं हजार कामां आयतारा आसतात. हांवें चलयेक वांगडा घेतली आनी सिटींत गेली. बाजारांत गर्दी मुख्वार वचपाचें म्हणल्यार दिव्य. तातूंतल्यान आमी मुखेल बाजारपेठेंत पावलीं. आनी म्हाका कोणें तरी उलो मारलो 'बाय, ए बाय.' आवाज वळखीचो, पूण हे गर्देंत कोण आसतलो? हांवें फाटल्यान वळून पळयलें. एक बायल म्हजे कडेन धांवत येताली. येना फुडें तिणें म्हाका वेंग मारली. 'बाय बरें आसा गो?' म्हगेली चली तिका अजापान पळोवपाक लागली. 'आगो आमगेली शेजान्न ती. आज्याच्या गांवची. समजलें मुगो?' 'बाय कशें आसा? कितली भुरगीं आसात? ही चली तुगेली मुगो?' असो प्रस्नांचो मारो तिणें सुरू केलो. हांवें मदींच तिका

वगी केली आनी परतें तिकाच जाप विचारली. 'सगळें बरें आसा. पूण काशी आक्का तूं हांगा कशें पावलें? तुका इतलें स्वातंत्र्य कोणें दिलें? दाव्याक बांदिल्ले गरीब गाये भशेन तुगेलें जिवीत कश्टान भरिल्लें. दुख्खान पोळिल्लें. तुगेले हे गुलामगिरीचें दावे कोणें सोडलें? तें पयली म्हाका सांग. तुगेली ती कजाग भावजय तिणें तुका कशें सोडलें. तें पयलीं सांग. म्हगेलो घुस्मटमार जाता. मागीरच म्हगेले खुशालीची खबर काड.' 'आयक बाये, म्हगेली भावजय भायर पडून आठ म्हयने जाले. अकस्मात गेली मुगो ती, आनी आतां सगळ्या घराची जापसालदारकी भावान म्हजेर सोंपयली. ताचे चलयेच्या लग्नाची बाजार खरेदी करपाक हांव भावा वांगडा आयल्या.'

काशीची कर्मकाणी म्हणल्यार दुख्खान भरिल्लें जिवीत. काशी आनी आमी एकाच वाड्यांत रावतालीं. काशी दोन वर्सांचें जालें. तिचे फाटल्यान भाव श्याम जालो आनी त्या बाळंतपणांत काशीचे आवयन संवसाराचो निरोप घेतलो. बापूय मुंबय मिलींत काम करतालो. बायल गेल्यार बाबडो आयलो आनी दोनूय भुरग्यांक वेंगेंत घेवन घसघशीत रडलो. पूण वावर केले बगर पोट कशें भरपाचें? तातूंत दोन धाकटुल्या जिवांची जापसालकी. भुरग्यांक भाव भावजयेच्या हातांत सोंपयली आनी तो परतो मुंबय गेलो. भावजेन भुरग्यांचो छळ करपाचो विडोच उखल्लो. पोटाक ना वयल्यान मारप. वाड्यांतल्या लोकांक त्या निश्पाप ल्हान भुरग्याचो छळ पळोवपाक जायना जालो. काशीच्या बापायक खबर गेली. 'बाबारे, कितेंय कर पूण ह्या भुरग्यांक व्हर. तुका जायना जाल्यार अनाथ आश्रमांत दवर.' भुरग्याक घेवन तो परतो मुंबय गेलो. थंयसर तांगेली एक पयसुल्ली भयण आशिल्ली. ती मिलींत वावर करपी लोकांक जेवण दिताली, आनी संवसार चलयताली. तिचो ताका उगडास जालो आनी भुरग्यांक घेवन तो तिगेल्या घरा गेलो. ताणें तिचे पांय धरले. आक्का ह्या परदेशी भुरग्यांक तुवें दवरलीं जाल्यार जिवितभर हांव तुगेलो उपकार विसरचो ना. तिका भुरगीं नासलीं. देवानूच म्हाका भुरगीं दिलीं म्हूण खोशयेन तिणें भुरग्यांक आपणायलीं. देवान आपणाक

आवयचो मान दिलो म्हूण तिका चड खोशी जाली.

भुरगीं वाडपाक लागलीं. तिणें तांकां शाळेंत घालीं. आपणाले परीन तिणें बरोवंक वाचूंक शिकयलें. बापूय घडये घडयेक येवन भुरग्यांची खबर घेतालो. काशी आतां व्हड जालें. श्याम लेगीत मिलांत कामाक लागलो. काशी आत्याच्या वावरांत मजत करताली. ताका आतां सोयरीक येवपाक लागली. चली म्हळ्यार 'परकें धन' तांकां दुसऱ्या घरा धाडचें पडटा. गांवा कडेन एक बरी सोयरीक पळोवन काशीचें लग्न जालें. काशी घोवागेर वतना आत्याक दुख्ख सोंसूंक जालें ना. फुडें श्यामाक लेगीत एक चली पळोवन ताचें लग्न केलें. गांवांत शेतां भाटां आसलीं. भावा कडल्यान आपलो वांटो घेवन श्यामाचे बायलेक गांवांत दवरलें. गोरवां वासरां पोसलीं. संवसार सुरू जालो.

काशीचो संवसार सुखांत आसलो. तिगलो घरकार कोंकणांत नोकरेक आशिल्लो. काशीक एक चलो जावन पिड्ड्यार जालो. आनी मागीर तिगेली ग्रहदशा घुंवपाक लागली. घरकार तिका सतावपाक लागलो. ती तें सगळें सोंसपाक लागली. कुळारा सावन हें घेवन यो तें घेवन यो. ताका बाबड्याक कोण कितें दितलो? मांय मोगाळ आसता. ती पुताक समजायता. पूण तो आयकना जालो. तेन्ना ती काशीच्या बापायक खबर दिता. 'तुगेले धुवेक तूं व्हर नाजाल्यार हो सैतान तिका दवरचो ना. खंयसरूय आसूं पूण सुखी आसूं दी.' बापाय मुखार संकट उबें रावलें. ताच्या पांया सकयली जमीन सरकूंक लागली. ताणे काशीक हाडली. पुतां सुनेक विनवणी केली. भाव मुंबयक भावज काशीचो छळ करपाक लागली. जल्मल्ल्याक बापड्याचे कपाल चिंतून चिंतून बापूय दुयेंत जालो आनी ताणे संवसार सोडलो. आतां भावजेक कुरण मेकळें जालें. घरचो वावर गोरवां वासरांची कुयदाद. उदक भरप, आयदनां घांसप, कपडे उमळप सगळें करून धा वरांचेर शेतांत वावराक वचप. उरिल्लें शेळेल्लें जेवण तिका मेळटालें. पूण बाबडी तातूंत समाधान मानतालो. कितेंय आसूं पूण रावपाक तरी आदार आसा. नातर

हांव एकली बायल मनीस खंयसर वतली अशें बाबडी चिंतताली.

भावाक चार भुरगीं. पूण आवयचे भिरांतीन ती काशी वांगडा उलोवपाक भियेतालीं. भाव लेगीत आयलो जाल्यार बायले मुखार मोनो.

एक दीस दनपारचो वेळ. गांवांत कितें तरी कार्यावळ आशिल्ली. दवंडीकार ताकीत दितालो. वावराक कोण वचपाचो ना. नाजाल्यार दुडू फारीक करचे पडटले. ताका लागून काशीक मातसो विसव मेळिल्लो. तें आपणाल्या जिवाचेंच चिंतीत पडवेर आड पडिल्लें. तितल्यांत भावाली चली बोवाळ मारीत भायर आयली. आत्या, आत्या आई कशी करता पळय. काशी भितर धांवतां. भावजेच्या मुखार पोसणे. तातूंत बासमती तांदळाचे शीत आनी साईचे दूद घेवन ती जेवताली. तितल्यान ताळ्यांत कितेंतरी आडखळ्ळें आनी ती नुस्त्या भशेन तडफडूंक लागली. काशीन वाड्यांत बोवाळ मारलो. लोक एकठांय जालो. दोतोर येता तो मेरेन खेळ काबार जाल्लो.

भाव येता. सगळे विधी जातात. आनी भाव भयणीचे पांय धरता. 'आक्का आमी तुका चड छळ्ळे. पूण तुवें परती जाप दिली ना. तुज्यांत सोंशीकताय आसा. आवय सोडून गेली. घरकारान त्याग केलो. बापूय गेलो आनी आमी तुजो छळ केलो. पूण तें सगलें विसर आनी ह्या भुरग्यांक पालवांत घे. काशीन भावाक वेंग मारली. म्हज्या भावा म्हज्या काळजांत सदांच मोग आसा. जालें तें वायट जालें. पूण नियती मुखार कोणाचें कांयच चलना. ह्या भुरग्यांक हांव आवयचो मोग दितां. तूं कसलीच चिंता करूं नाका.' काशीन सगली जापसालकी घेतली. भाचेच्या लग्नाचे खरेदीचो बाजार करपाक शारांत आयिल्ली. कितेंय जावं पूण तुगेल्या कश्टाचें फळ देवान तुका दिलें.

काशी आक्कान लग्नाचें कार्ड म्हज्या हातांत दिलें. 'बाय, लग्नाक येयात, आमी वाट पळयतात.' हांव चलयेक घेवन घरा आयली. बाजार काय जालो ना. पूण काशी आक्काचे खोशयेंत म्हाका बाजाराचो विसर पडलो.



# योगायोग

तुळशीचें लग्न जालें म्हणटकच लग्नांचो मोसम सुरू जाता. गावांनी चड करून तुळशीलग्न जातकच लग्नां करतात. मागीर तांकां शेत्तांत्त वावर खूब आसता. जोत घालप, नांगर धरप, सारें घालप, मेरो तयार करप. मागीर एक फावट पेरणी जाली म्हणटकच शेतांत आख्खो पावस रावचें पडटा. सुशेग म्हूण ना! एक खिणभर लेगीत वगत तांकां मेळना. देखून लग्नां सारखे पवित्र सुवाळे सोंपोवन ते लोक आपणाल्या वावरांत गुल्ल जातात!

सद्या आमचे आवय-बापूय जिते नात, पूण त्या जल्मगांवांकडेन संबंध तितल्याच मोगाचे, आपलेपणाचे आसात. आमगेल्या शेजारची यशोदामामी, म्हगेले आवयची जिवाभावाची इश्टीण! तिणें तें नातें तशेंच सांबाळून, मोगाच्या रसमी धाग्यांनी बांदून दवरलां. तिका पांच पूत, चौगजाण मुंबय नोकरेक आसात. पूण मात व्हडलो घरांतूच रावता. शेतां-भाटां पळयता. गोरवां-वासरांची कुयताद घेता. आवयक सांबाळटा. शेतांत कितेंय पिकल्यार, गाय-म्हशीन पील दिल्यार दिकाचो पांस करून घरच्या तांदळाच्यो धव्योफुल्ल नरम भाकरी खरवसाच्यो वड्यो आनी पिठीचें दूद न चुकता येता. पंचमीचो फराळ, एक ब्लावज पीस, गणपतीक पुरणपोळयो, साजूक तुपाचो डबो आनी दसऱ्याचो गांवचे कुलदेवतेचो प्रसाद येताच. यशोदामामीक चली ना देखून चलयांचो मान आमकांच मेळटा. तर हे आमगेले ऋणानुबंध चड चड घट आसात. ताका लागून आवय-बापूय नात अशी उणीव आमकां भासना. यशोदामामी मदीं आमकां आवय-बापूय दिश्टी पडटात.

शेनवारचो बाजाराचो दीस. त्या दिसा हो भाव आमगेर आयिल्लो. चलयेच्या लग्नाचें आमंत्रण दिवपाक. ताका लागून मात्सो वगत काडून लग्नाक वचचें पडलें. दनपारचो अक्षतांचो म्हूर्त दवरिल्लो. आमकां तो वगत सोपस्कार जालो. फात्यांरची पयली बस धरून कुळारा पावलीं. न्हंयचे ते देगेर आमगेलो सोबीत गांव वसला. मार्गाच्या दोनी देगेनी उसाचें मळें. ऊसाचे धवेफुल्ल तुरे शेताची सोबीतकाय वाडयताले. न्हंयचेर धाकटुलो बंधारो घालून उदक सांठयलां. गिमाच्या दिसांनी त्या उदकाचेर कुळंबी तरकारी मक्को, तवशीं, काळंगां अशीं तरेकवार पिकां जातात. आनी ते धरतरेचेर असली भांगरा सारकी पिकावळ काडटात. बंधाऱ्या वयल्यान आमी गांवचे शिमेर पावले.

गांव सुरू जालो. पयलीं बाजारपेठ लागली. तातूंत हॉटेलां. भुरगेपणांत खाल्ल्या गरम गरम भज्यांचो उगडास आयलेबगर रावलो ना! बापाय वांगडा पांच वरांचेर आमी बच्चे कंपनी बाजारांत पावतालीं. लाकडाच्या बांकांचेर बसून भजीं, चिवड्याचेर ताव मारप आनी कंवचेच्या कोपांत दिल्ली हुनहुनीत च्या खोमशेन धरून पिताना कृष्णामामा शिटकावणी दितालो, 'बाळांनो, सावकाश च्या पियात. आंगाचेर सांडतली हून आसा.' हो सदचोच नेम. घरा गेल्यार आवयचे उपदेश आयकुचे पडटाले. पूण ते सगळें कानावयल्यान वतालें. गांवचे शिमेर पांय दवरल्यार तो भुरगेपणाचो उगडास येता आनी दोळे भरतात. काळीज कासावीस जाता.

बाजारपेठे साकून मातशें मुखार गेलें म्हणल्यार लागता आमची गल्ली. आवय-बापायचे पिरायेचीं कांय नशीबवान लोक जितीं आशिल्ल्यान तीं दोळ्यांचेर हात दवरून आमकां बरें करून नियाळटात आनी उलो मारतात. 'बाय आयलें गो? भुरगीं बरीं आसात?'' पिराय जावन लेगीत नदर मात शाबूत. आनी आतांचे पिळगेक रोकडेंच दोळ्यांक वक्ल. 'आयलीं गे काकी आमी' अशी जाप दीत आमी मुखार सरलीं. दारांतलो माटोव दिश्टी पडलो.

दारांत शेनायेचे मंजूळ सूर, मायकाचेर कांतारां, 'मम्मी तेंच गे मामालें घर?' 'होय रे राजा. तो माटव दिश्टी पडटा तेंच मामालें घर.' यशोदामामी दारांत उबी आसली. 'आयलें गो बाय' म्हुणून तिणें म्हाका घट्ट वेंग मारली. तेन्ना म्हाका म्हगेले आवयचो उगडास आयलो आनी नकळटाना दोळ्यांतल्यान दुकां आयलीं.

कुजनांतल्यान हातांत उदकाचो तांबयो घेवन वयनीन आमकां म्होवाळ येवकार दिलो. आयिल्ल्या सोयऱ्याक पांय धुवपाक उदक दिवपाची हांगासर रीत आसा. वासरेंत जमखानो हाथुरिल्लो तांचेर आमी बसलीं. दुसरे भावजयेन च्या, फराळ दिलो. घरांत गडबड धांदळ. तितल्यांत वाजत-गाजत न्हवरो येता ती खबर आयली. दनपारां अक्षता पडल्यो. भेटवस्तू दिवपाचें जालें आनी जेवपाच्यो पंगती बसल्यो. जेवपाचो बेत मस्त आशिल्लो. शीत, शेवग्या सांगाची डाळ, लोणचें, पापड, सांडगे, गोडशें तातूंत गोडबुंदी. वायंगे, कोबी, उसळ, गवार, भेंड्याची भाजी, पणसाची भाजी तर सुवादीक जाल्ली.

आमी जेवलीं पूण एके गजालीची म्हाका उस्तवारी जालीना. व्हंकलेचे कुशीक करवली म्हुणून बशिल्ली ती चली कोण? ते सोबीत चलयेचें मुखामळ हांवें खंयतरी पळयलां. पूण खंय? म्हगेले मतींत कांय येना. पूण म्हाका सुशेग जायना. हांवें जायतें चिंतलें पूण म्हजे शितींदिंत कांय येना तेन्ना हांवें भावजयेक उलो मारलो. 'वयनी, ती चली कोण गे?' 'तुमी ताका वळखले ना? ती पाटलाले इंदूली चली. जल्मल्ल्या दिसाच आवय देवाघरा गेली. परदेशी भुरगीं मामान सांबाळ्ळीं बापड्यांक.' 'मामान? खंयच्या गे?' 'धाकल्या मामान, श्यामान सांबाळ्ळें' आनी तिणें म्हाका सगळी काणी सांगली.

पाटलाली इंदू म्हणल्यार आमगेल्या गल्लींतली एक चली. आमगेली इश्टीण पूण तांकां इस्कोलाक घातलें ना! घरचो वावर, शेतां आनी गोरवां राखपाचो वावर. पूण ताका शिकपाची खूब आवड! सुटये दिसा तें आमगेर येतालें आनी सय करपाक शिकतालें. आमी ताका अक्षरां घालून दितालीं.

इंदूक देवान सोबीतकायेचो आशिर्वाद दिल्लो. तशेंच तें घरकामांत रांदपांत तरबेज आशिल्लें. गावांनी लग्नां करप बेगीन. ताका लागशिल्ल्या गांवांत दिल्लें. नव्याचे णव दीस म्हूण मातशे दीस बरे गेले. ल्हान पिरायेंत दीस गेले. आनी पोटांतलें भुरगें व्हळून गेलें. मुखार आनी दोन भुरगीं गेलीं. हे गजालीचो फायदो घेवन घरकारान सोरो लागीं केलो. रातदीस तो सोऱ्यांतूच रावंक लागलो. कित्यांतूच ताचें शिंतीद उरलें ना. घर पडलें रिणांत. शेतां भाटकारांकडेन गेलीं. घरांत चुलींत उजो पेटपाक कठीण जालें. चिंतून सासूमांय, सासू पाय अंतरले. तातूंत इंदूक परते दीस गेल्ले. हे फावट चलो जालो. कुळारा गेल्यार कुळारच्या लोकांनी हात वयरशे केले. तें ताच्या काळजाक लागलें. तातूंत घरकाराचो मार. चल्याचे फाटीर परते दीस गेले. बाळंटेराक त्रास जावपाक लागलो. आदार कोणाचोच ना! बऱ्या वगतार सगळीं येतात. देरान ताका शारांत व्हेलें. ताणें एके चलयेक जल्म दिलो पूण तें बाबडें गेलें. देर भुरग्यांक घेवन आयलो. पयलो एक चलो. देराचो संवसार दुबळो. घरकाराचेर काय एक परिणाम ना!

इंदूलो धाकलो भाव एके फॅक्टरींत वावरतालो. ताचो भयणिचेर खूब मोग आशिल्लो. भुरग्याची दशा पळोवन तांकां चुरचुरे दिसले. ताणें घरकान्नीच्या सल्ल्यान दोगाय भुरग्यांक हाडलीं. तांचो सांबाळ केलो. चलो आतां एके कंपनींत ऑफिसर म्हूण वावुरता. चली दुसरें वर्स कॉलेजींत. बाबड्या मामान अनाथ भुरग्यांचो सांबाळ करून बऱ्या मार्गाक लायले. संवसारांत अशे लोक आसात म्हूण हे संवसार चलतात अशें म्हूण तिणें दोळ्यांतलीं दुकां पालवान पुसलीं. हांवें परतें परतें ते चलयेक बरें नियाळ्ळें. म्हाका तातूंत इंदूली छबी दिश्टी पडली. तोच रंग, तेंच नाक, तेंच रूप, तेच दोळे. खरेंच इंदून परतो पुनर्जल्म घेतला कितें? अशें म्हाका दिसलें. म्हाका तातूंत इंदूच दिश्टी पडली. हांव लग्नाक आयली खरी. म्हाका इश्टीण मेळिल्ल्याचें समादान भोगलें. हो योगायोगच न्हय तर कितें?





मिलाग्रीन आंद्रू डिसौजा

आदल्या काळार मनीस कसोय जियेतालो, कितेंय खातालो, कसलेय मोदीचे कपडे घालतालो. पूण सैमालागीं मात तो समरस जातालो. हे धर्तरेवयलीं झाडां-पेडां, रुख-वाली, सूर्य-चंद्रीम, नखेत्रां, न्हंयो-वझरे, तळयो-दर्यो, दोंगर-दोंगुल्ल्यो हांचेलागीं ताची इश्टागत आसली. तांच्यो व्हडविको गावपी म्होवाळ रचना ताणी आपणाल्या ओंठाचेर रचल्यो. हे धर्तरेवयली जीव-जिवावळ, किडी, मुयो, रानांवनांतलीं जनावरां, झाडांचेर घोंटेर करपी सवणीं-सुकणीं ह्या सगळ्यांनी मिलाग्रीनबायच्या जिविताच्या प्रवासांत वांटो घेतिल्लो दिसता आनी ताका लागून तिगेलें लिखाण सुरबूस जालां. ह्या सगळ्यांची तुस्त-तोखणाय करताना ती रमून गेल्ल्याची जाणवता पूण मर्दींच 'आधुनिक सुखसोयींनी मनीसपण शेणलां' ह्या लेखांत ती बरीच गंभीर जाल्ली दिसता. मनीस जसो जसो सुसंस्कृत जायत गेलो तितलो सैमा कडलो ताचो संबंद उणो जायत गेलो. तो आधुनिकतायेचे भकीक पडलो हाचें तिका वायट दिसता.

– हेमा नायक

जैत प्रकाशन